# जयंतीची कथा

## (आस्वाद आनी समिक्षा)

संकलन आनी संपादन

**अवधूत आमोणकार**




राजाई प्रकाशन

# जयंतीची कथा

(आस्वाद आनी समिक्षा)

**संकलन आनी संपादन:**
अवधूत आमोणकार

**प्रकाशन क्र. 5**

**पयली आवृत्ती : 2006**



**छापपी :**
रूतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें, गोंय

**मुखचित्र :**
गौरीश वेर्णेकार

**अक्षरजुळवणी :**
ज्योती गांवकार

**प्रकाशक :**
अवधूत आमोणकार,
राजाई प्रकाशन,
आमोणें, केपें, गोंय - 403 705

**मोल : रू. 125/-**

# JAYANTICHI KATHA

(A critical appraisal)

**Compiled & Edited by :**
Avadhut Amonkar

**Publication No. 5**



**First Edition: 2006**



**Printer :**
Rutu Offset
Volvoi, Ponda, Goa.

**Cover :**
Gaurish Vernekar

**Typesetting :**
Jyoti Gaonkar

**Publisher :**
Avadhut Amonkar,
Rajaee Prakashan,
Amona, Kepem, Goa - 403 705

**Price : Rs. 125/-**

जयंती नायकाच्या कथांचेर
बरयिल्ल्या आस्वादनात्मक
आनी समिक्षणात्मक स्वरूपाच्या
वेंचीक लेखांचो संग्रह

# मांडावळ

# प्रास्तावीक

2004 वर्साचो केंद्रीय साहित्य अकादेमोचो पुरस्कार डॉ. जयंती नायक हांच्या 'अथांग' ह्या कथा-संग्रहाक फावो जालो आनी विवीध व्यासपिठांनी ह्या पुस्तकाचेर आनी तांतल्या कथांचेर उलोवपां-चर्चा तसोच अभ्यास सुरू जालो. त्याच वेळार मनांत एक विचार आयलो, ह्या पुस्तकासंबंदी केल्ली चर्चा, उलयिल्लीं उलोवपां आनी बरयिल्लीं बरपां अशींच खंय तरी शेणून वचूंक न दिता, तांकां सगळ्यांक एकठांय संग्रहीत करून पुस्तकरूप दिवपाचें. हातुंतल्यान जाणें कोणें तीं उलोवपां-बरपां तयार करूंक कश्ट घेतल्यात, तांच्या कश्टांचें चीज जातलें, कोंकणी साहित्याच्या अभ्यासकांक संदर्भ साहित्यय उपलब्ध जातलें आनी कोंकणी सरस्पतीच्या भांडारांत आस्वादनात्मक आनी समिक्षणात्मक स्वरूपाच्या एका आगळे तरेच्या पुस्तकाचीय भर पडटली. शिवाय 'अथांग' पुस्तकाचे प्रकाशक ह्या नात्यान त्या पुस्तकाविशीं जें जें उलोवप-बरोवप जाता, ताची योग्य तरेन दखल घेवप हें आमचें कर्तव्यच थारता.

'अथांग' पुस्तकाचें भाग्यय आगळेंच. उजवाडाक येतनाच आपले भोंवतणी चर्चा-कवतुकाचें तें एक वलय घेवन आयलें. हें पुस्तक प्रकाशीत जावन रोकडेंच, म्हळ्यार तिसऱ्याच म्हयन्यांत कला अकादेमीन, कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय हे संस्थेच्या जोडपालवान 'साहित्य प्रकाश' हे कार्यावळीखाला ताचेर खाशेलो परिसंवाद आयोजीत केलो. श्री. कमलाकर म्हाळशी, श्रीमती प्रियदर्शिनी तडकोडकार आनी श्री. भूषण भावे हांणी ह्या परिसंवादांत पुस्तकांतल्या कथांसंबंदीच्या वेगवेगळ्या आंगाचेर प्रबंध सादर केले. आधुनीक कोंकणी कथेचे शिल्पकार म्हण जांकां वळखतात ते श्री. चंद्रकांत केणी ह्या परिसंवादाचे अध्यक्ष आशिल्ले. तर जेश्ट कथाकार श्री. दामोदर मावजो हांणी कोंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्ष ह्या नात्यान जरी कार्यावळीचें प्रास्तावीक केल्लें, तरी आपल्या उलोवपांतल्यान अथांगांतल्या कथांचो परामर्श घेतिल्लो. ह्या परिसंवादा उपरांत महाविद्यालयीन आनी हेर साहित्यीक स्थराचेर ह्या पुस्तकाचेर खंय ना खंय चर्चा जायत रावली.

ह्या पुस्तकाक 2002 वर्साचो कला अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो, ताका लागून साहित्यीक वर्तुळांत ताचें कवतूक जाता थंयच आसा, रोकडोच ताका 2004 वर्साचो साहित्य अकादेमी, दिल्लीचो पुरस्कार जाहीर जालो. पुरस्काराचे फेरींत दाखील जाल्ल्या पयल्याच वर्सा ह्या पुस्तकान येदें मोठें जैत

जोडिल्लें. आमकां सगळ्यांकच अजाप जालें. खासा लेखिकेक लेगीत तें अपेक्षीत नाशिल्लें. 16 फेब्रुवारी 2005 दिसा, नवी दिल्लीच्या 'फिक्की स्वर्ण जयंती सभाघर', हांगा जाल्ल्या साहित्य अकादेमी पुरस्कार वितरण सुवाळ्यावेळार साहित्य अकादेमीचे अध्यक्ष प्रो. गोपीचंद नारंग हांणी आपल्या भाशणांत अंदू वर्साच्या साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कार विजेत्यांमदलीं सगळ्यांत वयान ल्हान लेखिका म्हण जयंतीबायविशीं कवतुकाचे खाशेले उद्‌गार काडले, जे दुसऱ्यादिसा वर्तमानपत्रांनी छापूनय आयले. प्रो. नारंगांचे हे उद्‌गार व्यक्तीगतपणान जयंतीबाय हांचेविशीं नाशिल्ले तर ते खरेपणी पुरस्कार प्राप्त अथांग पुस्तकाविशीं आशिल्ले, तातूंत आस्पाविल्ल्या कथांच्या साहित्यीक तांकीविशीं आशिल्ले.

एकदां कितेंय करपाचें थारायलें म्हण्टकच तें पुर्णत्वाक व्हरूंक चिकाटेन वावुरप, हो आमचो सभाव. त्या सभावाक धरून आमी वावुरलेय, पूण सदांच थारायिल्ल्यो गजाली, थारायिल्ल्या वेळारच जातात अशें मात जायना. म्हुणूनच मार्च 2005 मेरेन पुस्तक उजवाडाक हाडपाचो संकल्प करूनय तें प्रकाशीत जावंक सुमार स म्हयन्याचो अदीक काळ लागलो. पूण एक-एकदां अश्यो गजाली बऱ्याकय लागून घडटात. सुरवेक जेन्ना पुस्तकाची कल्पना मनांत तयार जाल्ली, तेन्ना फकत 'अथांग' संबंदीतच लेख तातूंत उजवाडावपाचो विचार आशिल्लो. जयंतीबायचेंय मत तशेंच आशिल्लें. 'तशेंच आशिल्लें' अशें म्हणचेपरस दुसरे तरेन कितें करूं येता हो विचारच मनांत आयलो नाशिल्लो. अथांग संबंदी उपलब्ध लेख निबंध आमी 'अथांग : एक परिचर्चा' ह्या नांवान छापूंकय दिल्ले. मजगती एका दिसा आमच्या प्रकाशनाचे हितचिंतक आनी जयंतीबायचे बरे मागपी श्री. रमेश वेळुस्कार आनी डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार हांचेकडेन ह्या पुस्तकाविशीं चर्चा करतना दोगांयनीय, फकत अथांग पुरतेंच हें पुस्तक मर्यादीत करनासतना, जयंतीबायच्या एकंदरच कथासंबंदान जें जें लिखाण तयार जाल्लें आसा आनी जें उपलब्ध जावंक शकता त्या सगळ्याचोच आस्पाव ह्या पुस्तकांत करचो अशी सुचोवणी केली. तांची ती सुचोवणी आमकां मानवली, कारण तेवरवीं लेखिकेचो आजवेरचो पुराय कथाप्रवास, तिचे कथेचो जाल्लो विकास, तांतले वेग-वेगळे साहित्यीक प्रवाह ह्या सगळ्याचेरच उजवाड पडप शक्य जातलें आशिल्लें. शिवाय हालींसराक जयंतीबायचे कथेचो महाविद्यालयीन आनी विद्यापीठ स्थराचेरूय अभ्यास जावंक लागला. तिच्या कथांचेर अभ्यास-प्रकल्प तयार जावंक लागल्यात. ते नदरेन अशा विद्यार्थ्यांखातीर वयले तरेच्या समग्र वावरांतल्यान संदर्भ-सामुग्रीय तयार जातली आशिल्ली. देखून तांची सुचोवणी आमी उखलून धरली आनी पुस्तकाचें आदलें

स्वरूप बदलून 'जयंतीची कथा' अशें समावेशक रूप ताका दिवपाचें थारायलें.

हो वावर आमी येवजिल्लो तितको सोंपो आनी सट्ट करून जालोना, कारण जयंतीबायच्या कथांचेर बरयिल्लें सगळेंच लिखाण आमचेकडेन, वा जयंतीबायकडेन उपलब्ध नाशिल्लें. कांय उलोवपांच्यो वा प्रकल्पांच्यो फकत नोंदी तितल्यो आशिल्ल्यो. ताच्या आदाराचेर तें मेळोवपाचो यत्न केलो. कांय जाणांनी वावराचें म्हत्व जाणून रोखडेंच तें आमकां दिलें, तर कांय जाणांनी आज-फाल्यां करीत, शेवटाक आमची निराशा केली. 'साहित्य प्रकाश' कार्यावळींत केल्लें 'अथांगांतल्या पात्रांचे भाव-संबंद' ह्या विशयावयलें श्री. भूषण भावे हांचें उलोवप, 'बसवो' विशयावयल्या चर्चासत्रांत प्रा. अरूण साखरदांडे हांणी केल्लें उलोवप, जाल्यार साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळिल्लेखातीर 'सखी-सांगाती' हांणी घडोवन हाडिल्ल्या आनंद-सुवाळ्या निमतान जयंतीबायचो साहित्य-प्रवास ह्या विशयाचेर दवरिल्ल्या परिसंवादांत श्री. दत्ता दामोदर नायक हांणी केल्लें 'अथांग' संबंदी उलोवप आमकां उपलब्ध जावंक शकलें ना पूण हीं उलोवपां पुस्तकाच्या विशयाचे नदरेन म्हत्वाचीं आशिल्लीं हें हांगा मुजरत नोंद करूंक जाय.

महाविद्यालयीन - विद्यापीठ स्थराचेर विद्यार्थ्यांनी केल्लीं उलोवपां वा लेख ह्या पुस्तकांत आस्पावचें अशें एकवेळ दिसलें, पूण उपरांत तांचो बारीकसाणेन विचार करतकच आमी तो मोह टाळलो, कारण पुस्तकाखातीर वेंचिल्ल्या हेर लिखाणाचे तुळनेन तें खूबच बालीश जाणवलें. तांतले सातूंत बाय सोनाली फडते हिचो जानेर-मार्च 2004 च्या 'कोंकण-टायम्स'च्या अंकांतलो 'जिणेंतल्या अथांगत्वाचो सोद घेवपाक लावपी कथाझेलो - अथांग' ह्या माथाळ्याचो लेख बरो आशिल्लो, पूण तिणें अथांग संग्रहांत खासा लेखिकेन बरयिल्ल्या मनोगताचो बरोच भाग तातूंत घुसडिल्लो आशिल्ल्यान तो लेख ह्या पुस्तकांत घेवप आमकां प्रशस्त दिसलोना.

ह्या पुस्तकांत तीन उस्फूर्तपणान आयिल्ले लेख आस्पावल्यात. एक श्री. एम्. एन्. प्रभू हांचो, दुसरो डॉ. वासुदेव सावंत हांचो जाल्यार तिसरो श्री. रमेश वेलुस्कार हांचो. श्री. एम्. एन्. प्रभू हे 'उडपी' हांगाचे रिटायर्ड प्रिन्सिपल. अथांगाक साहित्य अकादेमी पुरस्कार प्राप्त जातकच उमळशीकेन तांणी तें वाचूंक घेतलें. तें वाचतकच ते प्रभावीत जाले आनी तांकां ताचें समिक्षण बरोवपाची स्वंयप्रेरणा जाली. तांणी तें बरोवन उपरांत आमकां धाडून दिलें. 2005 च्या सप्टेंबरांतली ही गजाल. ह्या पुस्तकाच्या प्रकाशनाची कल्पना आमचे तकलेंत आशिल्लीच, तांचो लेख आमच्या वावराक एक जोड थारलो.

जयंतीबायची 'बसवो' कथा 'बिटीश कॉन्सील डिवीजन' हे आंतरराष्ट्रीय संस्थेन 2005 वर्सा आपल्या 'बायलांचे लेखन' प्रकल्पाखाला www.womenswriting.com हे वेबसायटीखातीर निवडली. त्या निमतान हे कथेचेर चर्चा जावची ह्या उद्देशान 'लोकवेद अभ्यासवेदी, पाळें' हांणी एक चर्चासत्र आयोजीत केल्लें. तातूंत गोंय विद्यापीठाच्या मराठी विभागाचे प्राध्यापक डॉ. वासुदेव सावंत हे एक वक्ते आशिल्ले. आमच्या ह्या पुस्तकाची संकल्पना तांचे मुखार दवरताच तांणी मोठे उमेदीन आपलें उलोवप लेख स्वरूपांत तयार करून दिलें. तांच्या मूळ मराठी बरोवपाचो स्वैर कोंकणी अणकार करून आमी ह्या पुस्तकांत आस्पायला.

तिसरो श्री. रमेश वेळुस्कार हांचो लेख. तांणी जयंतीबायची 2005 च्या चवथ सुनापरांत अंकांत उजवाडाक आयिल्ली 'आदिमायेचो अस्त' ही कथा वाचली, ते बरोबरच तो बरोवंक घेतिल्लो. पुस्तकाची संकल्पना तांचे मुखार येतकच तांणी तो आमचे सुवादीन केलो.

ह्या पुस्तकांत वट्ट णव लेख आसात. तांतले वयले तीन सोडले जाल्यार उरिल्ल्यांतले दोन 'गर्जन' आनी 'अथांग' हांच्या विमोचन समारंभावेळार अनुक्रमान श्री. दामोदर मावजो आनी श्री. प्रकाश वजरीकार हांणी केल्ल्या उलोवपांचेर आदारिल्ले आसात. आनीक दोन, श्री. कमलाकर म्हाळशी आनी श्रीमती प्रियदर्शिनी तडकोडकार ह्या दोगांयचेय 'साहित्य प्रकाश' कार्यावळींत मांडिल्ले प्रंबध आसात, तर डॉ. बाळकृष्णजी कानोळकार हांणी अथांग प्रकाशीत जाल्या उपरांत 'जाग' नेमाळ्यांत उजवाडायिल्लो परिक्षणपर लेख आसा. श्रीमती नूतन साखरदांडे हिचो एक लेख आसा. जयंतीबायक साहित्य अकादेमी पुरस्काराखातीर 'लेखक संघ' हे संघटणेन घडोवन हाडिल्ल्या सत्कार सुवाळ्यावेळार तिणें केल्ल्या उलोवपांतल्यान तो स्फुरिल्लो आसा, जो फेब्रुवारी 2006 च्या 'जाग' अंकांत उजवाडाक आयला.

ह्या पुस्तकांतलें लिखाण समिक्षणात्मक तशें आस्वादनात्मक, दोनय स्वरूपाचें आसा. हातूंत जशी तुस्त आसा तशी कांयकडेन टिकाय आसा. एकेच गजालीकडेन पळोवपाचो दोन वेग-वेगळ्या मनशांचो वेग-वेगळो दृश्टीकोन हातूंत दिसता. अस्वडी एखाद्रो विचार - मत मुखार येवंचे परस, चौगांचे संगतीन तांचेर चर्चा जावप गरजेचें आसता. ते नदरेन जयंतीबायच्या कथेसंबंदी मांडिल्ल्या मतांचे आनी विचारांचेच आतां ह्या पुस्तकाच्या माध्यमांवरवीं समिक्षण जावचें अशी अपेक्षा ह्या पुस्तकाचे निर्मिती फाटल्यान आसा.

ह्या पुस्तकाखातीर आनी आनीक एक म्हत्वाची गजाल केल्या ती म्हळ्यार, 'जयंती नायकाचें जिवीत आनी साहित्यीक वावर' अशा माथाळ्याचें एक परिशिश्ट पुस्तकाक जोडलां आनी तातूंत तिच्या जिवीत आनी साहित्यीक वावराविशीं 1962 ते 2005 ह्या काळांतली उपलब्ध सगळी माहिती दिल्या. आडवादान घडये एक-दोन नोंदी चुकून उरल्यांत आसत, तरी पूण शक्यतो चड कांय उरचेंना हाची जतनाय घेतल्या. जयंतीबायचे संग्राह्य आनी संशोधकवृत्तीक लागून हें परिशिश्ट दिवप आमकां शक्य जालां. जयंतीबायच्या साहित्यीक आनी लोकवेद वावराचेर आतांमेरेन जाल्लो महाविद्यालयीन आनी विद्यापीठ स्थरावेलो अभ्यास पळोवन, फुडें-फाटीं तिचेर एखाद्रे पीएच्.डी. खातीर संशोधन जावं येत, ते नदरेन अशे माहितीची तांकां गरज लागतली, हे दूरदृश्टीन हें परिशिश्ट तयार केलां.

ह्या पुस्तकाची मूळ संकल्पना आनी ती साकारपा फाटले कश्ट जयंतीबायचे, हें मुद्दाम कोणाक सांगपाची गरज ना. प्रकाशन आनी संपादन दोनय क्षेत्रांतले आमचे अणभव आनी गिन्यान तशें उणेंच. जयंतीबायच्या सहकार्यानच हो वावर आमी भुजार घेतला. ह्या पुस्तकाच्या संकलन-संपादनांत तिचोच म्हत्वाचो वांटो आसा देखूनच हें पुस्तक इतकें अर्थपूर्ण आनी दर्जेदार जावंक पावलां.

ह्या पुस्तकाखातीर योगदान दिवपी सगळ्या लेखकांचे आमी मनासाकून उपकारी आसत. तांणी सहकार्य दिलें म्हुणूनच मनांतली कल्पना सत्यांत उतरूंक पावली.

ह्या पुस्तकाखातीर मुखचित्र श्री. गौरीश वेर्णेकार हांणे काडलां. अक्षर-जुळोवणी श्रीमती ज्योती गांवकार हिणें केल्या जाल्यार छापणावळ रूतू ऑफसेट, वळवय हांणी केल्या. तिगीय जयंतीबायचे बरें मागपी. वेवसायापरस जयंतीबायचें पुस्तक, तें सुबक-सुंदर जावंक जाय हो तांचो उमाळो. त्या उमाळ्यांतल्यानच तांणी आपलें योगदान ह्या पुस्तकाक दिलां. तांचेय आमी उपकारी आसात.

जयंतीबायची पयली कोंकणी कथा 'संप' (1984) ते नवी 'आदिमायेचो अस्त' (2005) ही कथा, हे मदल्या सुमार वीस वर्सांच्या लांब कथाप्रवासाची चिकित्सा ह्या पुस्तकाच्या निमतान जावंक पावल्या. एकेच लेखिकेच्या लेखन-प्रवासाचेर बरयिल्ल्या लेखसंग्रहाचें अशें पुस्तक कोंकणी साहित्य भांडारांत आजून मेरेन तरी नाशिल्लें. ते नदरेन ह्या पुस्तकाक आगळेंच म्हत्व आसा. आमच्या ह्या आगळ्या यत्नांक कोंकणी साहित्य संवसारांत उस्फूर्त येवकार मेळटलो अशी अपेक्षा करतां.

**अवधूत आमोणकार**

1

# ‘गर्जन’ तें ‘अथांग’ मेरेनचो जयंती नायकाचो साहित्य प्रवास

*कमलाकर म्हाळशी*

‘जातिवंत कथाकाराक आपणाल्या कथांखातीर नांवलौकीक्र जोडिल्ल्या लोकांपरस जांचेर कोणाची नदर लेगीत पडना असल्या लोकांचीच चड ओडं आसता. ते असलींच पात्रां सोदीत रावतात. वयल्या थरांतल्या लोकांभशेन ह्या पात्रांक आपणालें रूप लिपोवपाक वयर अडेचें रूपडें चडोवपाची केन्ना गरज आसना. तीं जशीं देवान जल्माक घाल्यांत तश्शीं, नागडीं उगडीं, आपणाल्या धोंगांपोंगांसयत आमच्या फुड्यांत उबीं रावतात. तांचेर कोणाचीच नदर पडना म्हूण जावंये, तांकां कितेंच लिपोवंचेंशेंय दिसना. तांगेलीं धोंगां - पोंगां, हीं धोंगां - पोंगां म्हणपाचीं लेगीत तांकां खबर नासता. इतलीं तीं स्वाभावीक आनी खरीं आसतात.

गोदानातलो होरी हें असलेंच एक पात्र. पुणून ताणें आपणाल्या जिविताची केदी व्हडली एक नवलकथा मुन्शी प्रेमचंदाकडल्यान बरोवन घेतली. प्रेमचन्दान होरी निर्माण करूंक नाशिल्लो. जयंतीक कुस्मणच्या वाठारांत आपा आनी कुश्टा मेळ्ळे तसोच तो प्रेमचंदाक उत्तर प्रदेशांतल्या एका गांवांत मेळिल्लो. प्रेमचन्दान

ताका फकत बारकायेन नियाळून पळेलो. ताच्या काळजाचे तारेक आपणाल्या काळजाची तार जुळोवन घेतली आनी होरी दाखय-लिपय करिनासतना आपणाल्या जिविताची कथा ताका मेकळेपणान सांगपाक लागलो.

'गोदाना'ची निर्मिती अशी जाल्या.

जयंतीचे प्रतिभेक ही नदर आसा. ताकाय आपणा भोवंतणच्या समाजांतल्यान आपणाक जाय तीं पात्रां सोदून काडपाचीं, तांचीं सुखदुख्खां समजून घेवन तांचेकडेन एकरूप जावपाची आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार तांकां तांचे भाशेंत उलोवंक लावपाची तांक आसा.'

बाय जयंती नायक हिचो 'गर्जन' हो कथासंग्रह गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'लेखकाचें पयलें पुस्तक येवजणेखाला' अपुरबाय प्रकाशनान छापून फेब्रुवारी 1989 त उजवाडायला. त्या कथासंग्रहाक कोंकणीतले म्हालगडे साहित्यीक भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी 'मिजाच्यो कोंकणी कथा' माथाळ्यासकयल दिल्ले आशिर्वाद स्वरूप प्रस्तावनेंतलो बाय जयंतीची, नीज कथाकार म्हूण बेसबरी वळख करून दिवपी हो एक वांटो.

'समाजांतल्या अन्यायाआड गर्जन करपाक जांणी म्हज्या मनांत आत्मविश्वास निर्माण केलो त्या हेमाताईक आनी पुंडलीकबाबाक' अशा उतरांनी जयंतीन 'गर्जन' तांकां ओंपला आनी काळजांतलो घूट सांगतना म्हळां, 'हें 'गर्जन' करपाखातीर म्हाका शक्त मेळ्ळी तीन व्यक्तींकडल्यान. पयली व्यक्ती म्हळ्यार म्हजो व्हडलो भाव पंढरीनाथ, दुसरी हेमाताई नायक आनी तिसरी व्यक्ती म्हळ्यार पुंडलीकबाब नायक. भावान दर एका प्रसंगार दिल्लें फाटबळ, हेमाताईचें उत्तेजन आनी पुंडलीकबाबाचें मोलादीक मार्गदर्शन म्हज्या साहित्यीक वावराक कारण जालां. म्हजे जिणेचीं हीं तीन स्फूर्तिस्थानां.'

आतां ही गजाल फेब्रुवारी 1989 तली. आनी देखुनूच 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' च्या बावट्यासकयल गोंयकारांनी कोंकणीची आकांताची चळवळ उबारून 4 फेब्रुवारी 1987 दिसा गोंयची राजभास कोंकणी करून घेतली. ते चळवळीचे, जैतवंत चळवळीक आयिल्ल्या फळाचे बुन्यादीचेर ह्या उतरांक खाशेलो अर्थ प्राप्त जाता. गोंयच्या त्या काळांतले पंरपरेक धरून कोंकणीचो वावर करता म्हूण दबकावन घेवप जयंतीनूय अणभवलां. देखून त्या प्रसंगार धीर

दिवंपी भाव पंढरीनाथ, अपुरबाय प्रकाशनाचे वतीन हेमाबायच्या फुडारपणाखाला गोंयांत त्या तेंपार जे बायलांचे मेळावे आनी साहित्यीक कार्यावळी जाताल्यो तातूंत आपल्या कितल्याश्याच तरणाट्या इश्टिणींवांगडा जयंती वावुरलां, त्या वावराक उत्तेजन दिवपी हेमाबाय आनी कोंकणी चळवळीच्या सभांनी 'गर्जन' करतना जयंतीक मार्गदर्शन करपी पुंडलीकबाब हांच्या खाशेल्या उल्लेखावांगडाच 'वेळाप्रसंगार कोंकणींतल्या नांवाजत्या साहित्यिकांनी मार्गदर्शनूय केलें. कोंकणींतल्या नेमाळ्यांनी म्हजें साहित्य उजवाडाक हाडलें.' अशें जयंती मुजरत सांगता आनी 'म्हाका सगळ्यांकडल्यान बरें उत्तेजन मेळ्ळें.' म्हूण सांगपाकूय विसरना, तेन्ना जयंतीबाय संकलकाचे नदरेंतल्यान हे संदर्भ दिता, ते सामके गरजेचेच अशें म्हाका दिसता. जयंतीबायच्याच उतरांनी सांगपाचें जाल्यार, .

'गर्जन' हो म्हजो पयलो कथासंग्रह. तो प्रकाशीत जावन बारा वर्सांचो काळ उलगून गेला आनी आतां म्हजो 'अथांग' हो दुसरो कथासंग्रह उजवाडाक येता.

बारा वर्सांचो काळ म्हळ्यार एक तप. आदल्या काळा रूशी-मुनी बारा बारा वर्सां समाधिस्त रावन तप करताले. त्या तपान तांकां दिव्यसिध्दी प्राप्त जाताली. एक कथाकार म्हुणून बारा वर्सांचे केल्ले तपसाधनेंत म्हाका कसली सिध्दी प्राप्त जाल्ली आसा? आज हांव स्वताच आपलें आत्मपरिक्षण करून ह्या प्रश्नाची जाप सोदपाचो यत्न करतां.'

1983 च्या अदमासाक अनवळखी वातावरणांत खाकुडत खाकुडत कोंकणीच्या मळार पावल घालपी 'भिडेस्त' जयंती, तेन्नासावन मागीर कोंकणीच्या विंगड विंगड स्वरूपाच्या चळवळींनी कोंकणीची बाजू मांडपी 'कडकलक्ष्मी' जयंती, 'म्हजेंय एक पुस्तक आसचें' अशें सपन बाळगून 1989 त सपन सत्य जाल्ल्याचे उमेदींत 'काळजांतलो घूट' उतरांनी उक्तावपी तरणाटें भावूक जयंती, आनी 2002 वर्सा 'अथांगाचो थाव घेतना' सरभोंवतणच्या वातावरणांत घडिल्ल्या बदलांचो, आपलेमदीं घडिल्ल्या शारिरीक मानसीक परिवर्तनाचो नियाळ तटस्थपणान तितलेच कलात्मकतेन मांडपी चिंतनशील, प्रौढ जयंती आनी मजगतच्या काळांत आनीक कोण कोण, आनीक कितें कितें अशें जयंती! कथालेखिका जयंती, संशोधक जयंती, आनी संशोधक जयंती ती कथालेखिका जयंती.

देखुनूच, 'गर्जन' तें 'अथांग' मेरेनचो जयंती नायकालो कथा प्रवास नियाळटना ह्या काळांतलो जयंती नायकालो जिणेप्रवास आनी 1989 पयलीचो तिचे धडपडीचो, अस्वस्थतायेचो आनी उमेदवारीचो प्रवास नियाळप भोव गरजेचें.

'कथाकार जेन्ना कथानक, पात्र, वातावरण, निवेदनपध्दत, भाशा आदी कथेच्या मूळ घटकांवरवीं कथेची निर्मणी करता, तेन्ना तो वा ती कथेंत निवेदनावरवीं खाशेलो जिणे-अणभव कथन करता. आतां त्या कथनाचीय जाल्यार घटना, पात्रांची कृती, तांचे संवाद, बाकीचो तपशील हाका धरून सोबीत फांती वा माळ केल्ली आसता आनी तातूंत भितर कथानकाक विशिश्ट रूप दिवपी संघटनतत्व आसता. आनी निमाणें कथेंतल्यान एक अणभव सामकार येता. 'कथा : एक साहित्यप्रकार' मदीं श्रीमती सुधा जोशी म्हणटात तेप्रमाण. 'कथानिवेदक कथेंत पात्रांचें, प्रसंगांचें वर्णन वा कथन करता, तांचेसंबंदान केन्ना संक्षिप्त, साररूपान निवेदन करता. तेचप्रमाण कांय वेळार तो/ती पात्रांचेर, प्रसंगांचेर भाश्य लेगीत करता. निवेदक भाश्यांवरवीं मनशांसंबंदीचो, तेचपरी वट्ट जिणेसंबंदीचो सर्वसामान्य स्वरूपाचो तत्वविचार लेगीत मांडटा. हें भाश्य कथेच्या वट्ट संघटनेतलें एक घटकतत्व आसता. निवेदकाच्या अणभव घेवपाचे पध्दतीकडेन, ताचे / तिचे मानसिकतेकडेन आनी मुल्यसरणीकडेन ताचो घटमूट संबंद आसता. निवेदन वास्तवाच्या एका पावंड्यार चलता; भाश्य तें निवेदन जाणां जावनूच, मुद्दमूच वास्तवाच्या विंगड विंगड पांवड्यार व्हरता आनी ताचेफाटल्यान निश्चित हेतू आसता.'

'कथा : एक साहित्यप्रकार' म्हूण मांडिल्लो हो विचार दर एका कथाकाराक लागू पडूंक फावो तसोच जंयतीकूय.

दुसरें, 'खंयच्याय साहित्यप्रकारा प्रमाण कथेकूय तिचें तंत्र, तिचे कलासंकेत आसतात. मात तंत्र म्हळ्यार कारागिरी वा बंदिस्त नेमावळ न्हय. तेचपरी, तंत्र ही अमूर्त स्वरूपाची, एकाद्रे पोकळेंत आकाराक येवपाची गजाल न्हय. ती विशिश्ट साहित्यकृतीच्या संदर्भांत आकाराक येवपी, सार्थ थरपी अशी गजाल.' हो श्रीमती सुधा जोशी हांचो विचार जयंती नायकासयत समाजाभिमूख आनी नित्य कार्यरत अशा सगल्याच कथाकारांक लागूं पडूंक फावो.

तसो जयंतीच्या लेखनाचो आरंब 1983 वर्सा जालो. मात्त चारचौगांसारको

कवितेन हो ‘शुभारंभ’ जालो ना. कोंकणीकडेन येवचे पयलीं मराठी कथा तिणें बरयल्यो. कविताय बरयल्ल्यो. 1980 वर्सा तिची ‘वणवा’ ही पयली मराठी कथा दै. राष्ट्रमतांत प्रसिध्द जाली. उपरांत ‘सस्पेन्स’, ‘आभास’, ‘शिशीर - वसंत’ ह्यो तीन कथा.

भूगोल, अर्थशास्त्रावेली तिची विद्यापिठाची पदवी, गोवा कोंकणी अकादेमीची 1987-88 वर्साची अभ्यासवृत्ती मेळोवन तिणें पुराय केल्लो म्हैसूर विद्यापिठाचो एक वर्साचो ‘लोकवेद पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा कोर्स’ आनी 1995 वर्सा तिणें जोडिल्ली विद्यापिठाची समाजशास्त्र विशयावेली पदव्युत्तर पदवी ही ही जंत्री पळयल्यार हांगा ‘साहित्य’ वखदाक लेगीत दिसना. मात ‘म्हजेंय एक पुस्तक आसचें’ हे अस्वस्थतायेंतल्यान ‘लेखक’ जावपाचें सपन जयंतीन पळयलें आनी मेळिल्ले दर एके संदीचो लाब घेयत घेयत ती गोवा कोंकणी अकादेमींत ‘लोकवेद संशोधन सहाय्यक’ जातनाच, गोंयांक धरून कर्नाटक, मुंबय, केरळ आदी कोंकणी वाठारांत आनी राष्ट्रीय पावंड्यारचेरय नामनेक पाविल्ली ‘लोकवेद संशोधक’ जावपाक पावली. 1989 वर्सा ‘गर्जन’ वाचकांक दितनाच कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार गर्जनाक जोडून दिवपाक पावली.

मात्त ‘लोकवेद संशोधन सहाय्यक’ म्हूण अकादेमींत मेळिल्ल्या पदाच्या निमतान जशी कितें आवयची लोकवेदाची परंपरा शास्त्रशुध्द रितीन फुडें व्हरपाची संद जयंतीक मेळ्ळी आनी तिची कथा ‘सोंपली ना’ तरी ‘थारली’. तिचे गतीक खंड पडलो. कथा नेमान छापून येवपाची प्रक्रिया ताका लागून फुडें वचपाक पावली ना. ताकाच लागून जयंतीची अपुरबाय करपी म्हालगड्यांनी ‘गर्जना उप्रांत बरींच वर्सां जालीं तरी जयंतीचो दुसरो कथासंग्रह येवंक ना’ म्हूण शीण काडलो, जाल्यार म्हाका तरी अजाप दिसलें ना! अर्थांत जयंतीन ताका जाप दिल्याच, ‘हांवें कथा बरोवपाचें बंद करून लोकवेद लिखाणाचेर लक्ष केंद्रित केलां म्हणपाचो ते समज बाळगून आसात; पूण हें पूर्ण सत्य न्हय. त्या काळार हांवें एक लोकवेद संशोधक म्हुणून जे तळमळीन वावर केला, तेच तळमळीन ललीत लेखनय केलां. ह्या वर्सांनी म्हजे लेखणेन दोट्ट्यो निरंतर प्रसव वेणो भोगल्यात. हो काळ तिचेखातीर अतीप्रसवी थारिल्लो आसा.’

जयंतीचे हे जापेकडेन हांव पुरायेन सहमत आसा. आपले लेखणेक तिणें

'अतिप्रसवी' म्हणून लेखणेचो आनी स्वताचोय भौमान करून घेतला. लेखकाक हो असो अभिमान मिरोवपाचो अधिकार फावताच. तिणें वापरिल्ल्या 'अतिप्रवासी' ह्या उतराक लागून हांव तिची दुसऱ्या म्हालगड्या वा तिच्यावांगडच्या कोणा लेखकाकडेन वा लेखिकेकडेन तुळा करूंक सोदिना, पूण प्रतिकूळ परिस्थितींत शणै गोंयबाबांनी जें आनी जितलें बरयलें, चंद्रकांतबाब केणींनी चुकनासतना सतत जें आनी जितलें बरयलें, अजून बरयतात, पुंडलीकबाब नायकांनी झपाटून म्हण्टात तशें जितलें बरयलें, आजून बरयतात त्याच वेगान जयंतीची लेखणी फुडें वता म्हळ्यार अतिताय जावंची ना!

गोवा कोंकणी अकादेमींत 'संशोधन सहाय्यक' म्हूण पदार रुजू जायतसावन तिणें सुरू केल्ल्या लोकवेद संकलनाच्या वावराचें फळ म्हूण 1992 वर्सा तिचीं वट्ट चार संकलनां एकाच वांगडा उजवाडा आयलीं. रथा तुज्यो घुडयो (आमोणेचीं धालो गितां), कणेर खुंटी नारी (आमोणेचीं लोकगितां), तळय उखल्ली खेळ्यांनी (आमोणेचीं शिगम्याचीं गितां), मानांलीं गितां (आमोणेच्या किरिस्तांव समाजाचीं गितां). आतां हीं चारूय संकलनां गोवा कोंकणी अकादेमीन उजवाडायल्यांत आनी अकादेमीचे तेन्नाचे लोकवेद विभाग मुखेली डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांणी 'लोकवेदशास्त्राचे नदरेंतल्यान केल्लें हें संकलन आनी उजवाडावणी' म्हूण जयंतीची तोखणाय केल्या. म्हैसूर विद्यापिठाचो 'लोकवेदाचो पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा कोर्स' करतना जयंतीन आमोणें गांवांचो भुगोलीक, इतिहासीक, समाजीक आनी संस्कृतीक नदरेन खोल अभ्यास करून लोकवेदाच्या पाळांमुळांकडेन पावपाच्या यत्नांचो जो प्रकल्प म्हैसूर विद्यापिठाक सादर केल्लो, तो प्रकल्प छापून घेवन अकादेमीन 'आमोणें –एक लोकजीण' ह्या नांवान 1993 वर्सा उजवाडा हाडलो. प्रकल्पाचें हें पुस्तक म्हळ्यार अभ्यासकांखातीर एक संदर्भग्रंथ, तेचपरी लोकवेदाचेर प्रकल्प करूंक पळयतल्यांखातीर मार्गदर्शक पुस्तक आनी 'सांस्कृतीक गिरेस्तकायेन भरिल्ल्या गांवांत म्हजो जल्म जालो. ह्याच गांवान म्हजेर संस्कार केले. ह्याच गांवचे मातयेंत म्हजें व्यक्तिमत्व घडलें' अशें जयंती आपल्या आमोणें गांवासंबंदान कित्याक म्हण्टा त्या प्रस्नाचीय पुराव्यासयत जाप दिवपी, अशें हें पुस्तक.

'उत्सव आनी फेस्तां' हांची संकलीत केल्ली म्हायती पुस्तकरूपान येवपाखातीर तांचें हातबरप करपाचो वावर अकादेमीन जयंतीकडेन दिलो आनी

जयंतीन 'पेडणें' गांवची मांडावळ, दैवदैवतांची म्हायती, दसऱ्याची फांटभूंय आदी गजालींवरवीं पेडणेच्या दसऱ्याच्या मुळांचो सोद हातबरपांत बेस्स बरे रितीन, खरें म्हळ्यार शास्त्रशुध्द रितीन घेतलो. 1995 वर्सा 'पेडणेचो दसरो' पुस्तक उजबाडा आयलें. त्या दिसांनी जयंती 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत 'लोकबिंब' हें लोकवेदावयल्या शास्त्रीय स्वरूपाच्या निबंधांचें एक सदर बरयतालें. हे निबंध एकठांय करून तिणें अकादेमीक दिले. निबंध लोकवेदावेले, तशेंच शास्त्रीय बसका आशिल्ले. अकादेमीन ते छापून 1998 वर्सा 'लोकबिंब' ह्या नांवान उजवाडा हाडले. 'लोकवेदाच्या मळार वावरूंक सोदतल्यांक कांय मुळाव्या सिध्दांताविशीं आनी मुद्दयाविशीं मार्गदर्शन जावंचें ही नदर, लोकबिंबाचे उजवाडणे फाटल्यान आशिल्ल्याचें सांगून ह्या पुस्तकाचें प्रस्तावनेंत अकादेमीचे अध्यक्ष ॲड. उदयबाब भेंब्रे फुडले तरेन विश्वास उक्तायतात : 'हो विशय जे हाताळटले तांचेमदीं संशोधनाची नदर आशिल्ले आसूं येतात. तांकां ह्या विशयाचें मुळावें गिन्यान संपादपाची उमळशीक आसतली. ती उमळशीक हें पुस्तक भागोवंक पावतलें.' 'लोकबिंब' हें जयंतीचें पुस्तक जाल्ल्यान, उदयबाबांचो हो विश्वास म्हळ्यार जयंतीक प्रशस्तीपत्र कशें!

मजगतच्या काळांत लोकवेद संशोधक म्हूण जयंती गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांकूय वळखीचें आनी संवकळीचें जाल्लें. तातूंतल्यानच ताका लोकवेदांतल्यो काणयो गावन सांगपी खापो गाणेली श्री. जानू गांवकार आनी ताका सरांदर दिवपी श्री. सगूण गांवकार आनी श्री. भिकारो गांवकार भेटले. 'नाल्लबंद आनी माणकावंत' तशेंच 'भोजराजा आनी साधू' ह्यो दोन काणयो तांचेकडल्यान जयंतीच्या कानार पडल्यो. पळयतां पळयतां कागदार देंवल्यो आनी गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयाचे 'लोकसंस्कृतीचीं पुस्तकां छापपाचे येवजणे'खाला 1996 वर्सा 'नागशेराचे सूर' ह्या नांवान त्यो दोनूय काणयो उजवाडा आयल्यो.

लोकवेदावयल्या आनी लोकवेदाकडेन संबंदीत अशा ह्या वावराची दखल मंगळूरच्या भौ. एरीक ओझारियोच्या 'मांड सोभाण' संस्थेन घेतली आनी जयंतीक 1998 वर्सा 'जनवाहिनी–मांड सोभाण' हो पयलो 'मांड सोभाण लोकवेद पुरस्कार' फावो जालो.

मात जयंतीन ह्या काळांत शास्त्रीय बसका आशिल्लेंच लिखाण केलें, आनी जाणट्यांखातीरूय बरयलें अशें मात न्हय. आपणें भुरग्यांखातीरूय कितें तरी बरोवंक जाय म्हणपाची जाणीव ताका आशिल्ली. तातुंतल्यानच ताणें बालसाहित्याची निर्मणी केली. आपले आवयच्या नांवान अवधूत, जयंती आनी भावांनी 'राजाई' प्रकाशनाची निर्मिती करून जयंतीचें पयलें पुस्तक उजवाडा हाडलें, तेंवूय बालसाहित्याचेंच. आतांमेरेन जैत प्रकाशनान 2001 वर्सा उजवाडा हाडिल्लें 'वागमामाची फजिती'(नाटकुलें), त्याच वर्सा राजाई प्रकाशनान उजवाडा हाडिल्लें 'चड शाण्यांक फातरांचें शीत! (नाटकुलें)', गोवा कोंकणी अकादेमीचे बालसाहित्य प्रकाशन अनुदान येवजणेसकयल युगवेद प्रकाशनान 2002 वर्सा उजवाडा हाडिल्लीं 'नवरंगी फूल (लोककाणी)' आनी 'भुरग्यांखातीर लोककाणयो' अशीं चार बालसाहित्याचीं पुस्तकां जयंतीच्या नांवार आसात. रस्कीन बॉण्ड हांचे बालकाणयेचो जयंतीन केल्लो कोंकणी अणकार 'सोरपाची करामत' ह्या नांवान नॅशनल बुक ट्रस्टान छापला आनी 1998 वर्सा हें पुस्तक उजवाडायलां. गोंयांतल्यो लोककाणयो, कर्नाटकांतल्यो लोककाणयो आनी केरळांतल्यो लोककाणयो संकलीत करून तातुंतल्यो वट्ट 52 लोककाणयो वेंचून काडून जयंतीन संपादीत केल्लें 'कोंकणी लोककाणयो' हें पुस्तक साहित्य अकादेमीन 2000 वर्सा उजवाडायलें आनी जयंती नायक हिच्या लोकवेदाच्या वावराक जशी कितें राष्ट्रीय मान्यताय दिली.

लोकवेदाकडेन आनी साहित्याकडेन संबंदीत असो वावर जयंतीन नित्यनेमान केला हातूंत दुबाव नाच्च. हो वावर मागीर लोकवेदाचें संकलन करून केल्लो आसूं, गोंयांतल्या म्हाविद्यालयांतल्या विद्यार्थ्यांक लोकवेदाविशीं मार्गदर्शन करून केल्लो आसूं, गोंय विद्यापिठांत व्याख्यानां दिवन केल्लो आसूं, परिसंवादांनी पेपर सादर करून केल्लो आसूं, वा कोंकणी भाशा मंडळाचे वावुरपी समितीर वेंचून येवन ताचेवरवीं केल्लो वावर आसूं, तेचपरी थॉमस स्टीवन्स कोंकणी केंद्राचे शिक्षणीक समितीचेर रावन केल्लो वावर आसूं वा साहित्य अकादेमीचे कोंकणीचे सल्लागार समितींत रावन केल्लो वावर आसूं. ह्याच वावराक लागून आनी कथालेखिका म्हूण कथालेखन चालू दवरपाच्या वावराक लागून, गोवा कोंकणी अकादेमीन, फर्मागुडयेवेल्या पी.ई.एस.म्हाविद्यालयाच्या पालवान 1999 वर्सा

फर्मागुडयेर युवागणांत घेतिल्ल्या दुसऱ्या युवा साहित्य संमेलनाची 'अध्यक्ष' म्हूण जयंतीक वेंचून काडलें आनी हो पदभार तिणें वेवस्थीत रितीन पेल्लो.

कथालेखिका जयंती नायक म्हूण जेन्ना कोंकणी वाचकवर्ग तिचेकडेन पळयता, तेन्ना ह्यो आतांमेरेन हांवें उल्लेख केल्ल्यो गजाली कुशीक काडून तिचेकडेन फक्कत 'कथालेखिका' म्हूण पळोवप तिचेर अन्याय करपासारकें जातलें. लेखकाची अणभव आनी अनुभुती घेवपाची तांक तांच्या पुराय व्यक्तिमत्वाचेर आदारून आसूंक फावो; न्हय तशीच ती आसता. ह्या अर्थान लोकवेद संशोधक जयंतीन कथालेखिका जयंतीक शास्त्रीय आनी चिकित्सक नदर दिल्या, जाल्यार कथालेखिका जयंतीन लोकवेद संशोधक जयंतीक निवेदनाचो आनी कथनाचो कलात्मक बाज दिला म्हणूंक जाय. देखीक, हांव तिची 1996 वर्साच्या 'कोंकणी' दिवाळी अंकांत आयिल्ली 'आदिती' ही कादंबरीका तुमचे मुखार दवरतां. श्री. राजू नायक हांणी संपादीत केल्ल्या आनी जयंती नायक हिणें पालवी संपादक म्हूण काम पळयल्ल्या 'कोंकणी'च्या ह्या अंकांत 'आदिती'ची वळख वाचकांक आरंबाकूच घडटा ती अशी, 'आदिती म्हळ्यार पृथ्वी, धर्तरी! ती ह्या विश्वाची महामाता. हे सृश्टीची जननी. आपल्या बाळकांचे असंख्य-अक्षम्य अपराध पोटांत घालून ती तांचेखातीर सदांच चंवरता, फुलता. हे महामायेची ही तांक फकत बायलमनशेमदीं आसा. तिचे हे अलौकीक स्त्री - शक्तिचो दिश्टावो घडोवपी जयंती नायक हिची आगळी-वेगळी कादंबरीका - आदिती.'

व्हड कश्टान आनी जिद्दीन एम्.ए., पीएच्.डी. मेरेन पदवी जोडिल्ले आनी बुद्द तेचपरी गुणवत्तेच्या बळार शाळा शिक्षिका धरून विद्यापिठांनी प्रोफेसर मेरेनचे पावंडे चडत वेल्या पदार पाविल्ले एके प्रोफेसर विदुशीची ही आत्मकथा वाचतना जांकां जयंती नायक पुराय वावरासयत आनी सबावासयत खबर आसा तांकां कथेंत मदीं मदीं जयंती नायक झळकल्यार कोणेंच अजाप करून घेवंचें न्हय. जयंतीनूय तें मनार घेवचें न्हय! हॉस्पिटलाचे खाटीर पिडेन वळवळटना कथालेखिकेचो हात हातांत घेवन तिका ''बाय...बाय.. तूं लग्न जा!'' म्हूण सांगपी कथालेखिकेची आवय, लेखिकेन काळजाच्या खोल खोल तळाक फकत ज्या एकाच पुरुशाची मूर्त जतनाक दवरिल्ली तो बुद्धिमान, तेजस्वी प्रोफेसर व्यासकुमार शर्मा, प्रो. व्यासाचें तेज कुसव्यांत रूजोवपाची लेखिकेची अतृप्त इत्सा जाका

लागून सत्यरूपांत अवतरिल्लो तो पीएच्.डी.चो विद्यार्थी अभी/अभिजीत, घरांत आयिल्ली लक्ष्मी कशें अभीवांगडा अदींमदीं येवपी शम्मी, दोंगरामाथ्यार आपलेच धुंदींत, आपल्यांत मग्न जावन बशिल्ल्या कर्ला गांवचो व्हड काळजाचो जानूदाद, ताची घरकान्न दुरपदी व्हनी, कथालेखिका संशोधक बाईक दाखोवपाक पाशाणाचो फ़ातर घेवन आयिल्लो भिकारो आनी ताचे गांवभाव, एकूच एक पात्र जावन मूळ कथेंत भरसल्ली कामावंती आनी बाळ, हांची काणी आनी 'हांव'चीं मुळां उस्तूंक, 'काल' सोदूंक शारांतल्यान गांवगिऱ्या वाठारांत, दोंगरार वचून राविल्ली कथालेखिका ह्या पात्रांसयत 'आदिती'त आयिल्ले नात्यांचे सहज संबंद, तीं नातीं ज्या प्रसंगांतल्यान, घटनांतल्यान जुळपाक पळयतात आनी जुळटा जुळटा तुट्टात तरीय एकमेकांच्या काळजांत घर करून रावतात, ती टाळपाक शक्य नाशिल्ली परिस्थिती जयंतीन आदितींत हाताळ्ळ्या. लोककाणयेक कथेंत भरसून आपल्या भाश्याक तशें पळोवंक गेल्यार स्त्री-शक्तीच्या तत्वगिन्यानाक नवो आयाम दिवपाचो जयंतीचो हो यत्न आगळोवेगळो देखून तोखणाय करपासारक्गो. मात, क़थेंत जेन्ना काणी सुरू जाता आनी ती बरोच वेळ चलता तेन्ना कथेकडलें लक्ष कुशीकं वचून काणयेंत रमलेबगर रावना. ते नदरेन मूळ कथेचेरच वाचप्यांचें लक्ष कशें केंद्रीत उरतलें हाचो विचार जयंतीन करपाची गरज आसा अशें दिसता. तशेंच 'कादंबरीका' म्हूण विकास करपाक भरपूर वाव आशिल्ली ही कथा जयंतीन कथेच्या पावंड्यार दवरिनासतना कादंबरिकेच्या पावंड्यार व्हरूंक जाय अशें सांगलेबगर रावंक जायना.

जयंतीक पात्रांचें सभावचित्रण विशेश करून मनोविश्लेशण भोव बरें जमलां म्हूण मुजरत सागूंक जाय. देखीक, प्रो. व्यासाची याद जाता, तेन्नाचो प्रसंग आनी भास. ''त्या दिसा स वर्साच्या कालखंडा उपरांत काळजाचें उत्खनन करून ताची मूर्त वयर काडिल्ली. पूण जिविताचे गर्भकुडींत प्रतिष्ठापना करपाख़ातीर भक्ती-भावनेन घडयिल्लें तें शिल्प आतां प्रदर्शनाची वस्त म्हण खंयच्याय संग्रहालयांत दवरूंक मन कशेंच तयार जायना जालें, देखून जे उर्बेन मूर्त वयर काडली, तशीच तिका परतून पुरली.''

बायलमनशेच्या विंगड विंगड रूपांमदीं आवयचें रूप आनी तिची शक्त महान कशी हाचेवेळें भाश्य काणयेरूपान करतना कथालेखिका बरयता, ''मागीर

कितें पळयतलो? देयीच्या सगळ्या आंगांक चिंवोच चिंवो फुटल्यो! तेंतल्यान पावस पडटा तश्यो दुदाच्यो धारो उसळोंक लागल्यो. त्या धारांनी बाळ चिप्प भिजलो. देयीच्या दुदाचे थेंबे बाळाच्या नाका-तोंडांत वयतांच तेच्या आंगांतलो कामदेव घुस्मटलो. तेणें माल्लो पळ आनी बाळाचें जालें ल्हान बाळशें..''

पात्राची ही अशी मुळभास जयंतीच्या 'अथांग' कथासंग्रहांतले पयलेच 'आसाडी' कथेंत चड प्रभावीपणान, खरें तर धाडसान फुडें सरता तें पळोवन बरें दिसता.

1989 उपरांत जयंतीन बरयिल्ल्या कथांतल्यो वेंचीक कथा 'अथांग' कथासंग्रहांत आस्पाविल्ल्यान आनी जयंतीन स्वता, ''अथांग' म्हणल्यार व्यापकताय! हे व्यापकतायेक ना अंत ना पार! ना थाव, ना सुगाव!' म्हाणिल्ल्यान, हांव ह्या अथांगाचो थाव घेवपाचो यत्न करचो ना.

जयंतीच्या कथाप्रवासाचो 'आदिती' रूपांतलो एक खांबो तुमकां दाखयले उपरांत आनीक एक म्हत्वाचो खांबो म्हूण हांव 'सातमाय' हे तिचे दिर्घकथेकडेन तुमकां व्हरतां. 1999 वर्साच्या 'कोंकणी'च्या वर्सुकी अंकांत ही दिर्घकथा आयल्या. रावजी देशपरबाची घरकान्न खेरीत रूपांतली सातमाय जावन, स्त्री शक्तीचें दुर्गेचें रूप कशी दाखयता ताचें आंगार कांटो हाडपी चित्रण हे कथेंत फुडले तरेन वाचपाक मेळटा :

''कसली सासाय? कसलें आयावपण? रस्त्या-वसत्या घरांत तीन बोडक्यो बायलो काळखाकुडींत जीण जगतात. त्या घराचेर सतीची सासाय आसा म्हणप?'' ह्या अस्वस्थ विचारासावन सुरू जाल्ली सत्यवतीच्या मनाची घोवाविशिंची आनी घराण्याविशींची तिरस्काराची भावना मुखार वाडीक लागता आनी ''शिगम्याच्या भोगावळींच्या नांवान स्वताच्याच गांवच्या आवय-भयणांची विटंबना करप, हो पराक्रम देशपरबांच्या घराण्याचो?....'' असो प्रस्न स्वताक करून सत्यवती थांबना, जाल्यार... ''मुक्ती मेळटली? काय मुक्ती करची पडटली? हय. करचीच पडटली'', हो विचार पक्को करता आनी निमणें 'व्हडल्या बाबावटेनच्या लोकांनी भावणींच्या लोकांक सड्डीक पेट घातला.' अशें जेन्ना सत्यवतीक कळटा, तेन्ना रणचंडिका जावन तरसाद घेवन ती सतयेमळार पावता. रावजी देशपरबाकूय बदनाशिल्लो सत्यवतीचो आवेश कथालेखिका जयंतीच्याच उतरांनी आयकूंया

– ''हे सातमायेचो सोपूत घेवन सांगतां, तुमीय आड आयल्यार आज तुमकांय कापतलीं हांव!.. हे सातमायेन सती वचून आपलें सत्व राखलें.. हांव सत्व राखून सती वतली!''

जयंतीच्या कथांनी आयिल्ली ही अशी बंडखोरी, चिंतनशीलताय, विचारांची तर्कशुध्दताय, तंत्राची शास्त्रशुध्दताय, कथावस्तूचें भक्कमपण, पात्रांचें मनोविश्लेषणात्मक चित्रण, 'लोक' कथेंत आस्पावन घेवपाची कलात्मक तांक आनी ताकाच लागून भाशेक लाबिल्लें 'मूळ'पण कथाकार म्हूण जयंतीक निश्चितच मुखार व्हरता. ज्येष्ठ कथाकार श्री. दामोदर मावजो हांच्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार '.. पूण आस्त आनी भिस्त दवपासारकें नवे लेखक वयर सरत आसात. जयंती नायक, वसंत सावंत हांच्या फाटोफाट प्रकाश पर्येकार, रामनाथ गावडे सारके तरणाटे लेखक पकदस्त पावलांनी कथेच्या मळार उदेल्यात. आनीकूय नांवां घेवपासारके लेखक बरयतात. तांणी लेखन ही साधना म्हूण मानून घेतली जाल्यार फुडाराचो हुसको करपाची गरज उरची ना.'

निमणें एकूच प्रस्न – आमच्या आयच्या सगल्या बरोवप्यांक खऱ्यांनीच लेखक जावपाचें आसा? खऱ्यांनीच कथाकार, कादंबरीकार, नाटककार, निबंधकार, कवी जावपाचें आसा? खऱ्यांनीच साहित्यकार जावपाचें आसा? काय फकत बरोवपीच म्हूण मिरोवपाचें आसा?

सर्वत्रांचें कल्याण जांव!

(कला अकादेमी, पणजी आनी कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय हांणी, जोडपालवान 19 मे 2002 दिसा घडोवन हाडिल्ल्या 'साहित्य प्रकाश' कार्यावळींत सादर केल्लें प्रपत्र.)



**2**

# गर्जन - एक सर्जन

*दामोदर मावजो*

खंयच्च्याय लेखकाची पयली साहित्यकृती वाचनाफुडें तागेली जात वळखूंक येता. बाय जयंती नायक हिगेली पयली कथा हांवें सुमार स वर्सां फाटीं वाचली तेन्नाच म्हाका होलमलें की उच्च दर्जाची एक जातिवंत साहित्यीक तकली वयर काडटा. पांच स वर्सांचो बाय जयंतील्या कथासाहित्याचो प्रवास आनी आयज उजवाडा येवपी 'गर्जन' हो कथा झेलो पळयलो जाल्यार स वर्सां पयलीं म्हाका जें होलमल्लें तें कितलें खरें आसलें हाची गवाय मेळटा.

सर्जनशील साहित्यिकाची तरा हेर बरोवप्यांपरस वेगळी आसता. दुसऱ्यालें दुख्ख पळोवन तो कळवळटा, समाजांतलीं धोंगापोंगा पळोवन तो तिडकता. जें जें श्रेश्ठ, पूज्य ताचेमुखार बागवता आनी लेखनांतल्यान अशे तरेन मांडटा की वाचपी अंतर्मुख जाता. क्रौंच पक्षांचो जोडो मोगमग्न आसतना अकस्मात एका पारध्यान मादयेचो वध केल्लो पळोवन रूशी वाल्मिकी न्हिन्नळ्ळो. पारध्याचो ताका इतलो राग आयलो की तिडकीभरशीं ताणें स्राप उच्चारलो. हो स्रापच एक कवन जावन भायर सल्लो आनी आपणां भितल्ली सर्जनशक्त ताका होलमली. तातुंतल्यानच फुडें रामायण ह्या म्हाकाव्याची निर्मणी जाली. अशा ह्या वाल्मिकीचो अंश ज्या आयच्च्या साहित्यिकांमदीं दिश्टी पडटा तातूंत जयंतीचो

नंबर खूब वयर सरता.

'परदुख्ख शितळ' अशी एक म्हण्णी आसा. पूण बाय जयंतीक ती लागू जायना. समाजांतलें दुख्ख पळोवन तें कळवळटा. भौसाची पिळोवणूक पळोवन तें तिडकता. अत्याचार सोंसपी लोकांआड खुबळटा आनी सत्यावटेन झगडूनय जे हारले तांचे खातीर खंतावता. हो समाज म्हळ्यार गोंयचो भौस, गांवांनी आनी खांची गोंयड्यांनी शिपडिल्लो भौस. अन्नाडीपणाक लागून नागवल्लो. भाटकारांनी चेंपणाक घाल्लो. चिड्डून मस्तून तळागाळाक पाविल्लो. हो भौस जयंतील्या कथांतल्यान उलयता. एकेपरीन जयंतीली कथा ही भौसाची कथा. ह्या कथांतल्यान भौसाच्यो कथा, भौसाचे उत्फके, ताचीं सुखदुखां, ताचे हावेस आनी ताका चांटये पावलाक येवपी निर्शेणी, हांचें वास्तव दर्शन आमकां घडटा.

जाका आमी भौजन समाज अशें आयज म्हण्टात तो हो भौस असो कित्याक जावंक पावलो? धवाड्यापरस वेगळो कित्याक उल्लो? निती–अनितीचीं बंदनां थंय सदळ कित्याक जालीं? धड श्रध्देपरस कुड्डी श्रध्दा कित्याक तांचेमदीं बळिश्ट जावंक पावली? दळदीर आनी निरक्षरताय तांचेमदीं पसवलीं कशी आनी कोणाक लागून? ह्या प्रस्नांची जाप बाय जयंतील्या कथांतल्यान मेळटा. तीय बी उतरांनी न्हय – आशयांतल्यान मेळटा.

'जैत' ही अशीच एक जैतिवंत कथा. भौसाचे श्रध्देचें लेंगीत भांडवल करपी भाटकार कसो भौसाचेर चेंपण घालता, तें बेस बरें हे कथेंत दाखयलां: भाटकाराल्या भाटांत बेताळाचें पेड. पेड बांदपी भक्त भौसांतले. पेडार पुजा करपी भावार्ती भौसांतले. पेडार बेताळाचे भेटेक म्हूण नाल्ल, पड, उजवात, दुडू भेटोवपीय भौसांतले लोक. पूण भेटवण सगली भाटकाराल्या बोल्सांत. आनी हो अन्याय पळोवन खुबळपी भौसांतलो एक सुशिक्षीत तरनाटो जेन्ना लोकांक खुबळावन भाटकाराल्या अन्यायाआड उबो रावता, तेन्ना दुडू आनी सत्ता हांच्या नाड्यार भाटकार कशेतरेन गांवच्या भौसाक फटयता ताची ही काणी. भाटकार देवाच्या पेडाक सरी घालता तेन्ना गांवकारांचे वतीन कुश्टा कोर्टांत केश घालता. भाटकार कामदारांक कामार घेवपाचें बंद करून तांची नाडी आंवुळटा. आनी एक दीस कुश्टा केश हारता. कामापरी काम गेलें, दिसवडो गेलो आनी केशूय हारले. 'सत्य पोट भरना जाल्यार असत्याक शरण वचप होच वेव्हार' अशें मानून गांवकार परतेय भाटकाराक शरण वतात. वयल्यान कुश्टाक लागून अपसरण आयलें म्हूण तागेलेंच

घर भायरें करतात. कुश्टा भ्रमिश्टावरी जाता. जांणी देवाचें देवपण राखून दवरपाखातीर भुरग्यांच्या तोंडांतलो पयसो देवाक वारयलो तांकांच पेडार वचूंक बंदी? आनी हें सगळें देव मोन्यांनी पळयता? दुडवांक आनी सत्येक भुलून फटकिऱ्यांक जैतिवंत करता तो देव कसलो? अशें म्हूण कुश्टा उठ्टा आनी अंवसर आयिल्लेवरी रातीच्या काळखांत हाताक मेळटात ते फातर-गुंडे पेडाचेर शेंवटून घुमटेची चेन्नड करता. मूर्त फोडटा. पेड मोडटा. लोक खुबळटात. कुश्टाक येतिश्ट पेट घालतात. पुलीस येतात. ताका धरून व्हरतात. पूण कुश्टाक दुख्ख ना. दुडवांक भुलिल्ल्या देवाक बुद्द शिकयली आनी फटकिऱ्यापणान केस जिखिल्ल्या परब भाटकाराचेर हार घाली हाची खोस ताका भोगता.

'जैत' ही एक उत्कृश्ट कथा. वयलेचाराक पळयल्यार 'सत्त्येफुडें शाणेंपण चलना' अशें लेखिकेक सांगपाचें आसा अशें दिसता. सत्यान चलता ताका निर्शेणी येता अशें तिका सुचोवपाचें आसा अशें दिसता. पूण तशें न्हय. समाजांत वेव्हारवादी लोकांचें बळगें चड आसा हें सत्य. समाजांत सत्यापरस असत्त्येचें बळगें व्हड आसा हेंच कोडू सत्य. पूण समाजांत कुश्टासारके ध्येयनिश्ट लोकूय आसात आनी ह्या लोकांक लागुनूच समाज फुडें फुडें वता ही वस्तुस्थिती आसा. लेखिकेन एक विचार हांगा मांडला. तो विचार जर वाचप्यांच्या काळजाचो थाव घेता जाल्यार त्या विचाराचें जैत जाता. कुश्टाक जरी हार आनी निर्शेणी सोंसची पडली तरी कुश्टान केलें तें योग्य केलें अशें वाचकाक दिसता. तातुंनच लेखिकेच्या पुरोगामी विचारांचें जैत आस्पावता.

### *जयंतीलीं पात्रां :*

जयंतीली खंयचीय कथा हातांत घेतली की वाचून पूर्ण केलेबगर ती सकयल दवरन दिसना. चार वळी वाचनाफुडें कथा पकड घेता, पुरायेन वाचूंक लायता. हो कथेचो गूण म्हळ्यार वाचनियता. जें जें वाचनीय तें तें बरें साहित्य. पूण तें सगलें श्रेश्ठ आनी सर्जनशीळ अशें म्हणूं नज. काणी हीय वाचनीय आसता. कॉमिक्स वाचनीय आसतात. पूण तें सर्जनशीळ नासता. काणयेंतलो म्हातारेचो पोर, जांव राजा-राणी, जांव सुपरमॅन, जांव फॅटम हांच्यो काणयो वाचूंक बऱ्यो लागतात. पूण वाचक त्या पात्राकडेन तादात्म्य जावंक पावनात. तांगेलें सुखदूख हें आमचें कशें आमकां दिसना. आनी जंय वाचक identify जायना, तें साहित्य वाचप्यांचेर

परिणाम करूंक शकना. बाय जयंतील्या कथांतलीं पात्रां हीं जितीं जिवीं तट्टटीत मनशां. दोळे उकते करून पळयल्यार आमचेच सरभोंवतणी दिश्टी पडटलीं. तांच्या गुणांदोशांसयत जयंतीन तीं आमचे मुखार दवरल्यांत.

रूपेस्त घोवाची कुरूप बायल आनी देखुनूच सवायशीण आसुनूय आंकवार उरिल्लें सगुणें, माड कवाथ्यांमदीं बायलेच्या मर्णाचें दुख्ख शेणोवन बशिल्लो चेडोदाद, अब्रूपरस पुताचो जीव व्हड लेखून इनासाक कूड विकूंक भायर सरिल्लें गंगा, पिशावांगडा लग्न करून दिल्लें शांती, हीं सगळीं पात्रां काल्पनीक आसुनूय जितीं जिवी कशीं.

उपासो हें पात्र अशेंच आमचेमदलें पूण वेगळें. बायल पळून गेल्या पुताक घोवाकडेन सांडून. शेजारी थोमणे मारतात. चाळयतात, हिणसायतात. उपासो तिडकता. रागाभरशीं गाराणें घालता - बायलेचें घट्टाण, निसंतान जावचें म्हण मागता. आनी राग निवळटकीर ताका येवजता, चूक होलमता. बायलेचें निसंतान जावप म्हळ्यार आपणाल्याच चेड्याक मर्ण येवप. ना, ना. तो परतेंय गाराणें घालता. येदोळचें गाराणें आपणाकूच बादूं म्हण पाराथता.

'गाराणें' कथेंतल्या उपाशाची ही अवतिकाय म्हळ्यारच एक कथा. थोड्या उतरांनी बांदिल्ली ही कथा लघुकथेचो एक आदर्श नमुनो म्हणूं येता.

'दुमयान' ही एक व्यक्तिचित्रात्मक कथा. कथा म्हूण उगडासांत उल्ली ना तरी व्यक्तिचित्रण म्हण बेस बरी. 'पिशाची बायल' म्हूण शांती तिगेले व्यथेसयत अशेंच उबें जालां.

*वातावरणनिर्मिती आनी भास :*

ह्या सगल्या कथांमदीं वातावरणनिर्मितीचे नदरेन दोळ्यांत भरता ती कथा म्हळ्यार 'हुंवार'. घोग्यांनी पावस आनी न्हंयचें वाडटें उदक हांकां लागून गांवांत हाहाकार पातळ्ळा. गांवचे साडेभावार्ती लोक देवाचो कोप जाला म्हूण चिंतेस्त जाल्यात. देवळांतल्या देवाचें मुखें चोरयेक गेलां, तेचखातीर देव खुबला ही भावना वाडीक लागल्या. हें सगलें वातावरण इतलें सुंदर तरेन उबें केलां की खीणभर आपुणूच ह्या वाठारांत पावलां अशें वाचप्याक दिसलेबगर रावना. 'पावसाच्या शेळावान शेकेल्ली विडीय सारकी पेटनासली' वा 'आसरूंक घेतिल्ल्या कांबळी-कापोदीक पावस कसोच आवरनाशिल्लो' असलीं वाक्यां वातावरण निर्मिती बेस

बरी फुलयतात.

वातावरण जेन्ना कथेच्या मुडाक पोशक उरता तेन्नाच कथा बरी फुलता. मुखें चोरिल्ल्याचो आळ भगताचेर येता. तेन्ना खुबळिल्लो गांवचो लोक देवळाकडेन येता. 'गर्भकुडींत पेट्टली लामणदिव्याची वातूय वाऱ्याच्या नेटासरशीं थरथर जावन पालवता काय जाली' हें वाक्य भगताच्या आनी सुकड्याच्या काळजाचोच थाव घेता. आनी वातावरणाकूय एकेपरीन थरथरी भरता.

जयंतीली भासूय अशीच. कथेच्या मुडाप्रमाण जाय थंय म्होवाळ जावपी, गरज थंय तीख जावपी. भाशेचेर प्रभुत्व मेळयलेबगर भास केळोवंक जमना आनी भाशेचेर प्रभुत्व मेळोवपाखातीर भास आनी भाशेच्यो बोली हांचोय अभ्यास करचो पडटा. जयंतीन कथांतल्यान बोलींचो बेस बरो उपेग केला. निवेदनाची भास आनी बोली भास हांचो मेळ सुसंगत जाल्ल्यानच कथेंतलीं पात्रां आनी वातावरण वास्तव जावंक पालव मेळ्ळा.

कथा म्हळ्यार एका वाद्यवृंदावरी. ऑर्केस्ट्राक सगळ्या वाद्यांची गरज आसता. सगळीं वाद्यां जेन्ना एकूच एकमुळो परिणाम सादपाखातीर एके विशिश्ट दिकेन, एकेच विशिश्ट गतीन, एका तालान एका सुरान फुडें वतात तेन्नाच कथा बरी सादता. जयंतीले कथेंत हो सुमेळ बरो सादला. पात्रां, भास, वातावरण, कथानक, प्रसंग एकामेकांक पुरक आशिल्ल्यान कथेची वाड ताळमेळ धरून जावंक पावल्या.

### *कांय कथांविशीं :*

कथा कशी आसची हाची देख दिवपासारकी कथा म्हळ्यार 'जैत'. तेभायर 'निमणें बंड' 'रगतबंबाळ पावलां', 'गाराणें' ह्योय कथा बऱ्यो सादल्यात.

'निमणें बंड' हे कथेंत सगुणें हे कुरूप बायलेक रूपो हो घोव फकत नांवाखातीर आसता. रूपो हो रूपेस्त आसता आनी सगुणें कुरूप जाल्ल्यान तो सदांकाळ दुसरेक घेवन पडिल्लो आसता आनी जाणूटो जातकीर मात तो मरपाखातीर म्हणूटात तसो सगुण्यागेर येता. महाबळेश्वर सैल हांगेले 'बाशिंगबळ' हे कथेची याद करून दिवपी हे कथेचो शेवट मात बंडखोरीन जाता. 'जैत' हे कथेंतूय प्रस्थापीत दुराचाऱ्यांआड बंडखोरी आसा.

समाजांतल्या दुराचाराआड खुबळून उठपी लेखक आपणाक एका विशिश्ट समाजाक बांदून दवरूंक शकना. बाय जयंती भौसाचे प्रश्न पोटतिडकीन मांडटनाच

भाटकार – मुंडकारांमदले आदले कौटुंबीक संबंद सांबाळूंक सोदता. दोन वर्गांमदल्या ह्या प्रतिनिधी मदींय मनीसपणाचें हें नातें पळोवंक मेळटा, तें 'नाते' हे कथेंत. हरशीं जयंतीली कथा गांवगिऱ्या लोकांमदलो संघर्श उक्तावपाचेर भर दिता. सोरो बेबदे दादले आनी परिस्थिती मुखार बागवल्ल्यो बायलो तें किंवाट्यान चितरायता. पूण बायलांमदींय वायट चालिच्यो बायलो आसतात त्यो दाखोवपाक तें अनमनना. देखुनूच 'गाराणें' कथेंत, जल्मल्ल्या पोराक घोवाल्या हड्ड्यार उडोवन परपुरूशावांगडा पळून वचपी गुणें तें तितल्याच किंवाट्यान उबें करता.

'भूक' ही एक जबरदस्त घटक जावन जयंतील्या कथांतल्यान येता. 'अशीय एक जीण' हे कथेंत तर भूक हें एक कथेंतलें पात्रच कशें दिसता. 'संप', 'दुमयान' ह्या कथांनीय 'भूक' खरसाणीन उबी रावता. भूक आनी दळदीर हांच्या रेवाट्यांत घुस्पल्लो भौस देवा–धर्माचो थातोमातो करपाक मात सदांच फुडें. ह्या समाजांत जी अंधश्रध्दा पसवता तिचेर बडी मारपाचें काम जयंतीन केलां.

पूण कांय वेळार अंधश्रध्देचेर उजवाड घालतां घालतां लेखिका अंधश्रध्देकूय पसवण दिता काय कितें असो दुबाव येता. देखीक, 'हुंवार' हे कथेंत देवाचें मुखें चोरयेक गेलां देखून गांवाक हुंवार बादला अशें लेखिका सुचीत करता अशें दिसता. 'राखणदार' हे कथेंत सोरोप ह्या राखणदाराचेर गांवच्या लोकांचो कितलो भावार्त तें दाखयलां आनी निमाणें खऱ्यांनीच हो राखणदार कसो राखण दिता तेंय भावार्तान दाखयलां. गांवच्या लोकांचो भावार्त कितलोय खर आसूं लेखकान ह्या भावार्तापासून अलिप्त रावंक जाय. वाचतल्यांनी असले अंधश्रध्देचेर पातयेवन रावचें अशी देख दिवंक जायना. लेखकाचे विचार पुरोगामी आसूंक जाय आनी तांचोच ताणें पुरस्कार करूंक जाय.

*अपेक्षा :*

'गर्जन' ह्या कथासंग्रहान आमच्यो अपेक्षा खूब वाडयल्यात आनी ताका लागून जयंतीचेर आशिल्ली जापसालदारकीय वाडल्या. जयंतीली कथा ही गोंयचे गांवगिरे जिणेची कथा. जे कथेचें मळ श्री. पुंडलीक नायक, श्री. एन. शिवदास हांचेसारक्या तांकिवंत लेखकांनी गिरेस्त करून सोडलां त्या मळार आपणाली घुडी उबारून आपणाखातीर खाशेली सुवात निर्माण करप म्हळ्यार फकाणाचें काम न्हय. हें काम बाय जयंतीन केलां.

1984 वर्सा जयंतीन.बरयिल्ली 'संप' ही कथा आनी हालीची 'रगतबंबाळ पावलां' ही कथा हातूंत तंत्राचे नदरेन फरक जाला. लेखिकेक गवसल्लो मंत्र तोच उरला. पूण तंत्राचो विकास जाला. जितलें जयंतीलें अणभवविश्व गिरेस्त आनी समृध्द जायत वतलें तशी तशी तागेली कथाय गिरेस्त जायत वतली. ताणें आपणालें मन उकतें दवरचें. जें जें नवें आनी बरें नदरेंत आसपावता तें तें वेंगायत, आपणायत फुडें वचचें. तितली तागेली प्रतिभा फुलत वतली. जयंतीन प्रतिभेचे सुवादीन जावचें न्हय. तंत्राचे फासकेंत घुसपता वा प्रतिभेचे सुवादीन जावन व्हांवता तो लेखक आपणाकूच शेण्टा. जो प्रभितेमुखार बागवनासतना संयमान लिखणी चलयता तोच प्रतिभासंपन्न साहित्यीक म्हूण फुडें पावता.

साहित्याची सेवा म्हळ्यार एक साधना. ती करीत रावपाची. तेखातीर अभ्यास जाय, वाचन जाय, समाजांतल्या प्रस्नांकडेन पळोवपाची नदर विशाळ करूंक जाय; मन उकतें दवरून मनीसपणाचो वेध घेवंक जाय. जयंतीकडल्यान ही साधना अखंड रितीन जातली अशी अपेक्षा बाळगितां.

'म्हजेंय एक पुस्तक आसचें' हें जयंतीलें सपन 'गर्जन' च्या रूपान साकार जाता. सपनां सगळेच पळयतात. पूण सगल्यांलींच सपनां साकार जायनात. ते नदरेन जयंती भाग्यवान. जिवितांतल्या ह्या जैताच्या पयल्या पावंड्यार ताका काळजाथावन परबीं.

(गर्जन-विमोचन सुवाळ्यादिसा केल्लें उलोवप जाग, एप्रिल 1989 ह्या अंकांत उजवाडाक आयलां.)

❑



# 3

# अथांग : लोकतत्वीय अधिशटानाचो थाव घेवंक लावपी कथाझेलो

*प्रकाश वजरीकार*

गोंय मुक्ती उपरांत, मुक्त अभिव्यक्तीक वाव मेळपाक लागलो आनी ताचोच बरो परिणाम म्हुणून कोंकणी साहित्य चारूय वाटांनी फुलाराक येवपाक लागलें. कथा कविता नाटक ह्या सारखिल्या साहित्य प्रकारांनी तर मोलाची भर पडपाक लागली. प्रादेशीकतायेचे संदर्भ घेवन गांवगिऱ्या वाठारांतलें जिवें तट्टटीत चित्र पुंडलीक नायक, एन्. शिवदास, महाबळेश्वर सैल, दामोदर मावजो ह्या सारखिल्या कथाकारांनीं आपल्या कथांनी चितारपाचो यत्न केलो. बायल साहित्यीकांमदीं मीना काकोडकार, जयमाला दणायत, शीला कोळंबकार, हेमा नायक सारखिल्या बरोवप्यांनी गोंयचो समाज आपल्या बायल विचारांसयत उबो केलो. मुखावेल्या काळांत कथा ह्या वाङमय प्रकारांत जयंती नायक, सुरेखा तोटेकार, ज्योती कुंकळकार ह्या सारकिल्ल्या बायल बरोवप्यांनी बरी भर घातिल्ली आसा.

जयंती नायक हांचो पयलो कथा झेलो (गर्जन) उजवाडाक आयलो तो 1989. ताचे उपरांत 12 वर्सांनी ताचो दुसरो झेलो आयला (अथांग). ही एका

तपाची वाट चलतना जयंतीन कथा हो साहित्यप्रकार नेमान सांबाळून दवरिल्लो आसा. वर्सान एक तरी कथा तें वेगवेगळ्या माध्यमांतल्यान कोंकणीक दीत आयलां. तेच वांगडा आपलो लोकवेद संशोधनाचो, संकलनाचो आनी प्रकाशनाचोय वावर तें करीत आसा. गर्जनांतलो गाज वा आवाज ते अथांगाचो थाव, घेतना आमकां वाचपी म्हुणून कितल्योश्योच गजाली दिसतात. 1984 ते 1987 च्या काळांतल्यो 16 कथा गर्जनांत आयल्यात. त्या कथांची बरोवप्याक मेळिल्ली स्फूर्तय वेगळी. बायलांचेर जावपी अन्याय, अत्याचार पळोवन वा सरभोंवतणचो विध्वंसक समाज पळोवन ह्या समाजाआड आवाज उठोवंकूच जाय ह्या हावेसान जयंतीन कथा हें माध्यम आपणायिल्लें. तेबगर ताका दुसरो पर्याय नाशिल्लो. ताचो खासा बायलांचे साहित्यीक, संघटनात्मक आनी कोंकणीचे भाशीक चळवळीकडेन लागींचो संबंद आशिल्लो. आदर्श आनी आव्हानां पेलपाच्या हावेसान आपल्यांतले सर्जनशीलतायेक वाट करून दितना जल्माक आयलो तो 'गर्जन' कथाझेलो. गर्जनांतली कथा तशी पयल्या चंवरांतली. होच चंवर नांवां रूपाक येवन आयज आमचे मुखार दिश्टी पडटा तो 'अथांग' हो झेलो.

समकालीन कोंकणी कथेंत वेगळेंपण दाखोवपी असो हो झेलो. आमोणें, केपेंच्या 'राजाई' प्रकाशनान हो उजवाडाक हाडला. ह्या प्रकाशनाचें हें दुसरें पुस्तक. तें महिला सबलीकरण वर्साच्या निमतान लोकांमुकार येता ही एक बरी गजाल. ते निमतान ह्या कथा झेल्याकडेन वेगळे नदरेन पळोवपाक मेळटलें. ह्या कथा झेल्यांत 17 कथा आस्पाविल्ल्यो आसात. 'बायल' हो ह्या कथा झेल्यांतलो मुखेल आनी प्रभाव घालपी असो विशय आसा. कथाकार म्हुणून जयंतीचो विचार करतना तें लोकवेदाचें अभ्यासकूय आसा हें मतींत घेवन तांच्या कथाविशीं विचार करचो पडटा. 'लोकश्रध्दा' हो ताच्या चडश्या कथांचो स्थायीभाव आसा. निराकाराक आकार दिवन अथांगाचो थाव घेवपी कथा ह्या झेल्यांत आस्पावल्यात. देव-देवस्की, खुंटी-मठी, भावार्थ, समज, अपसमज हांचे वांगडा जबर हावेस बाळगुपी आधुनीक युगांतली बायल, एकसुरें एकमुळें जिवित जगपी बायल, लोकतत्व सांबाळून दवरपाखातीर वावुरपी कश्टी - गाबीत समाजाचें चित्रण, हो कथाझेलो आमकां करून दिता.

'आसाडी' ही ह्या झेल्यांतली पयली कथा. चौदा वर्साच्या बाब येळपाकडेन सात वर्सांचें गोकूळ लग्न जाता आनी घन्नी जावन साठ वर्सां बाळ येळपाचें घर

सांबाळटा. आपल्या देरां-नण्णांक, तांच्या भुरग्यांक वयर काडटा. आपली कूस उजोवंक ना हें सत पचोवन, सर्वसमावशेक नदरेंतल्यान रूक्मीणी जावन घरांत आयिल्ली ही घन्नी, सगळ्यांक सांबाळटा. गांवचे येळीपपण सांबाळपी बाब येळीप. वर्सावळी प्रमाण गांवचें शेता-बांदावेलें देवस्पण बाब येळपान करचें आनी उजवाट्यार बाब येळपाचे चौकेवयलें गायन काणयेकारान सोंपोवचें ही रीत. मागीर पडटल्या पावसान लोकांनी कमाशी करची आसता. ह्या कार्यांत एकदां खंड पडटा. येळपाच्या देवस्पणान सुरू जावपी पावस पडना. लोक चिंतेस्त जातात. फूग आसता, अंदल्लो आसता, पूण पावस रकना हें पळोवन गाऱ्याण्यांचो प्रसंग येता. तेन्ना कळटा की काणयेकार आपले प्रथेप्रमाण रात जाली तरी थंय येवंक ना. आपलो चेडो बरो ना देखून आपूण वेळार देवस्पणाक पावलो ना ही जाप तो दिता, तेवेळार चेड्याच्या पिकासावान काणयेकार देवथळार सोरो पियेवन आयला हें घन्नीक कळ्ळ्या उपरांत घन्नी ताचेर तापता. त्या उतराक, ''भुरग्यांची चिंता तुका कितें कळटली गे व्हडली बो? ते खातीर आपले पोटांत पिकचें पडटा.'' हीं काणयेकारान उलयिल्लीं उतरां घन्नीच्या मर्मार घाव घालतात. पूण संतप्त जमाव काणयेकाराक मारता तेन्ना कळवळून घन्नी ताका सोडयता. आनी तेन्ना तिच्या काळजाचो बांद फुट्टा. तेवेळार तिच्या दुख्खांचो धरणी पिकोवपी खरो पावस पडटा, अशें बाब येळपाक दिसता. सर्वसमावेशक वृत्ती आनी वात्सल्य हें भुरगें जल्मा घालनासतनाय बायल मनशे मदीं आसता, ही जाणविकाय ही कथा करून दिता.

आत्मो परमात्मो हांचो संबंद, सहजीवन आनी सहअस्तीत्वाचेर आदारिल्ले मनीस जिणेचो गर्भीतार्थ दाखोवपी ताची 'ती' ही कथा आसा. वियोग, विरह, नियती हांचो संबंद दाखोवन सुकण्यांच्या प्रतिकांतल्यान तांच्या भावात्म संवादांतल्यान आनी संवेदनांतल्यान ही कथा आकाराक आयिल्ली आसा. भावूक मनीस जिणेंतलें सूख - दूख हे कथेंतल्यान पळयतना करूण रसाचो एक पाट मनाच्या तळाक व्हावंक लागता. मराठींत जी. ए. कुलकर्णीच्या कथांची याद करून दिवपी अशी ही कथा आसा. पूण प्रादेशीक संदर्भाक लागून ही कथा आपलें वेगळेंपण दाखयता.

'पानवळ' हे कथेंत गर्भभोग आनी कर्मभोगाचो पश्चाताप, ह्यो दोन गजाली आयिल्ल्यो आसात. पस्तीस वर्सांचे जुवान पिरायेर गांवठी वखदां दिवपाची (बापायची?) घरची वारी चलयताना 10-12 वर्सांचे सान चलयेचो वखदांच्या

निमतान भोग घेवंक अधाशिल्लो आनी पश्चातापान मागीर आत्महत्या करपी विश्वंभराचो 'हातगूण' सोडलो जाल्यार, जाचो जल्मूच म्हळ्यार गर्भ-भोगाची कथा. उतार वयांत गांवाभायर वर्सभर रावल्या उपरांत आपलो भुरगो म्हणून गांवाक दाखोवपी आनी उपरांत संवसाराक अंतरपी ताचो बापूय. उदय भेंब्रो हांच्या प्रसादाफूल हे कथेंत जशें चंपावती - दासभटाच्या अनैतीक पूण गरजेच्या संबंदांतल्यान जें गूढ उक्तें जाता तशें विश्वंभराच्या जल्माबाबतींत जायना. पूण विश्वंभराक प्रितीचेर केल्ले आगळीकेचो जबरदस्त पश्चाताप जो जाता, ताची परिणती हे कथेच्या शेवटाक आयल्या. आात्महत्या करून पानवळ भोगपी विश्वंभर हांगा दिसता.

'बाळसटी' ही ह्या कथा झेल्यांतली बऱ्यापैकी कथा आसा. आपले घरकान्नीक जाल्लें भुरगें धरना म्हण पांचव्या बाळटेरा वगतार बरम्याच्या जाग्यावयल्यान गोपी आंगवण करता. ''भिकू भगता सारकें हांवूय हे खेपेचें फळ तुज्या पांयार ओंपता. तेका दिल्लें तशें फुडले खेपेचें म्हाजें फळ मात म्हाका दी. तुज्या पांयांर हांव नाक घासता देवा!'' अशी होरावणी करून गोपी आपलें पांचवें जल्मल्लें आनी जितें उरिल्लें भुरगें उताराखातीर भक्ती-भावान आनी इच्छेन रोयणीकडेन पुरता. पूण ताची बायल त्याच बाळटेरा वगतार ह्या संवसाराक अंतरता. भ्रमीश्ट जाल्लो गोपी आपल्या भुरग्याक पुरिल्ले सुवातेर खोप बांदून रावता. पुरताना भुरग्याच्यो किळांची आनी मुखावेलो काळोख दाटावपी फुडार येवजून दिशाहीन जाल्लो भ्रमीश्ट गोपी थंय एका दिसा नाक आपटून मरता. असो दुख्खी शेवट हे कथेचो जाल्लो आसा. ब्रह्मो जो हे धर्तरेचो निर्मातो आसा ताचो कल्पकतायेन वापर हे कथेंत जयंतीन केल्लो आसा.

उध्वस्त जिणेचें अस्वस्थ करपी चित्रण ताचे 'भागरथ' हे कथेंत आयलां. प्रथमपुरूशी निवेदनान ही कथा चड लागींची केल्या. भागरतीच्या जिणेचे भोगणार क्रमीक पध्दतीन मांडपाक बरोवपी जैतीवंत थारल्या. विकती घेवन केल्ल्या लग्ना उपरांत घरचीं नातीं तुटत वतात आनी एकसुरेंपण तिच्या वांट्याक येता. जिणेंतली पोकळी कोणें तरी भरून काडची ह्या नात्यान भागरत नागूकडेन इश्टागत करता, तेन्ना तांच्या संबंदान गांवांतल्यो वावड्यो, सत्य परिस्थिती आनी आयकल्ल्यो गजाली हातूंत कथा निवेदिकेचें मन विचारांनी घुस्पता. तो घुस्पागोंदळ ही कथा बेस बरी आमचे मुखार मांडटा. हे कथेंत कथनाचो मोठो वांटो आसा.

सपन, मुमताज, फिलमीनमाना ह्या कथांनी समाजांतलें बुरशेंपण, राक्षसी

वृत्ती, भोगविलासी वृत्ती, अज्ञानांतल्यान आयिल्लो अहंकार, लोभी वृत्ती हांचें दर्शन घडटा. मुमताज हे कथेंत घरचे गरीबीक आनी सामाजिक बंदनाखातीर आनी मुखेल म्हणजे घोवाचे वासनेखातीर भुरगेपणांत मुमताजचेर लादिल्ल्या आवयपणाचें काळीज पिळपी दर्शन घडटा. कौमार्याक आवयपणाचो भेस चडोवन, जड जाल्ल्या मुमताजाची व्यथा, ही कथेंत प्रतिनिधीक स्वरूपांत आयल्या. तर पोसक्या पुतान भाटकार मेल्या उपरांत भाटकान्नीक घरा भायर काडटकच उपरांत तिच्या जिणेविशींचो कळवळो आनी शेजाऱ्यांच्या मनीसपणाचो दिश्टावो 'फिलमीनमाना' ही कथा घडयता. ह्या दोनूय कथांनी कथाकारान ती ती भास पात्रांच्या तोंडांत घालपाचो यत्न केला, खास करून मुमताज आनी निवेदिका हांच्या तोंडार हिन्दी भास - संवाद घालचे परस ते कोंकणींतूच आयिल्ले जाल्यार बरे जावपाचे. भास मुद्दाम पात्रांच्या तोंडांत घातली आनी ती त्या पात्रांक पुराय चितारूंक शकना जाल्यार ती अडेची दिसता. कथाकारान हो मोह मातसो उणो करूं येतालो हें हांव तांच्या कोंकणी भाशेच्या भांडाराच्या आदारानूच म्हण्टा. समाजांतलें राक्षसी प्रवृत्तीच्या दादल्यांचें चित्र पितारताना 'सपन' ही कथा साकार जाल्ली आसा. जिणेंतल्या भिरांकूळ अणभवांनी भियेल्ल्या बायलमनाचो थाव ही कथा घेवंक लायता. आनी हो समाज असो कसो? हो असो आसा काय? आशिल्लो काय? आनी हो समाज बदलतलो जाल्यार किदें करचें पडटलें अशे अंतर्मुख करूंक लावपी प्रश्न विचारपी ही कथा आसा. तर 'भाकीत' हे कथेंत नियतीचो खेळ आनी अंधश्रध्देचो मेळ बरोवप्यान घातला. ही कथा पत्रिका-मंगळ सारखिल्ल्यो गजाली हांचो मेळ घालता. वेगळ्याच अनपेक्षीत परिणामाकडेन ही कथा व्हरून आमकां सोडटा. आनी एकसुरें जिवीत जगपी वसुंधरेची चली आत्मघात करून वसुंधरेची जीण आनीकूय भकास करतना दिसता.

'तो येतलो देखून' हे कथेंत परंपरागत बायलेचें निमाणेकडेन जाल्लें सकारात्मक मन-परिवर्तन दाखोवन चली जल्म हो शांतादुर्गेचो अवतार आसा असो दिश्टावो आमकां घडयता.

'अथांग' ह्या कथा झेल्यांत बायल मनशेची दोन पध्दतीन प्रतिमा आमचे मुखार आयल्या. एक परंपरागत, श्रध्दाळू, भावार्थी, वंशाचो दिवो वाढीक लागचो म्हण तळमळपी आनी दुसरी मळब हावेसान झपाटलेली, एकसुरी व्यथीत जीण जगपी academician अशी. बदलत्या प्रवाहावांगडा वचपी, शिक्षणान, निर्धारान

प्रचलीत समाज वेवस्थेविरूध्द, वासनाशक्तीआड झगडपी आनी जैतिवंत जावपी बायल 'शारदाम्मा' सारके कथेंत पळोवंक मेळटा. लग्ना उपरांतच्या म्हयन्या भरांतूच आयिल्ल्या वैधत्वाचेर, रूढी परंपरा आनी प्रचलीत समाज वेवस्थे आड झगडून वाचन, चिंतन, लेखन आनी अध्यापनाच्या जोरार स्वतंत्र पूण एकटी यशस्वी जीण शारदाम्मा जगता. फुडारिल्ले विचार आपणायिल्ली ही कानडी शारदाम्मा पुर्नविवाहाचो विचार कित्याक करिना हो प्रस्न ही कथा उपस्थीत करता. कानडी समाजांतली वास्तवताय उबी करपाचो यत्न बरोवप्यान करताना वाठार, पात्रां, पत्रां हांचो उपेग केल्लो आसा. तर रमा ही कथा गर्भभोगाचेर वा गर्भदानाचेर आदारिल्ली आसा. 'चित्रा' कथेंतलो मुखेल विशय स्फूर्त, चित्र-स्फूर्त. आपल्या गुरूक शाळेंत शिकतना आपूण पुरायपणान वळखूंक शकलें ना, ताची स्फूर्त आपूण आशिल्लें हें कळ्ळ्या उपरांत खंती - अस्वस्थ जाल्ले कर्तुत्वी बायलेची प्रतिमा ही कथा उबी करता. एका चित्रकाराच्या जिणेचो जिवीत मंत्र आनी मरणयातना दाखोवपी ही भावूक कथा आसा. रमा, चित्रा, शारदाम्मा, काणी सिंड्रेलाची ह्यो कथा बायलेच्या जिवीताचेर, तांतल्या एकमुळेपणाचेर आनी एकसुरेपणाचेर उजवाड घालतात. सिंड्रेलाची मूळ काणी पचोवंक शकनाशिल्ली एल्सा टिचरिचें, आपूण बियांतूलच उरलां, आपले जिणेंतल्या राजकुंवरा वांगडा आपलें लग्न जावंक पावलें ना, तो दुख्खी खंती व्यसनी जावन ह्या संवसाराक अंतरपाक पावला, म्हण मानसीक संतलून इबाडटा. 40 वर्सांची पिराय हुंपिल्ल्या 'एल्सा'ची मनोव्यथा मांडपी ही कथा. हे कथेचो शेवट म्हळ्यार भावनांचो उद्रेक. एक आशय संपन्न अभिव्यक्ती! सिंड्रेलाचे मूळ कथेक फांटो दिवन आपूण भोगिल्लें सिंड्रेला एल्सा पितारता. भुरग्यांक तेंच खरें चित्र म्हणपाक फोर्सार करता. सद्सद्विवेक बुध्द होगडावन बसता. आपल्या राजकुंवराच्या मर्णाच्यो घांटी आयकून सर्वस्व होगडायल्ल्या एल्साचो काळजांतलो घणघण, इगर्जेतल्या मर्णाच्या घाटींपरसूय खूप वेळ वाचप्यांच्या मना-काळजांत निनादत रावता. आकर्शक सुरवात आनी परिणामकारक शेवट हें हे कथेचें खाशेलेंपण आसा.

'अंवसर' आनी 'बसवो' ह्यो ह्या झेल्यांतल्यो निमाण्यो दोन आशयसंपन्न आनी विशयाची व्यापकताय दाखोवपी कथा आसात. लोकश्रध्दा वा अन्नश्रध्दा, उदात्त भावना, लोकतत्वीय अधिश्टान मांडपी ह्यो कथा आसात. दिर्घ कथा प्रकारांत मोडूं येता असल्यो ह्यो कथा आसात. 'अंवसर' ह्या विशयाचेर कोंकणी

कथा 'गळसरी'च्या रूपान एन्. शिवदासान आमकां दिल्या. गळसरींतलें कथासूत्र आनी अंवसराचें मर्म वेगळें. जयंती नायकाच्या ह्या 'अंवसरान' एक आगळो वेगळो विशय आशय संपन्नतायेन मांडला. लोकमांड आनी लोकमान सांबाळून दवरपापासतचो संघर्श एकीकडेन, तर दुसरेकडेन नवे पिळगेमदीं जाल्ली सत्वाची, नीज अधिकारांची जाणविकाय. जमीन-जामो हांची वांटणी, अधिकार - म्हाजन - आंतरजातीय लग्नाखातीर उप्राशिल्लो लोकमांडावेलो आंतरीक संघर्श. स्वातंत्र्य, समता, बंधुत्व आनी अधिकारावांगडाच कर्तव्याची आनी अस्तित्वाची जाणविकाय जाल्लो भौस हे कथेंत सुक्ष्मरितीन आयिल्लो आसा. वर्सावळीचो अधिकाराचो अंवसर आपले पुर्वापार कुडीर येता, ताका नव्या विचारांचे आनी संघर्शभावनेन झपाटिल्ले तरनाटे बंदिस्त करपाचो निर्फळ यत्न करतात. शेवटाक जे खातीर बंदिवास तोडून शंभु जोतकार चौकार पावता, तें भूतनाथाचें - शंभु जोतकाराच्या अधिकाराचें तरंग भीवा मेस्ताच्या खांदार आसता. नवो भार आयिल्लो आसता, तेन्ना आपलें अस्तीत्व होगडावलें हे भावनेन तो व्यथीत जाता. श्रंध्देचेर आदारिल्ले हे कथेंतलो तरण्या भुजांचो संघर्श एका नव्या विचाराची सुरवात करून दिवपी आसा, मुळां सोदपी आसा. दिर्घ कथेकडेन वचपी हे कथेंत बरेंच कथानक आसा. पात्रां, संघर्श, वातावरण परिस्थिती सुचक अशी सोबसारकी उबी केल्ली आसा. बदलत्या वाऱ्याची दिशा दाखोवपी ही कथा आसा.

'बसवो' ही कथा एक विशाल जिवनपट दाखोवपी थारल्या. गांवचो कारकी जाल्ल्या ठाकरांच्या मुळावणाची खबर सांगून ताच्या तळाची खबर सांगपी ही कथा. गोयींद ठाकराच्या, किरिस्णाच्या पिळगेच्या स पिळग्यांचो उल्लेख घेवन गांवांत वर्सावळीक, नांवारूपाक, कर्तव्याक जागे राविल्ल्या समुहाचे प्रतिनिधीक चित्रण ही कथा करता. गांवचे वेवस्थेंत गोवींद ठाकराचे घरवडीक आनी पर्यायान गोवींद ठाकराक दिल्लो मान. तो सांबाळपाचो हावेस. कर्तव्य म्हुणून जगताना गोयींदाच्या मनाक जाल्ल्यो वेदना आमकां दिसतात. नियतीचो खेळ ही कथा वेगळ्याच मोडणार व्हरून पावयता. शेळपेकान्नीचे जात्रेक केन्ना न्हय ते भाड्याची पिकअप करून गेल्ल्या ठाकर वाड्यावयल्या लोकांक परतीचे वाटेर जबर अपघात घडून 12/13 मडीं पातळतात. तातूंत गोयीदांचो पूत, सून, नातू असो वंशूच काबार जाता. ते आदीं ताचे बैलूय विजेच्या सरयांचो स्पर्श जावन मेल्ले आसतात. वर्सावळीचो बसवो खेळयतलो जाल्यार बैल ना, परंपरा मुखार व्हरपी वंश उरूंक

ना. ज्या थळांत ताची कुळी वसणावळीक आयल्या त्या थळाची बसवोकार ही भावना ताच्या काळजांत घट बशिल्ली आसता. देखून गायेच्या पाडकाक टांक बांदून बसवो म्हुणून नाचोवपाक तो पयलीं कसोच राजी जायना पूण उपरांत परिस्थिती खातीर, वारी मुखार व्हरपाखातीर तो पाडकाक बसवो करूंक मुखार सरता. तो आदीं पुरूसाक मान दिवपाक पराजीत जावन त्या पाडकाक ओडीत व्हरता, वारी चलोवपाक. 'वंश' चलोवपाचो हावेस निर्वंश जाल्ल्याची जाणविकाय, गांवच्या लोकतत्वाची राखण आनी नियतीची विपरीत रीत ह्या सारखिल्ल्या घटकांनी ही कथा अदीक परिणामकारक केल्या. आनीक एक गजाल म्हळ्यार, हे कथेंतली 'ठाकरांची भास' कोंकणी कथेक पयलेच फावट मेळ्ळ्या. विशय तसो नवोच. स पिळग्यांचो आटाप दाखोवपी. गावडी, कुणबी, धनगर, वेळीप ह्या समाजावांगडा ठाकर समाजाचेर अभ्यास करपाक लावपी ही कथा. ह्या कथा झेल्यांत चडशेकडेन समाज दिसता तो वेळीप. ह्या समाजाकडेन बरोवप्याचें चड लागींचें नातें आसत घडये.

परंपरांगत संस्कारांनी, रिती-रिवाजांनी, श्रध्देन बांदिल्ल्या मनाचो थाव अथांगांत घेवंक मेळटा. देव-देवस्की चालू उरची हो हावेस ह्या कथांनी दिसता. 'वंशाचो दिवो' ही संकल्पना जायत्या कथांनी प्रभावीपणान आयल्या, ती ह्या परंपरागत संस्कारांचो वांटो म्हुणून. गांव, मेळ, चौखांबे, म्हालघरां, गाराणीं, आंगवणी, सांगणी हांचो संदर्भ जायतेकडेन आयला. उतराक पाळो दिवपी आनी सत्याक जागपी भोळो, भावार्ती समाज आमकां ह्या झेल्यांत दिसता. आपले परंपरेचे, आपल्या सांस्कृतीक मुल्यांचें भान दवरूनच आधुनिकतायेक पाळो दिवपाचें काम जयंतीन कथाकार म्हुणून ह्या झेल्यांत केल्लें आसा. भाकीत सारखिल्ले कथेंत जरी अंधश्रध्देचो, नियतीचो आनी योगायोगाचो संबंद आयलो तरी तो फकत नशिबाचो खेळ म्हुणून, आमी आपणावंक जाय.

जयंतीच्या ह्या कथाझेल्यांत मूळ कथांनी खुपशी उपकथानकां येतात. ती आशयाक आनी विशयाक धरूनूच. खुपश्यो लोकाकाणयो, लोक समजुतींचें आमकां दर्शन घडटा, तें जयंतीच्या लोकवेद-लोकसंस्कृतीच्यासंशोधनात्मक पिंडाक लागून आनी समाजाखातीरूय. कोंकणी लोकसंस्कृतीचो जसो शब्द-कोश हो कथा झेलो आमच मुखार दवरता. कथाकाराची निवेदन शैली ही सामान्यांतल्या सामान्य वाचप्यांक आकर्शीत करपी. लोकाभिमूख अशी. भाशेच्या

नादशास्त्रीय नदरेंतल्यान कांय आडवाद सोडले तर मांडावळ बरी जाल्या.

संस्कृती अभ्यासाक वाव दिवपी असो हो कथाझेलो आसा. मुळांकडेन व्हरताना समकालीन समाजाक आधुनिकतायेकडेनूय व्हरपाचो यत्न हो कथाझेलो करता.

आनी एक गजाल म्हाका ह्या कथाझेल्यांत जाणवली ती म्हळ्यार, सैमाचो संबंद आनी कथानक हांचो बरो मेळ बरोवप्यान घातला. पावसाचींच तरेकवार रूपां आशयाक धरून कांय कथांनी आयल्यांत. ती वाचनीय थारल्यांत.

बारा वर्सां पयलींचो जयंतीचो 'गर्जन' ताचें मुखपृश्ट आनी 'अथांग' चो थाव घेवंक लावपी मुखपृश्ट, हेंवूय श्रीधर कामत बांबोळकार हांचें. दोनूय मुखपृश्टां सुचक तशींच अर्थपुर्ण. बारा वर्सां पयलींचो आवेश-आवाज, अन्यायाआड उठयल्ली मूठ आतां अंर्तमूख करपी जाल्या. हें बरोवप्याची विकासाची वाढ सुचयता. दोनूय पुस्तकांच्या मलपृश्टांचेर जयंतीचे नदरेचो थाव घेवंक मेळटा. गर्जनातली नदर अथांगान व्यापक केल्या. अथांगांत तशें स्वता जयंतीन आपल्याक प्रस्तावनेंतल्यान उक्तायलां. पूण 'गर्जना'न भौ. रवींद्र केळेकार हांणी प्रस्तावनेंत म्हटलां तें खूब म्हत्वाचें आनी अर्थपूर्णय आसा. रवींद्रबाब म्हण्टात '...पात्रांच्या जिवितांत अदीक खोलायेन भितर देंवतलें तेन्ना म्हाका खातरी आसा तागेल्या ह्याच एका एका पात्रांत एक एक नवलकथा एक एक कादंबरी दिसतली...' जयंतीन आमच्यो अपेक्षा खूब वाडयल्यात आनी कोंकणी साहित्याच्या फुडाराविशीं आपली श्रध्दा घट केल्या अशें रवींद्रबाब म्हण्टात.

जिणेच्या अथांगत्वाचो सोद घेवपाची नदर आनी जिज्ञासा आपलेमदीं उत्पन्न करपी रमेश वेळुस्कारांक हो 'अथांग' जयंतीन ओंपला. पुस्तकाचे 14x22 से.मी. चे फास्केभायर व्हचून वाचप्यांक अथांगाचो दिश्टावो घडयतनाच जयंती नायकाकडल्यान एक विस्तृत जीण-पटाची कादंबरीची मागणी करपी हो कथा झेलो आसा.

(2 फेब्रुवारी 2002 - 'अथांग' लोकार्पण दिसा केल्लें उलोवप 10 फेब्रुवारी 2002 दिसा सुनापरात - दिसाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयलां.)



4

# अथांगांतलो कल्पना विलास : वास्तव आनी कल्पीत !

*प्रियदर्शिनी तडकोडकार*

कल्पना विलास होच मुळांत कल्पिताचेर आदारून आशिल्ल्यान तांतलें जग, मनशां, जीण ही त्याच कल्पीत जगांतलीं आसतात. पूण तांकां वास्तव जिणेचो वा सताचो आदार आसता. तशेंच तें सगळें वास्तव जिणेचें आभासात्मक रूप आसता. तांकां कल्पीत / आभास म्हणप म्हळ्यार पंचायत, ना म्हणप जाल्यारय तातूंत आशिल्लीं मनशां, प्रसंग प्रत्यक्ष सोदल्यार मेळतितच अशी आस्त ना. पूण ह्या अणभवांनीच तर साहित्यकृती आकारता. ते भायर "The best early training for a writer is an unhappy childhood" हें हेंमिंग्वेचें मत्त म्हज्या ह्या विचारांक फाटबळ दिताच. सांगाताच डब्लू. बी येट्साचें 'बरोवपी पयलीं वीस वर्सां जें जिवीत जियेता तांतल्यानच ताचें मुखावेलें बरोवप जाता' हें मत्त म्हजें बळगें वाडयता आनी वेल्या वयर पळयतकच विरोधी दिसपी हो माथाळो आनी (तांतल्यान आयोजकांक अपेक्षीत आशिल्ल्यो) म्हज्यो प्रतिक्रिया हांच्यो गांठी सुटत वतात.

*'अथांगांतलो कल्पना विलास : कितलो वास्तव कितलो कल्पीत'* ह्या

शिर्शकाच्या निमतान ह्या अणभवांची खोलाय आनी कलात्मकताय नियाळताना तातूंत आयिल्ली / चित्रायलेली जीण, तांतलीं मनशां वा पात्रां, तांचीं सुखां-दुखां, संवेदना, तांचे जिणेंतले अणभव ह्या सगळ्यांचो ह्या विशयाच्या फांटभुंयेचेर नियाळ जांव येता, हें होलमलें. हे म्हजे समजुतीचेर वा विशयाच्या आकलनाचेर आदारून म्हजीं कांय मत्तां ह्या लेखांत मांडपाचो हो यत्न.

पिळग्यांनी चलत आयिल्ल्यो रिती आनी भोगावळी चुकल्यार ह्या मनशांक आपणालो आदारच तुटल्या सारको दिसता. ('बसवो') ताचे जिणेंतलो पुराय अर्थच ना जावन वता. ताका लागून ताचे जिणेंत निजाचें (खाजगी) अशें कांयच नासता. निजाचीं मुल्यां आनी समाजीक मुल्यां हांचे मदीं हीं मनशां व्हडलोसो भेद करिनात. (आसाडी) तांच्यांतलीं कांय जाणां हे संस्कृतीविशीं, संस्कारांविशीं व्हडलिशीं खोशी नात देखून बंड करपाचो यत्न करतात, पूण व्हडलिशीं यशस्वी जायनात. ('बसवो'तलो येसको बसका घेता आनी 'आसाडी'तलो इट्टल काणयेकार सोरो पिवन येता तो प्रसंग) हाचें कारण हीं बंडखोर पात्रां ह्या मुळाव्या मुल्यांकच धरून विरोध करतात. ताका लागून तांच्या बंडखोरींतल्यान एके तरेन अशें सुचयतात की ह्या मुळाव्या मुल्यांमदीं शाश्वत अशें तत्व आसा तें सोडून दिल्यार समाजाचें हीत जशें जावचें ना, तशें मनीस जिविताकय कांयच अर्थ उरचो ना.

जयंतीची आनी म्हजी पयली वळख 'गर्जन' ह्या ताच्या झेल्यांतल्यान जाल्लीं. तातुंतल्यो चडश्यो गांवगिरे जिणेचे फांटभुंयेवेल्यो व्यक्तिरेखा - बायलांच्यो, ज्यो म्हज्या काळजांत रावल्यो आनी जयंती म्हळ्यार 'गर्जन' अशें समीकरण म्हजे पुरतें तयार जालें. अशें कित्याक तर ह्या झेल्यांतल्या कथांचें अणभवविश्व हें वास्तवाच्या संदर्भांतल्यान आयिल्लें. बायलेचे तांकिचो आविश्कार थंय चड प्रभाविपणान जाल्लो म्हाका जाणवतालो. घडये तिचेकडेन पळोवपाचो लेखिकेचो दृश्टीकोन हो feministic प्रभावांतल्यान घडिल्लो आसूं येत. कांय प्रमाणांत हातुंतली बायल समाजीक आनी अर्थीक नदरेनय बरिचशी स्वतंत्र आशिल्ली. विरोध करपी अशी ती बायल आसुनय तिचें हें चित्रण कांयशें अडेचें वा आव हाडिल्लें कशें दिसतालें. तरीकूय तिचें एकसुरेपण तिका सैमानय दिल्ली दुर्बळकाय, तिची जावपी उपेक्षा आनी ताका लागून तिच्या मनाचो जाल्लो संताप आनी असहायता हे मनोवस्थेचें जयंतीन केल्लें सुचक चित्रण म्हाका दिसतालें.

उप्रांत जयंतीची कथालेखिका ही प्रतिमा धुसर जायत गेली आनी लोकवेदाची संशोधक, अभ्यासक हीच प्रतिमा चड उठून दिसपाक लागली. आतां आतांशी तर तिचे मदली कथाकार कुशीकच पडल्या/पडटा अशें दिसपाक लागतानाच ह्या लोकवेदाच्या अभ्यासाचे फाटभुंयेचेर बरयिल्ल्यो तिच्यो कांय कथा हांवें नेमाळ्यांनी, दिवाळी अंकांनी वाचल्यो (सातमाय, आदिती बी) आनी आयजय तिचे मदली कथाकार निखटीच जागी ना जाल्यार पुराय तांकी सयत आनी परिपक्वतायेन (maturity) ती तिचेभितर वावुरता हाची गवाय दिवपी 'अथांग' हो झेलो उजवाडा आयलो. 'गर्जना' उप्रांत 12 वर्सांच्या काळांत जें लेखन लोकवेदा संबंदान जातालें ताचो प्रभाव ह्या काळांतल्या कथांचेर आनी तिच्या चिंतनाचेर जाल्या बगर कसो रावत? ते भायर आर्विल्ल्या साहित्याचें उगतें जाल्लें व्यापक विश्व, तातुंतल्यान मूर्त जाल्ल्यो कलेच्यो जाणविकायो आनी जिविताचे जाणविकायेचे संस्कार, आपणाल्या व्यक्तिमत्वाच्या जडण घडणिच्यो, कंवळे पिरायेवेल्या आयुश्यांतल्या अणभवांचें संचीत, लोकसंस्कृतिचे संस्कार आनी मुखेल म्हळ्यार आपणालो स्वतंत्र प्रतिभाधर्म ह्या साबारांतल्यान आपल्या साहित्याची एक खासा सुवात कोंकणी कथेच्या मळार जयंतीन तयार केल्या हे विशीं अतिताय ना.

कोंकणी कथेच्या दायजाकडेन, चड करून तिच्या गांवगिऱ्या वाठारावेले कथेकडेन जयंतीचो संबंद कसो आसा हेंवूय हे सुवातेर पळोवप समा जातलें. कोंकणींतल्या अस्तुरी कथाकारांनी वेगळ्या वेगळ्या विशयावेल्यो कथा जरी बरयल्यो तरी कांय कथांचे आडवाद सोडल्यार चडशो कथा ह्यो शारी वातावरणांत रावपी मनशांच्यो वा गांवगिऱ्या वाठारांतल्या भाटकारांचो जुलूम जबरदस्ती, दळिद्र, झगडीं, शिकप, अज्ञीनपण हांचेंच चित्रण करपी अशो. त्या कारणान अथांगांतल्या बायलमनशांचीं चित्रणां हीं विशेश रूपान भावतात. हातूंत भर घालपाक लोक-संस्कृतायेची फाटभूंय लाबिल्लीं कांय चित्रणांय आसात. जयंतीचे कथेची विशेशताय म्हळ्यार ही कथा व्यक्तिचित्रांच्या मनांत रिगून बशिल्ली आसा. (देखीक, 'ती', 'चित्रा', 'काणी सिंड्रेलाची') ह्या कथांनी जें घडटा वा थंयचीं मनशां येतात तांचेकडेन जयंती पळयताना तातुंतल्याच खंयच्या तरी व्यक्तिरेखेच्या मनांतल्यान पळयत आसता. देखून 'आसाडी'तली घन्नी विठ्ठलाच्या उतरांनी निण्णेवन आनी ताणें केल्ल्या आपणाल्या आवयपणाचो अपमान सोसूनय ताका

वाटावंक धांवता. तिका पळयताना बाब येळपाक 'माथ्यावेल्या मळबांत भल्लेली फुगूच तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां जावन धन्नीर घसघसता' अशें दिसता. आनी 'देवस्पणाक पावस पडलोना जाल्यार कितें जालें?...अख्खी धन्नी पिकोवपाची तांक हियेच्या ह्या दुकांनी आसा!' (पा. 15) अशें ताका दिसता. हे कथेंतल्यान आनीकय एक दिसता तें अशें: जंय अणभवांचे संस्कार जातात, जंय जीण आखीर जियेतात, थंयच जयंतीबाय प्रवेश करता तेन्ना तिचेकडेन तें पुरायेन एकरूप आनी समरस जाता. ते खातीर आपणालें व्यक्तिमत्वय तें तातूंत विरगळायता देखून तांच्या कथांतलें चित्रण एकदम जिवें आनी परिणामकारक जाता, तशेंच तें वास्तवय जाता. हातुंतलीं मनशां तांचेर आयिल्ल्या प्रसंगा वेळार जे तरेन react जातात, तें वास्तव जिणेचेंच कलात्मक रूप थारता. जयंतीची ही तांक खेरीतच! हे तांकीक लागून ताच्या कथांनी विलक्षण (आकांताचो) संयम दिश्टी पडटा आनी हाकाच लागून कथेंतल्या प्रसंगांचेर भाश्य करप वा वाचप्यांच्यो भावना फुलोवप असलें ताच्या कथांनी चडशें जायना. एके वाटेन अशे रितीन व्यक्तिरेखेकडेन एकरूप जाल्लें आसतनाच दुसरे वाटेन तें अलिप्ततायेनच कथा बरयता. 'ती' तल्या साळूचें चित्रण हाची बरी देख म्हूण घेवं येता.

जयंतीच्या कथांचो सहजतायेन नदरेंत भरपी एक विशेश म्हळ्यार ह्यो कथा अस्तुरी नायिका प्रधान आसात. ही अस्तुरी ताणें आपल्या भोंवतणच्या समाजीक परिस्थितींत तिच्या वांट्याक येवपी वेगळ्या वेगळ्या दुखांच्या अणभवांचें, तांचे मुखार उबे रावपी प्रस्नांचें चित्रण करपी अशीच चितारल्या. तिच्या चित्रणांतल्यान गोंयच्या अस्तुरेची कथा, तिचीं सपनां, आकांक्षा, उर्बा उक्तावपाचो आनी तिच्या मनाचो पोड उक्तावपाचो यत्न लेखिकेन केला. ते नदरेन आपणाली ही नायिका जयंतीन बऱ्याच धिटपणान रंगयल्याशी दिसता. 'शारदाम्मा'तली शारदा, घोवाल्या मरणाचें दूख्ख काळजांत दवरूनय तातुंतल्यान भायर सरपाचो मार्ग सोदता आनी जिणेंत स्वाभिमानान जियेवपाचें ध्येय थाटायता. निश्चितायेन अशो जायत्यो शारदाम्मा आयच्या समाजांत आसतल्यो. आपणाल्या ह्या ध्येयामेरेन ती पाविल्ल्यानच मंजुळाक आपणाल्या हातांचो समर्थ तेंको ती दिवंक पावता. वा 'भाकीता'तल्या पुर्वार्धांतली वसुंधरा, 'फिलमीनमाना'तली फिलमीनमाना बी. तांचेर आयिल्ल्या प्रसंगांत तांचें वागणें वास्तव आनी न्यायाचेंच दिसता. हीं सगळीं मनशां समाजांत जशाक तशीं सोदूंक गेल्यार मेळचीं नात हें तितलेंच सत. आनी

588

साहित्यांतलो यथार्थ म्हणतात तो होच हेंवूय तितलेंच खरें.

अथांगांतल्यो वट्ट 17 कथा शारी आनी गांवगिरे जिणेंतले अणभव उक्तायतना केन्ना व्यक्ती चित्रणात्मक जाल्यार, केन्ना मानविकरण (personification) केल्ल्योय आसात. हे कथेंतलीं व्यक्ती चित्रणां म्हळ्यार समाजांत वावुरपी मनशां, जीं जिणेच्या प्रवासांत जयंतीक मेळिल्लीं. वेगळ्या प्रसंगार, वेगळ्या मळार, वेगळ्या वेळार, वेगळ्या निमतांनी, जाल्यार कांय तिच्या सरभोंवतणी अखंड वावुरपी. अशा ह्या साबारांक तिणें आपल्या कथाविश्वांत आसपावन घेतलां हें पळयतना ते ते कथेची निर्मिती प्रक्रिया कशी घडली आसत हे विशीं येवजिताना वास्तवाची नाळ कलात्मक आभासाकडेन कशी जुळटा हें स्पश्ट जायत वता. तिच्या अणभवांची वास्तवताय पारखुपाखातीर हे कथेंत जयंतीन वास्तव आनी प्रत्यक्ष तातुंतल्यान कितलें घेतलां, ताचेर कल्पनेचो संस्कार कितलो केला वा नकळटा जाला, कथेच्या वेगवेगळ्या घटकांची सरपळी कशी जाल्या, म्हळ्यार कथानक, व्यक्तीरेखा, तांचें वेगवेगळें पेणें, कथेचो आरंब आनी अखेर, कथेच्या साबार घटकांतलो चड प्रभावी घटक खंयचो आनी ह्या सगळ्याच मांडावळींतलीं कलात्मकताय हाचेर भासाभास करूं येता. देखीक 'बसवो' कथा घेवं येता.

हें कथेचें कथानक तशें सादेंच. स पिळग्यां आदीं गवळ दोंगरा पलतडच्या देवूळ गांवाक वसोवपी किरिस्ण ठाकर आनी ताचे वंशज हांच्या जिविताची ही फाणी. बांदे गांवावेल्या मुसलमानांच्या घुरयेक भिवून थंयच्यान पळून गोंयां आयिल्ल्या किरिस्ण ठाकराक शेळपेकान्निच्या गांवकार बुदवंतांनी आपयिल्ले सभेक तांची काकुळत येवन तांकां थंय रावपाक आसरो दिलो. तांका गांवचो कारकी केलो. पूण एके अटीर. "शेळपेकान्नीच्या पांयांडेन, ह्या परबता देवाच्या थळांत तूं कसलीच चोरी-लुबाडी, खोटें-नाटें करशीत तर खबरदार!.. हे कमरीच्या तरसादीन तुजी तकलीच हाणटलों!" (अथांग - पान 147) तेन्ना त्या थाणग्याक उतर दिताना किरिस्ण ठाकर सांगतां "म्हाज्या हातसून केन्नाच कसली चोरी-लुबाडी, खोटें-नाटें जावंचें ना! ...म्हाज्याच न्हू, तर म्हाज्या बारा पिढग्यांमदीं कोणूच एकटो केन्ना ह्या गांवांशी खोटारडेंपणां करूंचो ना!.. मरांसर ह्या गांवची सेवा हांव सत्यान करतलों!" (अथांग - पान 147) आनी अशे तरेन चंद्रवाडी म्हालाचो बसवो म्हूण थंयच्या बावीसय गांवांनी फिरपाची मेकळीक घेवन किरिस्ण

ठाकूर आनी ताचे वंशज रावतात.

ताचे फाटल्यान चलत उप्रांत खेमलो आनी इठ्ठल ठाकरूय थंय पावले आनी तांचे खातीरय महाजनांक सांगून किरिस्ण ठाकरान तांची रावपाची सोय करून घेतली. आपणाल्या भोवंडेच्या 22 गांवां मदले बारा आपणांक राखून, उरलले धा, पांच पांच करून त्या दोगांक वांटून दिले.

ह्याच ठाकराची सवी पिळगी आज गोविंद ठाकराच्या रूपान देवूळ गांवांत वावुरता. कथेचें कथानक घुंवता तें हेच पिळगे भोंवतणी. ठाकरवाड्यार गोविंद ठाकर सगळ्यांत व्हड. त्या थळाच्या मूळ पुरसाचो वारस म्हूण ठाकरांच्या कार्य-करणांत ताचोच मान पयलो. लग्नांत न्हवऱ्या-व्हंकलेन पायपडणेक पांयां पडचें तें ताका. बारशा दिसा पाळण्यांतल्या भुरग्याक पयली साकर घालची ती ताणेंच! नवे मठयेचे बुनयादीक पयलें खोरें मारचें तें गोविंदान. वाड-वडिलांची कुळी गांवपाचो मानय ताचोच आनी मेल्ल्याच्या मड्याक पयलो खांद मारचो तो गोविंदानच. पूण आयज ताच्या ह्या मुकादमपणाक तो कांचवेल्लो. इतलो तेंप ह्या मुकादमपणाचो अभिमान बाळगुपी गोविंद ठाकर आज ताच्या वज्या खाल फुगार जातालो. आनी ताका कारणय तशेंच आशिल्लें.

शेळपेकान्नीचे वर्साचे जात्रेक वचपी ठाकर जितले उमेदीन तिचे भेटेक गेले तितलेच विकळापून पर्थले. गांवच्या सवूय घरांनी आकांत घडिल्ले. सगळ्यांच्या घरांनी मेल्ल्यां मनशांचीं प्रेतां दाळिल्लीं आनी तातुंतलीं तीन तर खासा गोविंद ठाकराच्याच घरांतल्या मनशांचीं आशिल्लीं. ताचो पूत, ताची सून आनी नातू हांचीं! ताचे मठयेर सासणाचो काळोक जाल्लो ते घडणुकेन. जात्रेक सावन परतताना तांच्या पिकपीक मुखावेल्यान येवपी ट्रकान टक्कर दिली आनी पिकप तीन/चार लगाट्यो जावन सतयाचे देवतेवेल्यान गडगडत सकल वताना 13 जाणांचो बळी घेवन गेली. 12 ठाकर आनी तेरावो पिकपीचो ड्रायव्हर! प्रत्येकाच्या घरांतलो कोण ना कोण गेल्लो तसो प्रत्येकाक उणो-अदीक मारूय लागलेलो. पूण गोविंद ठाकराचो केसूय वांकडो जावंक नाशिल्लो. पूण ताचेर आनी गांवाचेर आयिल्ल्या प्रसंगान सगळ्यांक फडफडे पडलेले.

गोविंद ठाकराची अवस्था सामकी आसून नासल्या सारकी जाल्ली. त्या दिसाच्यान भेरेल्ले तकलेन तो दिसाचे दीस बसून रावतालो. आपणाल्या मनाकडेन जाल्यार केन्ना बांदेसरा कडेन मोन्यांनीच झगडतालो. ताका दोट्टी घाये जाल्ले.

एक आपणाल्या घराचो दिवो पालवला ताचो, आनी दुसरो वाड्यार पडलेल्या किण्णाट्याचो. तातूंत आनी वाड्यावेलीं पोरां-बायलां ताका पळोवन दांत किल्लितालीं. 'आपूण वांचोन लोकांक खावन बसला' म्हूण ताका शिराप सोडटालीं. जांचे खातीर गोविंद ठाकरान आपणाली उबी जीण होगडायली तातुंतलो एकलोय आज ताका म्हण नाशिल्लो की ''दादी, तूं भियेवंक नाका! आमी आसात तुका फाटल्यान!'' हाचेंच दूक ताका चड जाल्लें. ते भायर घरच्या गोठ्याक पडलेलो मोनेळय ताच्या मनाक सतायतालो. ताचे चारय घटमूट कानये बैल काळान व्हेल्ले. आनी ताका लागून पोरूंच्या वर्साक बसवो खेळोवंक पावलो ना. आनी आजय ताचो परिणाम अख्ख्या गांवाक भोगचो पडटा हीं उतरां ताका बशिल्लेकडेन आयकुचीं पडटालीं. ताची अवतिकाय समजून घेवच्या आदींच ताचेर दुशण दवरतल्या गांवकाऱ्यांचो ताका राग येतालो. पूण तो कांयच करूंक शकनाशिल्लो. पोरूंच ताचे चारय बैल गवळार चरपाक गेल्ले कडेन लायटीचे सरयेचो शॉक लागून मेल्ले आनी 'मेळिल्ल्या' बैलाकच बसवो फिरोवंक व्हरतात हे चालीक लागून ताणें पोरूंच्या वर्सा बसवो फिरोवंकच नाशिल्लो आनी ताचोच हो सगळो परिणाम अंदू भोगचो पडटा ही सगळ्यांची समजिकाय जाल्ली.

बैल मेले आनी ताच्या घरांत रिती प्रमाण 12 दीस सुतक पडलें. त्या सुतकांतच ताच्या समती गायेगेर पाडो जालो. पूण वेंतभर पाड्याक बसवो म्हूण भोवोवपाची गोविंदाची तयारी नासली. दिसरात तो गवळार वचून कोणूय शेतकार आंगावणेचो बैल सोडटा काय म्हूण पळोवंक बसूंक लागलो. ठाकरान बैलाची वाट पळोवन गवळार बसपाचें सोडलें. आनी ठाकरवाडी चिंतेंत पडली. म्हाल बसवो फिरल्या बगर तांच्या बसव्याक फिरूंक मेळ नाशिल्लें. अंदू कितेंय पूण विपरीत घडपाचें चिन्न तांकां दिसपाक लागलें आनी अखेरेक तांच्या मनांतलो भंय खरो थारलो. आज बशिल्लेकडेन गोविंद ठाकराक सगळें हेंच येवजतालें. आनी मुखार कितें करचें हें कळनाशिल्लें. अंदूय बसवो फिरयलो ना जाल्यार गांवकाऱ्यांच्या रागाक शीम-मेर उरची ना हें तो जाणां जावन आशिल्लो. बसवो फिरपा खातीर वाड-वडिलांनी घालून दिल्ली चाल मोडपाक ताचें काळीज तयार जाय नाशिल्लें. गोविंद ठाकर बसल्या जाग्यार कात्रींत सांपडिल्लो. आनी इतल्यान ताचे बायलेनच ताका मार्ग दाखयलो. समतीच्या वर्साच्या पाड्याक बसवो फिरोवंक व्हरपाचो. येसल्याच्या घराकडेन जाल्ले सभेंत सगळ्यांचें मत तेंच आशिल्लें. तांच्या त्या निर्णयान

मिणमिणलेल्या गोविंदान मनांतल्यान हार खाली. उपरांत बायलेच्या समजावण्यान शांत जावन आनी निमाणेकडेन पाविल्ल्या आपल्या आयुश्यांत कांयच उरलें ना, अशा वेळार धा लोकांचें वायट केल्ल्याचें पातक माथ्यार येवं नये म्हूण मना विरूध्द समतीच्या पाड्याक बसवो म्हूण घेवन फिरोवंक तयार जालो.

कथेचे हे देखीवेल्यान वाचप्यांक हांवें वयर कितें म्हळां ताची गवाय मेळटली. हे कथेंतलें वास्तव म्हळ्यार आयज केपें वाठारांत आनी गोंयांत हेरकडेनय दारा कणकणी नंदीबैल घेवन भोंवपी लोक आजूनय मेळटात. हे लोक मुळचे गोंयां भायले, जे आदल्या काळांत गोंयां भायल्यान येवन हांगासर वस्तीक रावले. ते आजुनूय हांगा आसात. तेदेवेळच्या रिती प्रमाण तांकां कोणेतरी गांव/जमीन वसोवपाक दिल्ली. गांवच्या सणां-परबांनी तांकां तेदेवेळार तशी आजय हजेरी लावची पडटा. हाचे इतिहासीक पुरावे जशे आसात तशेच मौखीक साहित्यांत लोकवेदांतय तांचे पुरावे मेळटात. कथेची ही वास्तव फाटभूंय. हे फाटभूंयेच्या आदारान उपरांत पुराय कथानकाची रचना जाल्या. ताका दुसऱ्या कांय वास्तव घटनांची जोड दिवन ही कथा साकारल्या. ह्याच केपें वाठारांत रावपी कांय लोकांक फेस्ताक सावन परतताना भिरांकूळ अपघात जाल्लो. तातूंतल्यान कांय घराब्यांचो पुराय विध्वंस जाल्लो जाल्यार कांय घराब्यांतलो एकटो दुकटो वाटावल्लो.

ह्या दोन गजालींचो कलात्मक मेळ सादून आनी थंयच्या वाठारांत चलपी समज-अपसमज वा श्रध्दा-अंधश्रध्दा हांचो आदार घेवन हे कथेची निर्मणी कल्पनेच्या आदारान केल्या. त्या कारणान हातुंतलीं पात्रां आनी घटना जरी काल्पनीक आसल्यो तरी त्यो ते कथेच्या अवकाशांत खऱ्यो वा वास्तव दिसपा इतल्यो बऱ्यो जाल्यात. कथेंतली वातावरण निर्मिती वा पात्रांची उभारणी, ही जितली कलात्मक (पूण वास्तवाक धरून आसता) तितलेंच ते कथेचें यश आनी साहित्यीक वास्तवताय संभवनीय दिसता.

खंयचीय कथा तशी पोकळेंत वा निखटे कल्पनेंत निर्माण जायना. ते नदरेन 'अथांगां'तल्यो सगळ्यो कथा वास्तवच. पूण तातुंतलीं मनशां, तांचे मदले संवाद वा उलोवप, तांचो कथानकाच्या संदर्भांत जाल्लो विकास हें सगळें बरोवप्याच्या कल्पनाविलासाचेच खेळ! पूण त्या खेळांत तें सगळें खरेंच आसता. त्या पात्रांची मनोवस्था, तांची अंतीम अवस्था ही त्या खेळामेरेन खरीच आसता. ('शांतता कोर्ट चालू आहे' ची देक) बरोवप्याचे भोंवतणीं वा खासा ताचेच जिणेंत घडिल्ल्या

घटितांतल्यान एक एक कथा जांव येता. आनी तश्योच जायत्यो कथा हांगा जाल्यात. पावसा दिसांनी वीज पडून, लायटीची जिवी सरी लागून गोरवां मरतात, लग्नाक, जात्रे-फेस्ताक गेल्लेकडेन ॲक्सीडेंट जावन घराब्यांतलीं पुराय मनशां मरतात. वर्सावळीच्या भोगावळीचें बंदन न पाळिल्ल्यान जीं विपरीतां, अरिश्टां घडटात तांचो योगायोग मानतात (बसवो). नोकरेच्या सुवातींनी एल्सा सारकीं मनशां भेटतात. 'सपना'ल्या विकृतीचें दर्शनय समाजांत जाता. ह्या साबारांतल्यान बरोवप्याक चत्रायेन कितें तरी सुचता ताची नोंद मनोमन जायत आसता. बरोच तेंप ह्यो गजाली आपल्या मनांत घोळयत रावताना, सांगात्यांच्या संगतीन ते विशीं उलयत रावताना बरोवप्याच्या मनांत जें देंविल्लें आसता तांतल्यान कथा आकाराक येता.. 'शारदाम्मा, बसवो, मुमताज, भागरत, काणी सिंड्रेलाची' अशो काणयो हाची देख म्हणूं येता. ह्या सगळ्यांतलीं व्यक्ती चित्रणां खरीं आपणें पळयिल्लीं म्हणपाची गवाय खासा जयंती प्रस्तावनेंत दिता. म्हणटकच ह्यो साबार व्यक्तीरेखा वास्तव जिणेंतल्यो जाल्ल्यान खऱ्योच! पूण अशें आसल्यारय एखाद्री गजाल घडली वा एखाद्री व्यक्ती मेळली वा तिचे जिणेंतले अणभव अणभवले जाल्यारय ताका साहित्यरूप दिताना कथानक फुलोवपाचें स्वातंत्र्य बरोवप्याक आसता. बरोवप्याच्या मनांत आपणा भोंवतणी पळयताना एक बीं किल्लता इतलोच त्या वास्तवाचो वा प्रत्यक्षाचो आनी ते कथेचो संबंद आसता. बाकीचें जें कितें घडटा तें तातूंत सहजतायेन येवन मेळत आसता आनी प्रतिभेच्याच आदारान ताका साहित्यरूप मेळटा. तातुंतल्यानच लेखकाचे प्रतिभेची, सर्जनशिलतेची शीममेर स्पश्ट जाता आनी ताच्या लेखनाची कला आनी साहित्यीक विशेशताय दिश्टी पडटात.

'अथांगां'तल्या कांय कथांनी, देखीक 'फिलमिनमाना', 'सपन', 'तो येतलो देखून', 'ती' तली नांव नाशिल्ली बायल, 'आसाडी'तली धन्नी, मुमताज, हांचे वरवीं समकालीन समाजांतले अस्तुरेच्या मनाचो थाव घेवपाचो यत्न केल्लो दिसता. हे अस्तुरेचें दूख्ख आनी तिच्यो वेदना, एकटुकेपण उकतें करतात. त्यो चडशो आगतिक, भावनाविवश आनी काकुळतवाणीशो दिसतात. 'गर्जनां'तल्या feminist approach आशिल्ले अस्तुरेचे फाटभुंयेचेर ही बायल शक्यतायेच्या पावंड्यावेली, सोशीक आनी सर्वसमावेशक अशी समजिकायेची भुमिका घेवपी अस्तुरी दिसता. ताका लागून ह्या कथां मदले अस्तुरेची तांक वा बळगें उकतें जावंचें बदला तांचीं दुखां ही सहानुभुतिचोच विशय जाल्यात. पूण अशो कथा उण्या प्रमाणांत आसात.

हाचें कारण जयंतीच्या समकालीन समाजांतच अशे तरेचीं मनशां मेळप कुस्तारच. ते भायर जयंतीच्या व्यक्तिमत्वाचोय प्रभाव आसा. ताका लागून स्त्रित्वाचे तांकीचो आविश्कार करपी ताच्यो 'आसाडी', 'भेट', 'शारदाम्मा' अश्यो ह्या झेल्यांत आस्पाव जाल्ल्यो लोकसंस्कृतायेचे फाटभुंयेचेर आयिल्ल्यो कांय कथा प्रभाविपणान आयिल्ल्यो दिसतात. ह्या कथांतल्यो अस्तुऱ्यो ह्यो आपणाक सोदताना दिसतात. तटस्थतायेन आपणालें मुल्यमापन करताना दिसतात. शारदाम्मा सारकी अस्तुरी अर्थीक नदरेन स्वतंत्र्य आसूनय तिच्या वांट्याक येवपी एकाकीपण आनी सांगाताच तिका जाणवपी दुर्बळकाय आनी पुरूश प्रधान समाजाकडल्यान जाता ती उपेक्षा हांगा उक्ती जाल्या. निमाणे कडेन अशा समाज वेवस्थेक लागून तिच्या वांट्याक येवपी एकाकीपण, उपेक्षा, दुर्बळकाय हांचो विचार अदीक खोलायेन करूंक येतालो. हाचें कारण आयचे अस्तुरेचें तें वास्तव जावन आसा. ह्या सगळ्यांचो वेध घेवपाचो यत्न जयंती करताच, हें कोंकणी कथेच्या मळावेलें सुगुर्व्याचें लक्षण. ते नदरेन कोंकणींतलो feminism अदीक अर्थपूर्ण जाता अशें म्हळ्यार तें वावगें थारूं नये. आत्मभान आयिल्ली, स्वत्व सोदपी, घराब्याच्या मोयपासांतल्यान सुटका करून घेवन आपणाल्या आयुश्याक नवो अर्थ मेळोवन दिवपाचो यत्न करपी हे नदरेन जयंती अस्तुरे कडेन पळयताना दिसता. ह्या कथांतल्यान उक्तो जावपी अणभव हो बाबडो वा भावनाविवशी न्हय. तो बुध्दिनिश्ट आसा. तसोच जिविताविशीं भाश्य करपीय आसा. ते नदरेन 'अथांगां'तलो लेखिकेचो कल्पनाविलास हो कलात्म आनी वास्तवाधिश्टितच आसा.

(कला अकादेमी, पणजी आनी कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय हांणी 19 मे 2002 दिसा घडोवन हाडिल्ल्या 'साहित्य प्रकाश' कार्यावळींत सादर केल्लें प्रपत्र - सोद - चवथो अंक, नोवेंबर - 2002 ह्या अंकांत उजवाडाक आयलां.)



5

# विचारांच्या क्षितीज विस्तारांतल्यान जल्म जाल्लें ‘अथांग’

*एम्. एन्. प्रभू*

प्रसिध्द लेखिका जयंती नायक हांगेलो प्रथम कथासंग्रह ‘गर्जन’ उजवाडल्या नंतर बारा वर्सांनी हो दुसरो कथासंग्रह प्रकाशीत जाला. बारा वर्सकाळ लेखिकेन साहित्याचो अज्ञातवास घेतिल्लो म्हण हाचो अर्थ न्हय. ह्या दिर्घकाळांत संशोधन कार्यांत मग्न जाल्ली तरी तांगेली साहित्याची आराधना, कलोपासकता साहित्य रचना कमी जाल्ली ना, ती तांकां रक्तगत न्हय अस्थिगत जाल्या. बारा वर्सांच्या तपश्चर्येन तांगेली दृश्टी विशाल जाली, अणभव परिपक्व जाले, विचारांचें क्षितीज विस्तार जालें, हाचें निदर्शन ह्या कथासंग्रहांत स्पश्ट जावन दिसता.

ह्या सगळ्या काणयांचे वैशिश्टय म्हळ्यार Flash Back तंत्र, लेखिकेन यशस्वी रितीन वापरलां. हें तंत्र सर्व भारतीय भाशा साहित्यांत प्रचलीत आसा. दोन-अडेज हजार वर्सां आदीं ग्रीक दुरंत नाटककार सोफोक्लीसान प्रथमत: हाजो प्रयोग केला. आधुनीक भारतीय साहित्यांत अनेक प्रकारचे विचारवाद, तत्वप्रणाली प्रकाशांत आयल्यो. काल्पनीक वातावरण सृश्टीकरचे Romanticism वचून Realism आयलें. जिवनाची घटनावळ हुबेहूब वर्णन करचे माक्षीसर्न Surrelism

विचारधारेन साहित्य क्षेत्रांत प्रवेशे केलो. ह्या विचार तत्वाप्रमाणे आमकां दिसता तशें नासता. मनशालें मन, conscious. subconscious आनी unconscious ह्या तीन पदरांत विभाजन जाल्लें आसता म्हण Sigmund Freud हाणें सागलें, ताच्या प्रभावान विश्व साहित्यांत व्हड क्रांती घडली. मनोविश्लेशणात्मक साहित्य निमर्ले. जयंतीबायच्यो काणयो मनोविश्लेशणाक म्हत्व दिवन मनांतल्या संघर्शा बद्दल चिकित्सक विवेचनात्मक विवरण दिवपांत यशस्वी जाल्यात; सगळ्यो काणयो प्रमुख पात्रांच्या सुप्त मुद्रणांतल्यान प्रिंट जावन भायर येतात.

*शारदाम्मा :* शारदाम्मा कन्नड लेक्चरर जावन मागीर प्रिन्सिपल जाल्ल्या, जिवनांत एक ध्येय आशिल्ली, जबाबदारीची पुरोगामी विचाधारेची सुसंस्कृत आधुनीक महिला. लग्न जाल्ल्या एक म्हयन्याभितर घोव मेल्या उपरांत तिणें एम्.ए. करपाक एडमिशन केल्लें. तेन्ना तिच्या भावान तिका असंमती दाखोवन आकांत केल्लो. 'आयजमेरेन आमच्या घराण्यांतले विधवेन घराच्या हुंबऱ्याभायर पांय दिलोना. तूं शिकून नोकरी करून आमचें नाक कापतलें' अशें जबरदस्त उलयलो. ताका शारदाम्मान 'म्हाका मुखार शिकून आपल्या पांयांर उबें रावपाचें आसा, विधवा म्हण कोणेंय उडयिल्ले भिकेचेर जीण जगपाची ना' म्हण उत्तर दिलें. भावाक राग येवन तिका घरांतल्यान भायर घालें. शारदाम्मा जिणेंत स्वाभिमानान जगपा खातीर एक ध्येय केंद्रीत करून तें ध्येय गाठपाक यशस्वी जाली. ध्येयाकडेन पावचात शिस्तीन दिस-रात शतप्रयत्न केले. रामण्णा असल्या लोफर दादल्यांक लक्ष दिनासतना आपल्यालें मानसीक संतूलन राखून बुध्दी स्तिमितांत दवरून समाजांत एक उच्च स्थानाक पावली.

पोंगल दिसा न्यूजपेपर वाचता वाचता 'तुंगेहळ्ळी हांगा श्रीमती मंजुळा नांवाचें एके एकवीस वर्सांचे तरणाटे विधवेन आपलेच बांयेत उडी मारून आत्महत्येचो प्रयत्न केलो' ही खबर वाचून शारदाम्माचो जीव अस्वस्थ जालो. ती भियोन कडकडली. मंजुळा म्हळ्यार तिच्या भावाची चली. तिका सहाय्य करचें आपल्यालें कर्तव्य. तिची धुवडी म्हण न्हय तर ती एक बायल म्हण. अण्णाल्या घराक वचचें की नाका ह्या मानसीक संघर्शांत मग्न जाल्ली शारदाम्मा कडकालाक मानवीय अनुकंपाच्या दृश्टीन भावाल्या घरा वचपाक तयार जाली. त्याच वेळार गेट काडून मंजुळाक घेवन तिचो भाव येता. तो हारिल्लो, थकिल्लो आसता अशी काणी

सोंपता.

शारदाम्माचें पात्रचित्रण अप्रतिम जावन आयल्या. ती एक नियमनिश्ठा पालन करपी शीलवान धाडसी selfmade बायल. सगळ्या बायलांनी तांच्या पांयार उबें रावप आनी स्वतंत्रतेन निश्चल वृत्तीन अचल मनोभावान वागप म्हळ्यार एक मात्र उद्देश तिगेल्या जिवनाचो सार. स्त्रीयेन शिक्षण घेवन मुखार येवंक जाय, 'चूल आनी मूल' सांबाळीत अबला म्हण समजून घराच्या एका कोनशाक बसप ना. शारदाम्माचो पुरोगामी विचार स्विकारार्ह आनी स्वागतार्ह. पुरूश प्रधान समाजांत कोणाकय मीठ घालिनासतना शारदाम्मा आमगेल्या समाजाच्या बायलांक एक उच्च आदर्श पंक्ती घालून सोता आपल्याल्या जिवनांत एक व्यावहारीक निदर्शन जाता. लेखिकेले मोगाचें Flash Back कथन तंत्र, काणयेंत suspense हाडपाची कला तांकां करतलामलक जाल्या. मंजुळा कोण म्हण प्रारंभाक कळना. स्त्रीवादी विचार तर हातूंत आसातच. मैसूरांत संशोधन करपाक वास जाल्ल्यार लेखिकेक थंयचें नैत्रचित्रण दिवपाक उपयुक्त जालां.

*चित्रा :* कथानायकी चित्राच कथाकथन करता. तातूंत प्रेमाचो बी थोडो सहयोग आसा. एक हायस्कूलाच्या कार्यक्रमाक तिका अतिथी म्हूण आमंत्रण दिल्लें आसता. ती एक व्हड साहित्यकार. आनी विशेशता गोंयचेर अधिकारवाणीन उलोवपी. तिचें भाशण जाल्या उपरांत प्रि. नाडकर्णील्या कॅबिनांत च्या घेतासतना तिका मेळूंक प्रेमा हट्टंगडी येता. तिचो घोव श्रीकांत मरणामेरेन पावलो. प्रेमा चित्राक आपल्याल्या घराक आपोवन व्हरता. श्रीकांत एक बरो आर्ट टिचर. पोट्रेट सोडोपांत अत्यंत निपूण. चित्रा तागेली विद्यार्थिनी. तांचो संबंद गाढ जाता. तो तिगेल्या प्रेमपाशांत पडटा. जाल्यार चित्राक हें कांय खबर ना. एक दीस तो तिका नग्न जावन पोज दिवपाक सांगता. चित्राक राग येता आनी ताचे सगळे संबंद तुटोन घेता. तो गांव सोडून वता. मन नाशिल्लें तरी एके चलयेकडे (प्रेमा) लग्न जाता. सोरो पिवपाक कायम मग्न जाता. प्रेमाक ताचें प्रेमप्रकरण खबर आशिल्ली तरी मुकार सुधारतलो म्हण लग्न जाता. ताच्यावेल्या अनुकंपान आनी आपल्या चेडवाखातीर ताका पाठिंबो दिता आनी ताका पोसता.

चित्रा तागेल्या घराक गेल्यार कितें पळेता, श्रीकांत सामको मरच्याक पडला. ताणें काडलेलें चित्राचो नग्न पोट्रेट हुबेहूब तिच्या सारकें आसता. श्रीकांत तिगेली

गैसमजूत फकत निवारण करून सौंदर्याधक दृश्टीन नग्न जावच्याक सांगिल्लें आसता म्हण सांगता. हरेक बायल आपलें नग्न प्रतिबिंब हारशा मुखार रावून पळोवपाक इच्छिता, हें सत्य चित्राक सोता अणभवान खबर आशिल्लो विशय. ताणें एक कलाकार दृश्टीन सांगिल्लें चित्रान अपार्थ करून घेतिल्लें येवजून, चित्राक पश्चाताप जाता आनी ती 'I am sorry' म्हणटा.

हे काणयेंत चित्राल्या गुन्यावकारीपणाक (guilty consciousness) म्हत्व दिलां. काणयेच्या प्रारंभात प्रेमा तिच्या चलयेबरोबर वचप आनी चित्रान तिच्या मागश्यान डांबरी रस्त्या नंतर मातयेच्या रस्त्यार उलयनासतना वचप, सांजवेळार शेताचें वर्णन, हार्डील्या The Mayor of Casterbridge च्या प्रारंभाक ह्या रितीन Menchard आनी ताची बायल Susan चेडवा बरोबर वचपाचो उगडास येता. अप्सरा समान लावण्यवती चित्रा आनी तिचें वर्णन श्रीकांतान आपल्याक संपूर्ण जावन कलेकच समर्पण करून घेतिल्लो नमूनो हृदयस्पर्शी आसा.

जयंतील्या अनेक काणयांत आसल्यावरीं हातूंत सुध्दा Flash Back कथनतंत्र आसा म्हण पुनरपी सांगूंका म्हण ना. मनशाच्या मनांतलें पदर पदर हंत हंत सोडोन कापूस पिंजल्यावरी मनाचें अनावरण करपा शैली सुललीत जालिल्यावरी सादल्या. O Henry ल्या The Last Leaf काणयेंत Berhman म्हळ्ळो पेंटर पानाचें चित्र सोडोन मरता. तशीच चित्राचें नग्न चित्र श्रीकांतालें Masterpiece जाता. चित्रा मॉडेल जावन रावलें ना जाल्यार सुध्दा कल्पनेन अत्यंत नैज रितीन काडिल्लें हें चित्र अविस्मरणीय. तागेल्या जिवनाचें ध्येय आनी महत्वाकांक्षा पूर्ण जाल्लें समादान आनी मरचे आदी चित्राक पळोवन आशिल्लो खरो विशय सांगून तिजो संशय निवारण करच्यांत यशस्वी जावन तृप्ती पावन मरता. अगदी करूणाजनक (Pathetic) प्रसंग. ही काणी वाचकांच्या काळजाक नीट आदळता हातूंत संशय ना.

*रमा :* रमाचें पात्र म्हत्वाचें आनी निर्णायक आसलें तरी अशोकाल्या तोंडांतून काणी हाडल्या. रमा एक म्हत्वाचो निर्णय घेता आनी तो अशोकाक सांगता. ताजी छाती धड जाता. तो निर्णय कसलो? रमाक आनी अशोकाक आशिल्लो संबंद कसलो? हे प्रश्न उबारून लेखिका काणी सांगता.

रमा अशोकाची मामाली चली. हिंदू रितीरिवाजान कायद्यान ती ताची बायल.

ते ताज्यापरस दोन वर्सांची व्हड. ती मोठी आनी अशोक सामको बारीक. तरी ती कोण? ताची प्रियतम? इश्टीण? आवय? भयण? अशे प्रश्न विचारून तो ताचें उत्तर दिता. ती प्रियतमा न्हय, कित्याक तर तिच्या कुडी बद्दल ताका कांयच आकर्शण नाशिल्लें. तिच्या बरोबर तो खूप फावटीं टुराक गेल्लो. क्षेत्राच्या कामाक गेल्लो. तिजो स्पर्श जालो तरी ताका रोमांच जालें ना. तिका लग्न जावंचें ताणें सपनांत लेगीत पळेलें ना. मस्त पैकी भाव-भयणींचे संबंद तांच्या मदीं आशिल्ले. ती ताजी देखरेख पळेताली; तो तिका सरंक्षण दितालो. पूण ती आवय काय? ताची आवय तो ल्हान आशिल्लो तेन्ना वारली. आनी ताचो बापूय आनीक एक फावटीं लग्न जालो. ताज्या मावळ्यान ताका सांबाळ्ळें. आवयवरीं रमान ताका पळेलें. आवयन सोडिल्ले शून्य रमान भरले. श्राध्दासमजाक आवयचो फोटो थेट रमालोसो दिसतालो. अशें काणी सांगता सांगता लेखिका सस्पेन्स दवरता. हांच्या दोगांभितर प्रेम अंकुरता म्हण वाचक कल्पना करता. जाल्यार हो सस्पेन्स वचून आघात जाता. रमा आपल्या प्रोफेसरा सांगाता लग्न जावची इत्सा प्रकट करता. कारण ह्या वेळार तांकां म्हज्या आदाराची, सांगाताची अत्यंत गरज आसा. बायलेचो हात फिरल्याशिवाय घराक जिवंतपण येना आनी अशा जिवंतपणाची तर सरांचे निर्मिती प्रक्रियेक अतिशय गरज आसा, अशें रमा अशोकाक म्हणटा. आनी हो निर्णय अशोकानच सराक सांगूंक म्हण हट्ट कता. हें आयकून सर जमदग्नीचो अवतार जाता. परंतू कडेर कबुली दिता. लग्न एका देवळांत जाता. लग्नाक सगळीं तीन मनशां. व्हंकल आनी व्हरेत आनी अशोक उपस्थित आशिल्ले. न्यूज पेपरांत सरा विरूध्द कितलोय अप्रचार जालो तरी हो सर स्थितप्रज्ञ रावता.

अशोक गोंय सोडून मंगळूराक वता. रमाक सोडिल्लो विचार अशोकाक खायत आसता. एक दीस प्रोफेसर एक ल्हान बाळशाक घेवन अशोकाल्या घराक येता. तें बाळशें रमाचें. सर पयलें जाल्ली काणी सांगता. रमाक सहज जावन आवय जावची इत्सा (Mother Instinct) आशिल्लें तें घोवाक सांगता. घोव नपुसंक म्हूण दुसऱ्या सांगाता ती अनैतीक संबंद दवरिल्ल्याचें हें फळ चेडूं. त्या चेडवाचो बापूय कोण हें तिणें सांगूंक ना. रमा बाळंतपणांत वता. तिका ल्युकेमिया सुद्दा जाल्लो आसता. मात गुन्यांवकारीपणाची भावना आशिल्ली म्हण तिणें अशोकाक हें सांगलें ना.

स्त्रीप्रधान आसले हे काणयेंत रमाचें पात्रचित्रण अगदी परिणामकारी आसा.

तिका आनी सराक मस्त वयाचें अंतर आशिल्लें तरी ताका लग्न जावपाक ती तयार जाता. रमा कॉलेजांत उपन्यासकी करची, बापायन कित्येक सोयरीको पळयल्यार तिरस्कार करची. ती धैंयवान बायल मनीस. 'समाज, कोणाचोच विरोध हांव सोंसपी', अशी तीच सोता म्हणूटा. तिगेलें प्रेम दोन मनांचें समागम. तातूंत शरीर समागमाक म्हत्व ना म्हूण Platonic Love प्रतिपादन करता. जाल्यार अखेरीक शरीर शरण वता. आवय जावपाक जाय म्हण दुसऱ्या सांगांता शरीर संबंद दवरून घेवपाक भियेना.

प्रोफेसर कित्याक खूब वर्सां लग्न करून घेना ह्या बद्दल लेखिकेन सूचना दिल्ली आसा. तागेल्या बद्दल अनेक अथवा चार नेमक्यो खबऱ्यो आसात. 1) ताका प्रेमभंग जाला. 2) घर-प्रंपच जबाबदारी आसा 3) लैंगिक दोश आसा. 4) बायलेक शरीरसूख दिवंक शकना. हातूंतलें तिसरें कारण खरें जाता. म्हणूनच रमा अनैतीक संबंद दवरून घेवच्याक तयार जाता. हातूंत तिका दोश दिवंचो समा न्हय. तिच्या अकालीन मरणान काणी दुख्ख व्यापक जाता. आनी हृदयविद्रारक जावन समाप्त जाता. रमाचें ध्यैर्य आनी स्थैर्य कोणीय शिफारस करचें.

*भागरत :* हे काणयेंत एकली भागरत धैर्याची मुर्त. काळी भिल्ल कशी नाक खंय, दोळे खंय अशी सात वर्सांचीं भागरतीक लग्न करून हाडिल्लें. तिका मांय मारताली. अनेक रितीन त्रास दिताली. घोव आवयन सांगिल्ले तसो नाचणारो. तिका विकत हाडिल्ली. सुनेक भुरगीं नात म्हूण मांय खंत पावताली. घोव दादलेपणाचे सुखच सारकें दिना तर भुरगें कशें जायत? भागरत वावराक वचूंक लागली. थंयच तिची आनी नागू गांवकाराची दोस्ती जाली. ताची बायल बाळंतपणांत मरून धायेक वर्सां जाल्लीं. जाल्लें भुरगें वाचलें ना. तो घरांत एकटोच आशिल्लो. दोस्ती जाल्ली तरी तीं मानमर्यादेची शीम हुपूंक नाशिल्लीं. गांवांत गजाल जाली. मांयच गांवची चवकशी करच्याक लायली. सगळ्यांनी भागरतीक दोश दिलो. नागू आनी भागरती देवस्थानाच्या जाग्यांत खोप बांदून रावले. तो आपलो वावर करून कशी पूण पोट भरून घेवन दुख्खांत सूख घेवचे प्रयत्न केलो. नागू एक दीस झाडावयल्यान पडून मेलो. भागरत खऱ्या अर्थान आतां उगडी पडली.

भागरत अशी वागपाक कारण कितें? ती वीस वर्सां घोवाल्या घरांत उरली.

तिचो घोव काम सोदूंक गांवां गांव वतालो. म्हयन्याक एक फावटी तरी घराक आयल्यार व्हड अशें जावन तिका स्वभाविक आशिल्लें शारिरीक सूख मेळ्ळेंना. मांयन खूप त्रास दिलो. तांगेल्या न्हिदेकुडा दारांतच हांतूण घालून ती न्हिदपी. वर्सगट्टल्यान दाबून उरिल्ली ती शारिरीक भूक जाण्टेपणांत उसळ्ळी. ती नागू गांवकारालो हात धरून गेली. गांव चवकशी वेळार गांवचे सगळे लोक तिच्या विरूध्द जाले. ती सुध्दा तांकां केर करिनासतना खूब उलयली. कांय करिनासतना तुमी केलें म्हणटात जाल्यार आतां हांव तेचे बरोबर न्हिदूनच दाखयतली तुमकां. गांवच्यांनी तिका बहिश्कार घालो. गांवकार तिच्या सांगाताक गांव सोडून गेलो.

ही काणी सांगतली नोकरी वतली बायल मनीस. तिका गांवभवानी म्हण नांवां पाविल्ली साळूमावशी 'भागरत बरी ना. कांक्र जाला खंय तिका गळ्याक. मरणाक आसा खंय. तिका कामतील्या चेड्यान, अजितान हॉस्पिटलांत घातलां. तिचो पोसको चेडो शिवा तिचो मीण. तागेल्या नांवार सगळे आख्ये वीस हजार रूपया केल्ले. उपरांत तो तिका सुळसुळीत करून धांवन गेलो. काय बरो घोव आसतना गांवार वचून पडलां. जाण्टेपणांत सुध्दा कसली खाज तिका?' अशें सांगता. जाल्यार तें सर्व नोकरे वतली बायल मनीस विश्वास करना.

कांय शिकनाशिल्ली धैर्यवान भागरतीलें कवतूक करचें सहज आसा. तशें पळयल्यार ती गुणान वायट न्हय. रिती-निती वाऱ्याक उडयिल्ली न्हय. तिका पुरूशप्रधान समाज अन्याय करता. सावळूमावशी ह्या अनीश्ट-समाजाची संकेत. लेखिकेक तिच्या बद्दल संपूर्ण सहानुभूती आसा. 'भागरत बंडाळी आसूं पूण ती चरित्रहीन नाशिल्ली. तिचें तोंड फटकळ आशिल्लें तरी ती मनान वायट नाशिल्ली.' खंयच्याय नाण्याचो दोनूय बाजू पळोवपाच्यो. हें सत्य नोकरीणीली आवय सांगतां. त्या काळार पुरूशप्रधान समाजाच्या धा जाणांक मीठ घालिनासतना संघर्शाक राबिल्ली भागरत एक धाडशी स्त्री, तिका दोश दिवच्यांत अर्थ ना. बाबडेक सहज आशिल्लें शारिरीक सूख मेळना जाल्यार ती कितें करतली? बर्नार्ड शान सांगिल्ल्यावरी ती 'Life Force' च्या हातातली कटपुतली.

*काणी सिंड्रेलाची :* एल्सा एक स्कूल टीचर. तिका एक दीस येवपाक मातसो वेळ जालो. तिचे सहयोगी सगळे क्लासाक वचपाक उठले. एल्सा वचपाक तयारी करतना मिसेस आझावेदोन ''एल्सा, फिलीप खूंय सामको मरणाक आसा. कित्याक

तेजेर निमणी नोदोर घालून येयना?'' म्हळें. ''आतां निमाणेकडेन धांपलेलें पान कित्याक उगडूं?'' अशें एल्सान उत्तर दिलें. काणी अशी प्रारंभ जाता. एल्साक जिवनांत हाज्या पेलें जाल्ले घटनाकाळ लेखिका फ्लॅश बॅक तंत्रान परोक्षरितीन सांगता. फिलीप मरणमुखी जाल्लें आयकून एल्साली तकली सणसणिल्ली. काळीज सतर-वितर जाल्लें. शिकोवपाक तिका मूड ना म्हण भुरग्यांक कळ्ळें. तांकां कॉपिरायटींग कर म्हूण सांगून विचारदग्ध जावन बसली. सरजू तिका मेळून ''बियांतूल' म्हळ्यार कितें टिचर? तुज्या सारकी काजार जाय नाशिल्ली बायल मनीस?'' तिका राग येता. ती ताका दोन मारता. सरजून सिंड्रेलाची काणी बरयिल्ली तिका करेक्शन करपाक दिता. ताणें बरयिल्लें खरें आसलें तरी ती काणी चूक म्हण सांगता. सिंड्रेला आनी राजकुमार काजार जायनात. ती बियांतूलच रावता. चाळीस वर्सांचेरच म्हातारें जाता. तो राजकुमार खूब सोरो पियेता. सिंड्रेला म्हणत अंत्य श्वास मेजता. त्या वेळार स्कुलाच्या मुकार आशिल्ल्या चर्चीतली घांटी वाजता. ''आयक, सिंड्रेलाचो राजकुमार सोंपिल्ल्याची ही घांट.'' म्हण एल्सा जमनीर पडटा. घांट वाजत रावता.

हे काणयेंत एल्सा सोता आपूणच सिंड्रेला आनी फिलीप राजकुमार म्हण समजता. ती self identification करून घेता. सिंड्रेलाची काणी आनी एल्साची काणी अत्यंत कलात्मक रितीन लेखिकेन Juxtapose केल्या. मूळ सिंड्रेलाची काणी बदलून सुखांत आशिल्ली काणी दुख्खांत केल्या. फिलीप गरीब बावडो, तांगेलें प्रेमप्रकरण भग्न जाल्ल्या खातीर फिलीप विसर्चाक सोरो पिवन चित्राकाणीतुल्या श्रीकांतावरवी मरणाच्या दुस्थितींत आसा. काणयेंत प्रेमप्रकरणाचे कांयच विवर लेखिकेन दिले ना. आनी ते येवपाक जाय म्हण अशें कांय कायदो ना. काणीच्या outlines च्या फ्रेम येवन वाचकाल्या कल्पनेक सर्व लेखिका सोडता. हें अशें कशें जालें हाचो विचार वाचकाच्या कल्पनेक सोडला. एल्सा 'भाकीत' काणीतल्या वसुंधरा वरी बेहोश जावन पडटा. चर्चीतली फिलीपाली मरणाची घांट एल्साची मरणाची घांट जाता म्हूण लेखिकेन सूच्च रितीन सांगलां. अस्पश्ट अंत्य, तीर्मान वाचप्यांक बुध्दीपुर्वक सोड्न दिलां.

*पानवळ :* त्या गांवांत आबा धन्वंतरी म्हण प्रसिध्द जाल्लो. चार कडेन ताची प्रख्याती पसरिल्ली. आबा आनी ताची बायल, भुरगें ना म्हण सदांच

खेदतालीं. तो एक वर्स बायले बरोबर गांव सोडून गेल्लो. आयिल्लो पळयल्यार तिच्या हातांत एक बाळक आशिल्लें. तोच विश्वंभर.

आबान मरच्या वेळार तो धा वर्सांचो. आबा कडेन मेळयिल्ली शक्ती आराधना करून बरो दोतोर आनी मंत्रवादी जालो. पस्तीस वर्सांचो विश्वंभर तेज:पुज जावन थेट वैरागीसो दिसतालो. कांतियूत दिसतालो. आबाचे बायलेन ताचें लग्न करूंक मस्त प्रयत्न केले. तर तो लग्न जावपाक तयार ना. ताचो धर्म एकूच सेवा - दुख्खेस्त पिडित वर्गांक.

एक दीस शंकर मेस्त धा-बारा वर्सांच्या चेडवाक (प्रीतीक) घेवन ताच्या फुडें येता. आनी म्हज्या चेडवाक वाचय म्हण प्रार्थना करता. विश्वंभरान प्रीतीक वखदाचें लेपन केलें - तें हांसपाक लागलें. अशेंच अनेकदा लेप सारयता सारयता ताका तिजेर कामापिपासा सुरू जाता आनी एक दीस तिगेल्या विचारांत गुल्ल जाल्लो विश्वंभर तिका मिठी मारता. आबाल्या घराण्याचे विचार तकलेंत येवन ताची कृती थंयच थांबता. प्रीती घराक धांवन वता. ताच्या हातांतल्यान अचातुर्य घडलें. ताचे खातेर तो बांयत उडी मारून आत्महत्या करून घेता. हो ह्या काणयेचो सारांश.

काणी इतली सादी आनी सरळ जाल्ली तरी ती सांगपाची शैली अद्भूत आनी कौशल्यपूण आसा. विश्वंभराल्या मनांतलो तळमळ ताणें केल्लें अचातुर्य, आबाल्या घनतेच्या घराण्याक हाडिल्ले कलंक, हीं पापप्रश्नां रक्तपिपासू वाघासारके शिकारीच्या क्रूर सुण्यासारके ताच्या फाटल्यान धांवपळ करून ताची शिकारी करप. त्या पापाक दिवची योग्य शिक्षा म्हळ्यार तागेली आत्महत्या. ताचें मरण सहज जावन आयलें ना. सारासार विचार करून ताणें घेतिल्लो आत्महत्येचो निर्धार. ताच्यांत जाल्लें मनोपरिवर्तन आनी विवेकोदय साक्षी. समाज सेवा करपाक कटिबध्द जाल्लो आशिल्लो एक विरक्त जोगी सुध्दा सहज नैसर्गिक कामप्रवृत्तीन मुक्त जायना म्हळिल्लें अखंड सत्य सूच्य रितीन लेखिकेन सांगलां.

*तो येतलो देखून :* शिताबायेल्या तोंडांतून ही काणी सांगली - तिगेलें स्वगत भाशणाच्या मुखानंतर तिचो पूत सात वर्सांच आसलो तेन्ना तिचो घोव मरता. तिणेंच ताका व्हड करून शिक्षण दिवन सरकारी नोकरी काडोन दिली आनी ताचें तोंड बंद केलें. भावालीच धूव सून म्हण घरांत हाडली. तिचो मुर्ख विचार म्हळ्यार,

सुनेच्या पोटांतल्यान नातवाच्या रूपान तिचो घरकारच जल्माक येतलो. होच मुर्ख विचार अंधविश्वास तिच्या मांयन सुध्दा तिका सांगिल्लो. 'जे मनीस संवसाराची आशा धरून मरतात ते परत मनीस जल्म घेतात. म्हजो पूत परतून येतलो जल्माक! तुज्या पुतागेर.'' तिच्या अंधविश्वासाक बल मेळ्ळें. दोन बाळंतरो जाल्ले तरी नातू जालोना. शिताबायलें रगत तापच्या लागलें. तिसऱ्या फावटींय बी चली जाली. तिचें दुख्ख आनी आक्रोश आकाशाक पावलें. तिणें आकाशपाताळ एक केलें. सुनेक थोमणें मारले. तिसऱ्या नातीचो बारसो करूंक दिलो ना. तिचो पूत आवयचो दासानूदास जावन आशिल्लो. सुनेन बावडीन सर्व कश्ट सहन केले. सहनाक सुध्दा एक लिमिट आसता. तिणें एक दीस लासून घेतलें. तिका हॉस्पिटलांत एडमिट केलें. आईक कितें जालां आज्जें? म्हण तिच्या नातीन विचारून रडच्याक सुरू केलें. गांवच्या लोकांनी शिताबायक छी, थूं केलें. सुनेल्या ह्या दुर्गतीक शिताबायच जबाबदार म्हण तिका तोंडार सांगलें. शेजारी काकीबायेक तीनूय नातूच. त्या विचारान शिताबाय अस्वस्थ जाली. जाल्यार आपल्या जीवाचो घात सून करतली म्हण तिणें सपनांतसुध्दा लेकिल्ले ना. शिताबायक खूब पश्चाताप जालो. सुनेक वांचय म्हण देवाक प्रार्थना केली. ''देवते, शांतादुर्गे तूं पाव. म्हजे सुनेक वाचय. म्हजें चुकिचें पानवळ तूं म्हाका दी. म्हजो जीव व्हर. पूण म्हजे सुनेक राख.'' अशें बोंब मारत बसली. पूत तेन्ना आयलो. आवयक फाट करून रावून जमिल्ल्या लोकांक सांगलें, ''दोतोर म्हण्टा ती निवळटली.'' हें आयकून शिताबायलो गेल्लो जीव परत आयलो. जमनीर न्हिदून देवाक तिणें साश्टांग नमस्कार घालो. आनी तिसऱ्या नातीक काळजाकडेन धरलें आनी हीच आमगेर आयिल्ली शांतादुर्गा म्हण आपल्यालो आनंद अभिव्यक्त केलो.

बायलां मुर्ख विचारांनी कशे बलीपशू जावन दुसऱ्याक त्रास दिवन दुसऱ्याचो जीव खातात म्हळ्ळो विशय हे काणयेंत हृदयगत जावन आयला. बायलांचो शत्रू बायलच. मांयन सुनेक त्रास दिवंचो. नातू जालो ना, म्हण हो भयंकर अपराध. चली जावंची या चलो जावंचो हें दादल्या x अथवा y chromosomes चेर अवलंबून आसा. ते फाटल्या काळाच्या शिताबाय अथवा तिच्या मांय असल्या अशिक्षीत मुर्खांक कशें कळटलें? पुर्नजन्म म्हळ्यार, अंधविश्वास घेवन 'तो येतलो देखून,' मेल्लो घोव नातू जावन येतलो म्हण ताची वाट राकची मुर्खपणाची परमावधी. स्त्रीवादी लेखिकेन कांय दाक्षिण्य नासतना बायलांच्या मुर्खपणाचेर 'क्ष' किरण पाडयल्यात.

*मुमताज :* नोकरी करपी बायल मनीशाले तोंडांतसून ही काणी सांगल्या. ती बसेक राकून राविल्ली दीर्घकाळ. तिका अर्जंट पणजेक वचचें आशिल्लें. तिणें एक अमेकिन प्रख्यात संशोधन करच्या स्त्रीयेक appointment दिल्लें आसता. तिचो संशोधना विशय म्हळ्यार भारतांत पारंपारीक जावन निर्बंध आसलो तरीय अस्तित्वांत आसलेली सती पध्दती वयर. मिनीबस येता, तातूंत मस्त लोक लोणच्या सारके चेपिल्ले आसतात. तेन्ना ती एक मुसलमान बायलेक पळेता. तिका ल्हान बाळक आसा. ती ताका वळखता. तिचें नांव मुमताज. सतरा-अठरा वर्साची बायल पस्तीस वर्सांची म्हातारी शी दिसता. तिच्या बापूय वयाचो ट्रक ड्रायव्हर तिचेकडे लग्न जाल्लो. तिच्या बापायन दुसरें लग्न केल्लें. सवतआवय भुरग्यांक खूब सतायताली. मुमताज कांय शिकलीच ना. ती स्कूलाकच वचूंना. बापायन धाडून दिलें ना. मस्त गरीबपणान आशिल्लो अशिक्षित संवसार. भुरग्यांची रास. तांचे कश्टकर असहाय्य संवसाराचें वर्णन येता. हर एक काणयेंत आशिल्ल्या वरी Flash Back कथन तंत्र हातूंत बी आसा. काणी सांगतल्याली आवयक खूब वर्सां पयलीं हॉस्पिलटलांत घातिल्ली. तेन्ना मुमताजाची आवय सुध्दा एडमिट जाल्ली आसता. मुमताज तेन्ना अतीशय सुंदर आसता. आतां तें सौदर्य उडून गेलां. मुमताजाबरोबर जावंच्या संभाशणांतून काणी मुखार वता. बायलांक शिक्षण दिनासतना तांकां घरांत बसून नरकयातनाचे अणभव काडचे मात तांच्या नशिबांत्त बरयलां. ह्या काणयेंत तें वर्णन मुस्लीम समाजांबद्दल आसा तरी तीच कथा आनी व्यथा भारतांत सगळोकडेन उठून दिसता.

*फिलमीनमाना :* फिलमीनमानाचो घोव किस्तोद होळ्ळो भाटकार. लग्न जावन चाळीस वर्सां जालीं तरी तांकां संतती जाली ना. फिलमीनमाना घोवाक "एक बरोसो चेडो भुरगो पोसको घेया" म्हण सांगून आग्रह कता. तेन्ना तो "बाय आसा मुगो तुज्या सांगाताक. ताचीं तिगांय भुरगीं येतात - वतात. तूं एकटें ना." म्हण सांगता. स म्हयन्यांभितरच किस्तोद भाटकार कुरासांवाच्या आतांकान मरता. बाय किस्तोदाची फाटली भयण. तिचो व्हडलो पूत दोतोर डॉमनीक, फिलमीनमानाची चडच जतनाय घेतालो. तिका दिसतालें रगताचो संबंद म्हळ्यार अशें रावता. ती खुशी आशिल्ली. जाल्यार तिचो संतोश फकत तत्कालीन. डॉमनीकान किस्तादोदाचो इन्शुरन्साचो पयसो हाडला म्हूण सांगून दोन तीन कागदांचेर

तिचें बोट लावन व्हेल्लें आनी तिची सर्व आस्ति - घरदार, भाट - बेंस सगळें आपल्या नांवार करून घेतलें आनी तिका वाऱ्यार उडयली. तिची परिस्थिती भिकारीणशी जाली. ह्या प्रसंगार तिका पाविल्लो मनीस म्हळ्यार सायेर. तो तिची वासपूस घेतालो. ग्रामपंचायतीचो सेक्रेटरीन तिका साठ रूपया दिता आनी भार काळजान तिची  दुखेस्त अपार करूणेची काणी आयकून भायर सरता. अशें श्रीमंत फिलमीनमाना अशिक्षित आशिल्ल्यान जगाची रितीरिवाज कळनासतना आपल्या भोळेपणान भिकान्न जाली म्हळ्ळी ही काणी, मनोवेधक आसा म्हण सांगचें अवश्यकता ना.

*भाकीत :* वसुंधराची धूव नलू एम्. ए. फायनलीक पावलां. पयले दीस क्लासाक वचपाक तिका मातसो वेळ जाता. नवो कोंकणी उपन्यासक विनय सबनीसालो क्लास आशिल्लो. नलूक गुलाब म्हळ्यार पंचप्राण. तिगेल्या हृदयार लायिल्ल्या गुलाबाक पळोवन सगळे हांसले. गुलाब प्रेमाचो संकेत. Robert  Burns 'My Love is Like a red, red rose' म्हण्टा. सबनीस तिका Miss Rose म्हण आपयतालो. तें आवयक पत्र बरयतालें. विनयाबद्दल सुध्दा  बरयल्लें. अलीकडेन ताजेबद्दल कांय बरोवंक ना. तांचें झगडें जालें काय म्हण आवय वसुंधरा समजता. विनय आवय-बापायलो एकमेव पुत्र. अती सुंदर रूपवान विनय 'प्राचीन कोंकणी साहित्य' ह्या विशयाचेर पीएच्.डी. मेळयिल्लो. सोता कवी आसून ताचे दोन कविता संग्रह उजवाडाक आयिल्ले. ताच्या वडिलांनी नलूक पास करून तांची अनुमती दिल्ली. विनयाक नलूची आवय वसुंधरा पळोवंक म्हण अती उत्सूक आशिल्ली. ते घराक येतले  म्हण वसुंधरा घरस्वच्छ करून शिस्तीन सर्वसामान दवरून तांची वाट राकताली. तो दीस नलूचो वाडदीस आशिल्लो. तेन्ना तिका तिच्या जिवनांतली घटनावळ दोळ्यांमुकार येता. विनयान नलुचो बापूय कोण म्हण विचारल्यार कितें जाप दिवंची? हे चिंतेंत ती बुडिल्ली.

वसुंधराच्या तरणेपणांत तिगेलें आनी शामरावालें प्रेमप्रकरण आशिल्लें. शामरावालो बापूय आनी वसुंधाचो बापूय दोगूय मित्र आशिल्ले. तांच्या मनांत शामराव आनी वसुंधरा लग्न जावपाक जाय म्हण तीं भुरगीं आशिल्लीं तेन्नाच निर्धार केल्लो. वसुंधरा मॅट्रीक जाली. शामरावाचो बी.ए. चो रिजल्ट आयिल्ल्या नंतर तांचें लग्न ठरलें. शामराव व्हडलो भाटकाराचो भुरगो. ताका नोकरीची

आवश्यकता नाशिल्ली. जाल्यार तांगेलीं जातकांची मेळामेळ नाशिल्ली. शामरावाक जातकीत विश्वास नाशिल्लो. वसुंधरा - शामरावाचें लग्न जाल्यार आठ दिसांभितर वसुंधरा विधवा जातली अशें ज्योतिशान भाकीत केलें. जाल्यार शामरावाक आनी वसुंधराक लग्न जावपाकच जाय आशिल्लें. जुवानेच्या भारार तांच्या हातांतल्यान घडिल्ली एक चूक वसुंधरेच्या आयुश्यांत एक व्हड कलंक जाताशिल्लो. ज्या दिसा तांचें लग्न थारायिल्लें तेच रातचीं आप-आपल्या बापायक आपलो निर्णय बरोवन दवरून तीं भायर सरलीं आनी मुंबय आयलीं. शामरावान एका ल्हानशा कंपनींत नोकरी मेळयली. संवसार थाटलो आनी कांय म्हयन्यांभितर वसुंधरा शामरावाच्या भुरग्याची आवय जाली. मनासाक्षीन तीं लग्न जालीं तरी समाजाच्या दृश्टीन तें लग्न न्हय. अशीं तशीं तांणी चार वर्सां काडलीं. दोगा जाणाले बापूय ह्या संवसारांतल्यान गेले. निमाण्या संस्कारांकय तीं गेलीं नात. हातरूण धरून न्हिदिल्ल्या शामरावाचे आवयक पळोवपाक तीं गांवाक गेलीं. आपल्याक एक अधिकृत वारसदार जाय म्हण आवयन हट्ट केलें. वसुंधरान आपल्याल्या औदार्यान  शामरावाक लग्न जावपाक तयार केलो. तो लग्न जावन ताका दोन चल्यो जाल्यो - निर्मल आनी विमल. दुसऱ्याकडेन लग्न जाल्लो तरी ताचो आनी वसुंधरेचो रहस्य संबंध आशिल्लो, ताच्या घरकान्नीन  सुध्दा हो विशय सहन केलो. आतां नलू व्हंकल जातलें. वसुंधरा आपल्याले गतजीवनाचो विचार करीत 'समाज मनांचे लग्न मानना. ताका मंत्राचें लग्न जाय. आपूण एक वेश्या सम सारकी.' म्हण मस्त दुख्खतप्त जाता. जाल्यार विनय पुरोगामी विचारांचो. तो आपल्याल्या जिवनाच्या घडामोडींक तक्रार काडचो ना, अशे विचार करतना पोस्टमन टेलेग्राम घेवन येता. त्या टेलेग्रामांत 'स्टार्ट इमीजियेटली. नलिनी कमिटेड सुयिसायड' अशें आसता. तें धडधडट्या काळजानच वाचून वसुंधरा घुंवळ येवन मुर्छावस्थेंत पडटा.

काणी हृदयस्पर्शी  आसा हातूंत काय संशय ना. जाल्यार आठ दीस विजृभणेन चलचें ह्या लग्नापुर्वी दोनी पार्टिंनी जातक पळेले ना म्हळ्ळें अत्यंत अजाप दिसता. त्या खातीर शामराव आनी वसुंधरा पळोन वतात. लग्नाच्या आदीं प्रेमप्रकरण जावन तें पळोन गेल्लें आसल्यार ताका म्हत्व येताशिल्लें आनी ही कृत्रिमता अनवश्य आशिल्ली. घरांत objective आशिल्ले खातीर तें धांवन गेलें म्हळ्यार काणयेक नैजता येता आशिल्ली. इतले वर्सां धरून तांकां लग्न करूया म्हण विचार आशिल्ल्या परंपरागत विचारधारा आशिल्ल्या दोगांय बापांयनी पयलींच जातका

मेळोमेळ पळोका म्हणिल्लो विशय कसो कळूंक ना? वसुंधराल्या आजेन ल्हान आशिल्लें तेन्ना सांगिल्ली भंयकर भुताची काणी संदर्भानुसार सांगिल्ल्यान कथा परिणामकारी जाता. नलू कित्याक आत्महत्या करून घेता? विनयाबरोबर तिका झगडें जाता की काय? अथवा वसुंधराचो पुर्वइतिहास कळोन विनय लग्न जावपाक फाटीं सरता की कितें? हे प्रश्न वाचकांच्या मनांत उद्‌भव जातात.

*भेट :* सकाळीं मित्राबरोबर शिकारीक गेल्लो राजा जयदेव घोर रानांत चितळाक तिरान मारता. तें हरण तिरासयत धांवता. ताच्या फाटोफाट घोड्यार बशिल्लो जयदेव धांवता. तेन्ना सांज जाता. रात जावंचो वेळ. मस्त पुरो जावन रानांत शिरकून पडटा. ताच्या वस्त्रांचेर रगताचे खूण आसात. सिंह, वाघालीं गर्जना, गुगुमाचो आवाज, काळोख, फुस्करतले काळनाग ह्या परिस्थितींत कितें करपाचें ताका सुचलेंना. तो कुळदेवी महाकालीचें स्मरण करता. ताका एक ल्हानशें देवूळ दिसता. आनी थंय साकून सुरम्य संगिताचो महापूर येता. दुरच्यान ताका सितार वाजयत बशिल्ली सुंदर बायल मनीस दिसता. तिका पळोवन ताका कामपिपासा उत्पन्न जाता. तेन्ना एक म्हातारो ऋशी तागेली पूर्वपार काणी सांगता. ती बायल मनीस ताजी धूव. ताजी बायल कलावती ह्या संवसारांत ना.

राजाली बायल राणी कलावतीक संगिताचो नाद खूब आशिल्लो. तिका शंकरानंद म्हणून गुरू मेळटा. राजाची धूव रूपाली (देवळांत संगीत म्हणत आशिल्ली) थेट शंकरानंदा सारकें दिसता. (चित्रा काणयेंत प्रेमालें चेडूं चित्रा सारकें दिसता तशें) राजाक बायलेचेर संशय येता आनी तो तागेल्यापुरूश अहंकारान (male ego) शंकरानंदाक मरण दंड दिता. कलावती भिवन तिच्या एक म्हयन्याच्या चेडवाक घेवन धांवत वता त्या देवळांत येवन वण्टीर राजालें चित्र सोडयता. सतरा वर्सांसावन तें कोणाभशेन तरी दिसता म्हण संत राखून बशिल्लो. तें जयदेवाचें चित्र म्हण ताका कळटा. कलावती अगदी पवित्र आशिल्ली. तिगेलें पतिव्रत्य सिध्द करपाक ती आत्मसमर्पण करता. तिची मूर्त करून दवरल्या. राजा त्या पुतळेच्या पांयार लोळटा. कलावती हांव पापी, नीच, तुजो गुन्यांवकारी, म्हण रडटा. आकांत करता. एकदम खडखड करून व्हडलो आवाज जाता. पुतळ्या सयत जयदेव गुप्त जाता, लुप्त जाता. अशी ही काणी सोंपता.

जयदेव आनी कलावती हांची भेट जयदेवाच्या मरणांत संभाव्य जाता.

स्त्रीवादी लेखिकेन दादल्याच्या पुरूशी अहंकारान संशय प्रवृत्तीन कितलो व्हड अनाहूत घडता हें दाखयलां. सर्व सामान्य जीवन इतर काणयांत येवपी गुन्यांवकारीपण (पापप्रज्ञा) ह्या काणयेंत सुध्दा आसा. नियती म्हत्वाची पात्र खेळटा. नियतीन जयदेवाक दिल्लें हें पानवळ काय पतीच्या मिलनाखातीर आतूर जाल्ले कलावंतीनच घडोवन हाडिल्ली ही जगावेगळी भेट. ही भेट अअवर्णनीय, असामान्य भेट. जयदेव, कलावतीच्या आत्म्यांक मुक्ती मेळची म्हण संत देवालें स्मरण करता आनी अनाथ रूपालीक घेवन देवळाक वता.

जयदेव इतिहासीक पुरूश की न्हय म्हळिल्लो विचार हांगा अप्रस्तूत. लेखिकेन आपल्या कल्पना शक्तीन एक रहस्यात्मक (Romantic) काणी बरोवन ते नैज रितीन घडिल्ल्यावरी बरयिल्ले स्तुत्यार्ह. शिर्षकय काणयेक समर्पक आसा.

*कथा कथन :* सगळ्या काणयांत प्रारंभाक सांगिल्ल्यावरी मनोविश्लेशणात्मक अंश प्रधान आसा. चड काणयांत Flash Back कथनतंत्राची सदुपयोग केला. अनेक घटनाक्रम एतिहासीक क्रमांत (chronological order) जायनात. जाल्यार घटना घडचे, मुखार मागशान जाल्ल्यावरी त्यो सगळ्यो उपकथा काणयेच्या प्रमुख प्रवाहाक येवन मेळटात. अशो वेगवेगळ्यो घटना नैपुण्यान विणिल्ल्यान काणयांक (unity of purpose) उद्देश ऐक्यता येता. हें कथनतंत्र स्तुत्यार्ह म्हण सांगची गरज ना.

*पात्रचित्रण :* जास्त करून सगळ्यो काणयो महिलाकेंद्रीत जावन आसात. पुरूशप्रधान समाजांत स्त्रीक जाल्लो अन्याय, तांची असहायताय आनी तांगेली शोशण कशें निरंतर चल्ल्या हाचेबद्दल काणयो म्हत्व दितात. उदार स्त्री हृदय आशिल्ली फिलीमिनामाना आपल्याल्या अज्ञानान भाटकान्न आशिल्ली भिकान्न जाता. तिका डॉमनीक फसयता. शिवा आपल्याल्या नांवार सगळी संपत्ती जातकीर भागरतीक रस्त्यार उडयता. अज्ञानान पुनर्जल्माचेर आशिल्ल्या अंध, गूढ विश्वासान शिताबाय सुनेक हिंसा दिता. तशें म्हण बुध्दिजिवी आशिल्ली शारदाम्मा परावलंबी जायनासतना आपल्या धाडशी स्वभावान जिवनांतलें ध्येय सादून उन्नत स्थानाक पावता. भावान घराभायर घालें म्हण रडत बसना. अखेरीक हारिल्लो तिचो भावूच तिका शरण येता. आनीक कथानायकी रमा धाडशी स्वताचीच म्हण्टा – 'समाज

कोणाचोय विरोध हांव सोंसपी.' समाजाच्या प्रवाहाच्या विरूध्द रावच्याक तिका धैर्य आसा, ताकत आसा. गांवच्या पंचायतच्या सगळ्या दादल्यांक भिनासतना धैर्यान उलोवपी आनी नागू बरोबर गांव सोडून वचपी भागरत सुध्दा ह्या धाडशी महिलां सांगाताक सोबता.

संस्कृत साहित्यांत कालिदास श्रेष्ट शृंगार रसाचो कवी, जाल्यार भवभूतील्या नाटकांत करूण रस स्थायी भाव. ह्या काणयांत उठून दिसची करूणाजनक स्त्री पात्र. चड करून ह्या कथानायकीचो अंत्य दुख्खांत जाता. उदा, रमा बाळंतपणांत मरता. ह्या शिवाय तिका ल्युकेमिया आसता. अनाथ भागरत गळ्याच्या कांक्रान तळम्‌ळटा, कलावती राजा जयदेव मारून उडयतलो म्हण चेडवाक घेवन धांवत वता आनी मागीर जीव काडून घेता. एल्सा, वसुंधरा, श्रीमती हांचें जीवन दुख्खमय जाता. फिलीमिनीमाना, मुमताज जिवनांत कांय सूख पळेनात. ती जिवनमृत. असहायक जावन बायल आत्महत्या करपाक प्रयत्न करतात. उदा. मंजुळा (शारदाम्मा काणयेंत) अथवा 'तो येतलो देखून' काणयेंतल्या शिताबायची सून लासून घेता. 'भाकीत' काणयेंत नलू आत्महत्या करून घेता. ह्या प्रकार काणयेंत करूणरस ओतप्रोत जावन पाझरता आनी वातावरण संबंद दुख्खीतरेकान उद्दीपन जाता.

जास्त करून हांगा येवचीं पात्रां 'गुन्यांवकारीपणान' अपराधी मनोभावान तळमळतात. उदा : 'पानवळा' तलो विश्वंभर, 'भेट'तलो राजा जयदेव, 'चित्रा'तली चित्रा, 'रमा'तली रमा, 'शारदाम्मा' तलो तिचो भाव, 'बाळसटी'तलो गोपी, सान चेडवाले स्थितीक जबाबदार म्हण विश्वंभर तळमळटा जाल्यार राजा जयदेव बायलेल्या मरणाक जबाबदार म्हूण अपराधी मनोभावान तळमळून मरता. श्रीकांत दुख्खात बुडून सोरो पिवन मरणाक शरण जावची तयारी करता. रमा, शारदाम्माल्या भावाक पश्चातापाचें दूख्ख जाता. गोपी अपराधी भावनेन मानसीक संतुलन इबाडून मरता. अशे जास्त पात्रां दुख्खमय संवसारांतल्यान निर्गमन कतात.

दादल्यालो आनी बायलेचो शारिरीक संबंद, परस्पर आकर्शण एक नैसर्गिक प्रक्रिया. हातूंत कांय चूक ना. वसुंधरा आनी श्यामराव, प्रीती बरोबर अचातुर्य करचो विश्वंभर, रूपालीक पळयतकीर कामविव्हल जावचो जयदेव, जाण्टे जाल्ली तरी खाज तृप्ती करून घेवची भागरत, श्रीकांताल्या आंगार पडून लग्न जाल्ली प्रेमा, प्रेमवैफल्यान विरहाग्निंत शिजतली एल्सा, हे सगळे Life Force च्या

हातांतली कटपुतळी. बायलांक प्रेम म्हळ्यार जिवनभर निरंतर व्हळची न्हंय. ती केदनाय क्षणीक न्हय. आनी बायलांक आवय जावप म्हण दिसचें एक सहज प्रवृत्ती – Instinct for Motherhood. उदा : रमा पयलें प्लेटोनीक प्रेमाबद्दल उलयताली. तिका आवय जावचें मुख्य. ताचे खातीर ती अनैतिक संबंद दवरून घेता.

ह्या सगळ्या पात्रांक फाटीं घालून व्यतिरीक जावन विजगीषू प्रवृत्तीची शारदाम्मा झळकता. जिवन ध्येयाचेरच आपलें मन केंद्रीत करून खंयच्याय आकर्शणाक बळी पडनासतना, कोणाल्या जाळांत फसनासतना आपल्यालें जिवनादर्श पावचांत सफल जाता आनी बायलांली न्याययूत हक्काची प्रतिपादक (Champion of womanhood) जाता.

ह्या कथासंग्रहांत दिसचे लेखिकाचें जीवनदर्शन (Philosophy of Life) कितें? लेखिका पुरूश प्रधान समाजांत बायलांक निर्दयान मस्तून अज्ञानाच्या कुपात्तं उडोवन तांच्या शोशण करच्या मनुश्य वर्गाचेर गदाप्रहार करता. सतीबद्दल आशिल्लो विचार फुडें दिल्ल्या उतरांनी मस्त प्रभावशाली जावन 'मुमताज' काणयेंत आयला : 'ह्यो सती कोण? तर परंपरेच्या नांवांखाला अमानुशपणान बळी गेल्ल्यो भारतीय बायलो! कांय आपखोशयेन तर कांय जबरदस्तीन! आतांमेरेन कितल्यो बायलो बळी गेल्यो ताचो हिशेब ना. मात ह्या गौडबंगाली समाजान गरयेक हांयस लावचें तशें कांय बायलांक देवरूप दिवन तांच्यो 'फातरशिळा' सांबाळ्ळ्यात. कायद्यान सतीचेर बंदी घालून एक शतमान उलगलें तरी आयज हांगा रूपकुंवरी जल्माक येतच आसात. कांय जाणांक प्रत्यक्षपणान तर कांय जाणांक अप्रत्यक्षपणान घोव जितो आसतनाच मणदाह सोंसचो पडटा.' असले अन्याय पळोवन लेखिकेक सात्विक संताप (Moral Indignation) प्रखर जावन येता. हो स्त्रीवाद शुष्क न्हय, खरोखर न्याय सम्मत आसा.

भागरत सात वर्सार विकत हाडिल्ली सून. मांयच्या वाघा तोंडांत पडटा. मूळ नक्षत्रांत जल्मा आयिल्ल्या म्हण तिचें तोंड पळयनासतना त्या चेडवाक एक क्रूर अमानूष राक्षसा हाती दितात. विडंबना म्हळ्यार हो शोषक तिचो पोषक खंय. प्रायेर येतना ती श्रीमती अनाथ प्रज्ञेन वळवळटा, तिचेर अत्याचार करून तिका सिंहस्वपन जाता. मुमताजच्या आवयक चवथ्या वसाचेर लग्न. चवदा वर्साचेर पयलो बाळंटेर. उपरांत वर्स–वर्साक गुरवाचार. हें सगळे गुलामगिरीचें द्योतक. हे

काणयेंत येवचो अनेक स्त्रीपात्र गुणसंपन्न आसली तरी क्रूरविधी तांकां सतायता आनी तांचो बळी घेता.

*शैली :* लेखिका अनुपम उपमा दिता. सोता अणभवान संवेदनशील स्त्री दृष्टीकोनान जग पळोवंचें सहज आसा. ह्या दृश्टीकोनांतल्यान नवीन उपमा जल्माक येतात. उदा :

1) दोणांत आबिल्यो चेंपणाक घाल्लेवरी बसींत लोक चेपिल्ले (मुमताज)

2) त्या पत्रांतले ताचें अक्षरान अक्षर रागाची ल्हाय जावन पुटपुट्टालें. (भाकीत)

3) धा बाळंटेर जाल्ल्यान भितल्ल्या इंद्रियांक जणू वाळटी लागिल्ली. (मुमताज)

4) दोळ्यांची पातकडी धांपची आनी उगडची तेपरीन दोन वर्सांचो काळ उलगता (रमा).

5) माया म्हयन्याच्या रखरखीत दिसांनीच दोगांयचीं घरां खोशयेन भिजिल्लीं. (भाकीत)

6) ताच्या आंगांतल्यान सुटिल्ल्या पाळांनी चारीय वाटांनी जमनीक घास मारला. (बाळसटी)

हातूंत येवंच्यो प्रतिमा अप्रतिम आनी चित्रमय आसात. 'मुमताजा'त येवचें हॉस्पिटलाचें वर्णन, सुर्यास्त समयी येवंचें निसर्ग वर्णन, अवर्णनीय आसात.

ह्या कथा संग्रहांत येवच्यो Generalisation लेखिकाल्या जिवनदर्शनाचेर प्रकाश घालतात. उदा :

1) समाज मनाचें लग्न मानना, ताका मंत्रांचें लग्न जाय. (भाकीत)

2) बायलेचो हात फिरल्याशिवाय घराक जिवंतपणा येना. (रमा)

3) जें जेजूचें मतींत आसा तें कोणाकच चुकना. (काणी सिंड्रेलाची)

4) मनशान भियेवंचें आपल्या मनाक, जनाक न्हय. (शारदाम्मा)

लेखिकेलो पुरोगामी विचार काणयांत येता. विशेशता शारदाम्माचें पात्रचित्रण तिच्या तोंडांतल्यान लेखिका सोताचें जिवन दर्शन आपल्यालो दृश्टीकोण मांडता. उदा : बायलांक शारदाम्मा सारको आत्मविश्वास जाय. (शारदाम्मा) एके बायल मनशेन सोताक अबला समजून आपली जीण आपल्याच हातान पिसूडची न्हय. (शारदाम्मा) अनेक पात्रां लेखकेलीं (Mouth Piece) जाल्ली तरी काणयांत

शुष्क उपदेश ना. लोकवेद काणयांत ग्रामीण भाशेचा प्रयोग नैजतेक उठाव दिता. 'भेट' काणींतल्या काव्यमय भाशा रोम्यॅटीक वातावरणाक पुरक जावन आयला. ल्हान पदपुंजान थोडक्यांत चड सांगता. उदा : चुंबका सारको फाटोफाट वचपी जयदेव, अथवा मळबांत धवें फुल्ल चान्नें पडिल्लें, अथवा त्या किरमुजी उजवाडांत (भेट) जुवानेन मुसमुसिल्ल्या रूपालीचें स्फटिकावरी शरीर (भेट) हें Othello तल्या Decdemona चे white alaborter शरीराचो उगडास करून दिता.

पुंखानूपुंख जावन बरयतना गडबडींत एक दोन चूक जावचे सहज आसा. उदा : तिरूपतीचे 'विश्वनाथ' तें 'वेंकटमण' जावंका नाजाल्यार 'काशीचो विश्वनाथ' जावंका. तशेच पोंगल कानडी लोकाली परब न्हय, तामीळ लोकाली. भेट काणयेंत देवळाच्या फाटल्यान धायेक मिटरांच्या अंतरार - मिटर इंग्लीश शब्दा परस 'गज' शब्द इतिहासीक काणीक सोबतालो. ह्या कथांनी विचारांची तिव्रताय आसा. अणभवांची व्याप्ती आसा. अशें लेखिकेन म्हळिल्लें अक्षरशा सत्य आसा.

लेखिकेन वर्णन केल्ले व्यक्ती तिका समाजांत सांपडिल्ले म्हण ती सांगता. असली व्यक्ती कोणाकय मेळटात. तांचें जिवन चरित्र बरयल्यार आशिल्ल्यावरी बरयल्ल्या ती कला जायना, इतिहास वा फोटोग्राफी जाता. त्या व्यक्तीचेर कल्पनेचो रंग घालून सजयल्यार मात ती कला जाता. 'Art is an imitation of life' म्हण्टा ॲरिस्टॉटल. Imitation म्हळ्यार अनुकरण न्हय. 'It is imaginative reconstruction of life'. लेखिकेन जिवनांत भेटिल्ल्या अथवा अस्तित्वांत आशिल्ल्या पात्रांचेर विचार करून कल्पनेचो रंग घालून व्यक्तीचित्र बरोवन तातूंत सोताची जिवनदृश्टी भरून पात्रचित्रण अत्यंत नैजरूपान जिवंत रचयलां. जिवनाच्या माटवावयर कलेची वाल वाडयल्या.

सरळ, सुंदर भाशेची शैली, ज्वलंत समस्यांबद्दल संवेदनशिलता, अणभवी आनी परिपक्व विचारधारा प्रतिबिंबींत व्यक्तित्व, थोडक्यांत चड सांगची कला कौशल्य, मनोविश्लेशणात्मक आकर्शक कथनतंत्र, चित्रमय पात्रचित्रण ह्या सगळ्या दृश्टीन पळयल्यार जयंती नायक एक श्रेष्ठ साहिती म्हण सांगचे अनिवार्य. हें श्रेष्ठ कथा संग्रह संग्राह्य योग्य स्तुत्यार्ह आनी लेखिका अभिनंदनर्ह म्हण सांगचेंच पडटा.



6

# ‘अथांगा’चो थाव घेतना

*डॉ. बाळकृष्णजी कानोळका*

‘अथांग’ हो जयंती नायक हांचो दुसरो कथाझेलो. तांचो पयलो झेलो ‘गर्जन’ . ‘गर्जना’ उपरांत बारा वर्सांनी हो दुसरो झेलो प्रकाशीत जाला. मदल्या बारा वर्सांच्या काळांत तांणी बरयल्ल्या कथांतल्यान वेंचीक कथा घेवन हो झेलो गुंथला. झेल्यांत वट्ट सतरा कथा आसात. सुमार देडशें पानांचो तांचो विस्तार. तांचे भितर कांय मोटव्यो जाल्यार कांय दिर्घतायेकडेन पावलां मारपी कथाय आसपाविल्ल्यो पळोवंक मेळटात. तरी, ह्यो सगळ्यो कथा ‘लघुकथें’ तूंच मोडटात. पूण खऱ्यांनीच त्यो सगळ्यो ‘लघुकथा’ आसात व्हय, असो प्रस्न ह्या झेल्यांतल्यो कांय कथा वाचिना फुडें म्हजे सामकार उबो जालो. चडश्यो क़था परतून वाचून काडल्यो आनी हांव चक्रावलों. आशय म्हळ्यार कथेचो प्राण. पूण ताका फावशी ‘कूड’ ना असोच कांयसो प्रकार ह्या कथांचे बाबतींत जाल्लो जाणवलो. दुसरी एक गजाल जाणवली – जयंतीबायची लिखणी कथेपरस नवलकथेक अदीक अनुकूल आसा. हांव सल्लो दिना. पूण जयंतीबायन मुजरत नवलकथा बरोवपाचो यत्न करून पळोवचो अशें म्हाका सांगन दिसता. ह्या झेल्यांतल्यो ‘बसवो’, ‘अंवसर’, ‘रमा’, ‘काणी सिंड्रेलाची’ बी पांच–सात कथा सोडल्यार बाकीचे बरपावळीक कथा म्हणप समा जायतशें दिसना.

जयंतीबायच्या ह्या झेल्याविशीं आतांमेरेन म्हळ्यार, गेल्ल्या स-सात म्हयन्यांभितर जायते जाण खूब कितें उलयतात आनी तशेंच जायतें बरोवनूय आयलां. पूण ह्या सगळ्याचेर 'लोकवेद संशोधक' म्हण जयंतीबायन जोडिल्ले नामनेची सया आसा. एके समर्थ कथालेखिकेन बरयल्ल्यो कथा म्हूण ह्या कथांची मोलावणी जावंक जाय आशिल्ली. ती जाल्ली पळोवपाक मेळना. तसो एक सुपुल्लो यत्न ह्या नियाळावरवीं करचो थारायलां. हांगा लेखिकेक उणें लेखपाचो निखालूस विचार ना. ह्या झेल्यांतल्यो कथा 'कथा' म्हण खंय उण्यो पडटात तें दाखोवपाचो हो यत्न. देखून कथा ह्या साहित्य प्रकारा विशींची गरजेपुरती चर्चा पयलीं करून ताच्या उजवाडांत ह्या कथाझेल्यांतल्या कथांची नियाळणीं आनी मोलावणी करप समा जातलें अशें दिसता.

साहित्याचो अणभव घेवपाचे प्रक्रियेंतूच एके तरेन साहित्य प्रकाराची जाणविकाय लिपिल्ली आसता अशें म्हणूं येता. खंयचीय साहित्यकृती आमी वाचतात तेन्ना ती एके विशिश्ट जातीची म्हळ्यार कथा, नवलकथा, नाटक वो कविता म्हुणूनच आमी वाचतात. कविता झेलो घेवन तांतल्यो कविता आमी नवलकथा म्हण वाचिनात वा नवलकथा नाटक म्हण वाचिनात. हाचो अर्थ, खंयचेय एकाद्रे साहित्यकृतीचें वाचन करचे पयलींच साबार साहित्यप्रकारांविशींची जाणविकाय, तांचें रूपडें, तांचे निजाचे अशे संकेत, तंत्र हांचे विशीं सादारणपणान वाचप्याक जाण आसता. ह्या गिनान्याच्या आदारान कळटां नकळटां ताचे मतींत वाचपाक घेतिल्ले ते साहित्यकृती विशीं कांय अपेक्षा लेगीत निर्माण जाल्ल्यो आसतात. वाचनांतल्यान ह्यो अपेक्षा सफळ जाल्यो नात जाल्यार ते साहित्यकृतींत कितें तरी उणें आसा अशें निश्चित म्हणूं येता. 'अथांगा'विशीं म्हाका एक वाचक म्हण असोच अणभव आयलो. ताचें कारण कितें, ताचो हो सोद. ताचो थाव घेवपाचो यत्न.

कांय जाणांच्या मत्तान दर एक साहित्यकृती 'अनन्यसाधारण' आसता. पूण अशें मानप समा न्हय. कित्याक, अशें मानलें जाल्यार साहित्याचें वर्गीकरण वो साहित्यकृतीची तुळा संभव जायना. आनी तिचे मोलावणेच्या कार्यांत विघ्न येता. दर एके साहित्यकृतीक निजाचें अशें 'स्व'त्व आसता, म्हळ्यार तिगेले खाशेले, निजाचे गुणधर्म आसतात. हातूंत तिगेल्या खाशेल्या रूपबंधाचो, रूपड्याचो आसपाव जाता. तेच भशेन तिचे भितर कांय रासवळ गुणधर्म लेगीत आसतात. हे

रासवळ गुणधर्म म्हळ्यार जातित्व (Genre). दर एका साहित्यप्रकाराचो एक संकेतव्यूह, एक संकेत वळेरी आसता. ही संकेत वळेरी ते साहित्यकृतीक विशिष्टत्व', खाशेलेंपण जोडून दिता. म्हळ्यार ही संकेत वळेरी ते विशिश्ट साहित्यकृतींतल्यान प्रगट जायत आसता. हे संकेत वळेरेचे वो रासवळ गुणधर्माचे फाटभुयेंचेर ते ते साहित्यकृतीचें 'विशेशत्व'- खाशेलेपण / नीजपण प्रगट जातना पळोवंक मेळटा आनी देखुनूच साहित्याचें वर्गीकरण करप आनी मोलावणेच्या कार्यांत ताचो आदार घेवप भोव गरजेचें आनी नितकारी थारता.

कथात्म, भावकाव्यात्म आनी नाट्यात्म हे ललीत साहित्याचे तीन मुखेल वर्ग अशें मानतात. साहित्य लेगीत एक ललीत कलाच. 'सर्जक अनुकृतिशीळताय' हें ललीत कलांचें व्यवच्छेदक लक्षण म्हण 'ॲरिस्टॉटलान' सांगलां. साहित्य हें अनुकृतिचें माध्यम. ह्या माध्यमाक लागूनच साहित्यकला ही ललीत कलां परस वेगळी थारता, अशें ताणें म्हळां. निवेदनाच्या आदारान अनुकृती करप हें म्हाकाव्याचें लक्षण अशें तो सांगता. म्हाकाव्य कथात्म साहित्याचो एक प्रकार. हाचो अर्थ, निवेदनात्मता वो कथनात्मता हे कथात्म साहित्याचें एक व्यवच्छेदक खाशेलपण. नवलकथा, कथा हे कथनात्मताप्रधान साहित्यप्रकार आशिल्ल्यान ते कथात्म साहित्याचे प्रकार थारतात. आनी ते विशी कोणाचेंच दुमत ना.

कथा हो एक साहित्यप्रकार. तो गद्यांत आसूं येता तसो पद्यांतूय आसूं येता. कथा म्हळ्यार कितें, ह्या प्रस्नाचेर जायत्या श्रेश्ट कथाकारांनी आनी साबार साहित्यविमर्शकांनी आतां मेरेन बरोवन दवरलां. त्या सगळ्या बरप्यांच्या हे विशींच्या मत्तांचो आपरोस काडलो जाल्यार अशें म्हणूं येता, की 'कथे' विशींची संकल्पना काळाबराबर बदलत आयल्या. अमेरिकेचो म्हालगडो कथाकार 'ऍडगर ॲलन पो' हांणी 1842 वर्सा कथेच्या स्वरूपलक्षणांची पयली-वयली मांडणी केली आनी तेन्ना सावन तिचे तत्वचर्चेक प्रारंभ जालो. ते उपरांत स्वतंत्रपणान तत्वचर्चेच्या आदारान कथेची संकल्पना विसकटावन दाखोवपाचो प्रयत्न 'ब्रॅंड मॅथ्यूज' हाणें The Philosophy of the Short Story ह्या आपल्या निबंदा वरवीं (1901) केलो. ह्या मळावेलें हें फुडलें पावल. तें पयलीं म्हालगडो कथाकार 'चॅकोव्ह' हाणें हे विशीं भासाभास करतना म्हळां (1889, "रंगमाचयेप्रमाण कथेक लेगीत निजाचें कलासंकेत आसात." मराठी भाशेंतले एक नामनेचे कथाकार आनी कथा-आलोचक 'प्रा. ना. सी. फडके' हांणी पोन मांडिल्ले संकल्पनेच्या आदारान एक

कथा संकल्पना मांडल्या. तातूंत ते म्हणटात, ''उण्यांत उणीं पात्रां आनी उण्यांत उणे प्रसंग उपकारावन थोड्या वेळा भितर परिणामकाराक रितीन सांगिल्ली वा आयकुप्यांच्या मनाचेर एकूच छाप घालपी हकीगत म्हळ्यार लघुकथा.'' तांणी केल्ले 'कथे' ची ही व्याख्या बारीकसाणेन नियाळून पळयल्यार कथेच्या साबार आंगांच्या सांगातान तिच्या मुळाव्या दोन रूपगुणांचो दिश्टावो जाले बगर रावना. हे दोन गूण म्हळ्यार 'हकीगत' आनी ती सांगपाची 'रीत'. खरेपणानशी 'कथा' ह्या साहित्य प्रकाराच्या गाड्याचीं हीं दोन चक्रां. आनी ताची धुरा म्हळ्यार 'कथ्य'. कथ्य म्हळ्यार निखळ हकीगत न्हय. कथा सांगप्यान आपले खाशेले नदरेंतल्यान सांगिल्ली हकीगत म्हळ्यार 'कथ्य'.

कथेंत 'कथ्य' आनी तें सांगपाची 'रीत' ह्यो दोन गजाली सगळ्यांत म्हत्वाच्यो. ते बगर त्या सांगपाक परिणामकारकता येना. तशेंच, रंगरूपय प्राप्त जायना. लळीत कलेच्यो ह्यो आदिशक्ती. 'कथ्य' हो प्राण जाल्यार 'रीत' ही कूड. हो प्राण धारण करपी हे कुडीचीं पंचेंद्रियां म्हळ्यार कथानक, पात्र, वातावरण, निवेदन आनी भास.

कथात्म साहित्यकृतिची संहिता (text) विंगड विंगड निवेदन प्रकारां वरवीं भाशेच्या माध्यमांतल्यान आकाराक येता. कथानक, पात्र, वातावरण हीं आंगां तातुंतल्यान प्रगट जातात आनी ह्या सगळ्यांतल्यान एकात्मपणान कथात्म साहित्यकृतींतल्या अनुभवार्थाची वो कथार्थाची निर्मणी जाता. हें सुत्ररूपान सांगूं येता : अनुभवार्थ, आशयसूत्र, कथानक, पात्र, वातावरण, निवेदन आनी भास अशीं घटकांगां मेळून कथात्म साहित्यकृतिची समेष्टी सिद्ध जाता.

कथन, वर्णन, भाश्य आनी संवाद हीं निवेदनाचीं चार आंगां. कथानक म्हळ्यार निखळ काणी (story) न्हय. कथानक म्हळ्यार plot. संघटनतत्वांक धरून काणयेच्या आंगांची केल्ली मांडणी. 'काणी' (story) आनी कथानक (plot) हांचेमदल्या स्वरूपभेदाची सगळ्यांत पयली मांडणी ई.एम्.फॉस्टर हांणी केली. ते खातीर तांणी संघटनतत्व हें सूत्र आपणायलें. घडणुकांची संघटना करचे कार्यांत फकत 'काळानुक्रम' (chronology) हें एकूच तत्व आपणायलें जाल्यार ते तरेचे रचनेक 'काणी' म्हणची आनी घडणुकांचे गुंफणेंत 'काळानुक्रमा'च्या सांगातान जर कार्यकारणभावाचें सूत्र सक्रीय आसत तर ताका 'कथानक' म्हणचें अशें ते सांगतात. कथानक म्हळ्या कथ्य न्हय, तर कथ्य साकार करपी तें कथेचें

एक आंग.

'कथा' ह्या साहित्यप्रकाराविशींचे हे अल्प तत्वचर्चे उपरांत ताच्या उजवाडांत आतां जयंती नायक हांच्या 'अथांग' कथा झेल्यांतल्या कथांचो सुवाद घेवं येता.

'अथांगां'तल्या कथांचे कांय वांटे घालून ते विशींची भासाभास करप सोपें जातलें. ह्या झेल्यांतल्या कथांचेर उडटी नदर मारीत जाल्यार एक गजाल सट्ट करून मतींत येता, ती म्हळ्यार तातुंतल्यो साबार कथा अस्तुरी-केंद्री आसात. दोन-तीन कथांचो हाका आडवाद आसूं येता. जयंती नायक हांचे अस्तुरी स्वतंत्रतायेविशींचे विचारसरणीचो हो प्रभाव आसूं येता. पूण हाका लागून लेगीत कांय कथांचें 'कथापण' इबाडून वता. देखीक 'शारदाम्मा' ही कथा. खोलायेन अभ्यासल्यार हांव कितें म्हणटा ताचो उमज अभ्यासकाक जांव येता. हे कथेचे धारेंत गरजे भायर अस्तुरी स्वातंत्र्याविशिंची घोषणावजा कांय विधानां आयल्यांत. ताका लागून आनी कथेचे मांडावळीक लागून कथेचो 'प्राण' बळिश्ट कुडी विणें हुमकळटा, अशें जाणवता. 'आसाडी' ही झेल्यांतली सुरवेचीच कथा बरी आसा. पूण थंयूय हो दोश उण्या-अदीक प्रमाणांत पळोवंक मेळटा. ही कथा एके आवयची. पूण तिचे सुरवेचो अर्दोअदीक व्याप पळयल्यार तिका खंयचे दिकेन वचचें आसा वा ती खंयचे दिकेंन वचची हाचे विशीं कथा आनी लेखिकाय भानार आशिल्लीं दिसनात. 'पानवळ' हे कथेची वीण लेगीत विसविशीत जाल्या. 'सपन', 'भागरत', 'मुमताज' ह्या कथांविशीं लेगीत चिरेबंद बांदावळीचो उणाव दिसून येता. 'फिलमीनमाना', 'भाकीत', 'चित्रा', 'रमा', ह्यो कथा मॅलोड्रॅमॅटिक जाल्ल्यान प्रभावहीन वा प्रभावदुबळ्यो जाल्यात. रचनातंत्राच्या उणेपणाक लागून आनी 'भाशे' सारकेल्या कथेच्या घटकाचे तांकिच्या अभावाक लागून अशें जालां. केन्ना केन्ना बरी भास बरे कथेक मारक थारता हे विशिंची देख ह्या कथांतल्यान पळोवपाक मेळटा. भाशेच्या भोंवऱ्यांत लेखक वा लेखिका फसले उपरांत कथेचें कितें जांव येता ताच्यो ह्यो देखी.

'भेट' आनी 'ती' ह्यो दोन कथा मात Ghost Story सारक्या वातावरणाच्यो कथा. लेखिकेची लिखणी हांगा चंवरून येता आनी कथेचो परिणाम वाडोवंक ताका लागून मजत जाता. प्रतिकात्मकतेंतल्यान जीवनभाश्य करूंक पळोवपी अश्यो ह्यो कथा. असले तरेच्या कथांनी रचणुके खातीर तकलीफोड व्हडा प्रमाणांत करची पडना. ही कथा व्हडश्या प्रमाणांत chronological म्हळ्यार घडणुकांच्या

इतिहासीक क्रमाक अनुसरपी आसता. आनी तशें पळोवंक गेल्यार रचप्याचो कस हे तरेच्या कथालेखना वरवीं लागना. अशे तरेचे कथेंत 'कथानक' नासता, तर 'गोष्ट' वा 'काणी' आसता आनी ताका लागून 'कथा' म्हणप अतिताय जांव येता.

ह्या झेल्यांतल्यो 'बाळसटी', 'अंवसर', 'बसवो' आनी 'काणी सिंड्रेलाची' ह्यो कांय बऱ्यो कथा जांव येत. तातूंत 'काणी सिंड्रेलाची' ह्या झेल्यांतली सगळ्यांत बरी कथा. कोंकणी कथेच्या वाटारांत आनी इतिहासांत लेगीत तिका सुवात आसा अशें म्हणूं येता. ही कथेवरवीं एक गजाल सिध्द जाता, ती म्हळ्यार लिखणी seriously हातांत घेतल्यार जयंतीबाय बऱ्यांतली बरी कथा बरोवंक शकता. 'अंवसर', 'बसवो' बी कथा ताका बऱ्यो जमल्यांत. तरी लेगीत तंत्राच्या उणेपणाक लागून तांचो कस उणो जाला. ह्या कथांचें seriously पुनर्लेखन जालें जाल्यार तांकां चोवीस कॅरेटचो कस लागूं येता. सद्याक त्यो बावीस कॅरेटाचेर आसात.

पात्रचित्रणाचे नदरेंतल्यान पळोवंक गेल्यार ह्या झेल्यांतल्यो दोन वांटे कथा अस्तुरीप्रधान आसून लेगीत तातुंतल्यान ठसठसशीतपणान जिवी तट्टटीत 'व्यक्ति' वाचप्यांमुखार येना. आडवाद फकत सिंड्रेलाचो. बाकीचीं व्यक्तिचित्रणां 'चितारपां' जाल्यांत. 'भुमिका' न्हय. तांकां दोनूच dimensions लाभल्यांत. तीन dimensions न्हय. देखून तीं कागदारूच उरतात. तीं जिवीं जावन, उठून वाचप्यांकडेन संवाद साधिनात.

एके मर्यादे मेरेन 'भागरत' कथेंतलें 'भागरती'चें पात्रचित्रण बेस बरें साधलां. पूण रचणुकेंतल्या उणेपणाक लागून तें निवेदनाच्या पांवड्याचेरूच तिशठत उरिल्लें दिसता.

'निवेदन' आनी 'भास' हे विशिंचो जाणीवपूर्वक वापर केल्लो आडवादानूच पळोवंक मेळटा. परतून हांगां 'सिड्रेला' कडेनूच बोट दाखोवचें पडटा. 'निवेदन' वा 'कथन' म्हळ्यार फकत 'सांगप' न्हय. तातूंत 'कथ्य' आसूंक जाय. आनी साबार कथांनी, कांय बऱ्यो कथा सोडल्यो जाल्यार, हाचोच उणाव आसा हें जाणवता. कथेची भास म्हळ्यार 'व्याकरणी भास' न्हय, हाची जतनाय कथालेखकान पावला पावलाक म्हळ्यार उतरा उतराक घेवची पडटा. हाचें कारण म्हळ्यार ती भास ते कथेंतल्या 'कथ्या'ची वाहक आसता. देखीक, पेट्रोल आनी

डिझेल दोनूय गाडयो चलोवपाक वापरतात. पूण पेट्रोलार चलपी गाडी डिझेलार चलना आनी डिझेलाचे गाडयेक पेट्रोल चलना. तेच प्रमाण दर एके कथेची रचणूक मतींत घेवन मागीरूच फावो ते भाशेचो वापर करचो पडटा तरच 'कथा' चलता. ना जाल्यार पांगुळगाडयेच्या वॉकरान – आदारान आवय भुरग्याक चलयता तीच तरा कथाकार, कथा आनी कथेचे भाशेची जाता.

एक गजाल ह्या झेल्यांतल्या कथांतल्यान पळोवंक मेळटा, ती म्हळ्यार, जायत्या कथांचेर लेखिकेचे जिणेची आनी तातुंतूय लोकवेदाचे अभ्यासिकेच्या अणभवांची सया पडल्या. 'आसाडी', 'अंवसर', 'बसवो' ह्यो हाच्यो कांय ठळक देखी.

जायते फावटीं कथाकार वा कलाकार, म्हळ्यार सर्जक आपूण कितें तरी क्रांतिकारक करतां अशें दाखोवन दिवपाच्या हावेसाक लागून आपले निर्मणे मदें कांय 'नाटकां' करता. ताका लागून ते निर्मणेक एक 'भडक' रूप वा रंग फावो जाता. लोकांक, कांय लोकांक तें आवडटाय बी आसूं येता. पूण रसिकांक आवडना कारण अशीं 'नाटकां' जायते फावटीं 'रसविघ्न' निर्माण करतात. कलाकृतिची तशी मागणी आसत जाल्यार गजाल वेगळी. ती समजूं येता. आनी कलाकृतीची तशी मागणी पुराय केल्ल्यान 'रसविघ्ना' बदला 'रसपरिपोष' जाता आनी ते कलाकृतिची रसवत्ता वाडटा हे सत. पूण हे बाबतींत 'विवेक' आसचो पडटा. विवेक सुटलो जाल्यार ते कलाकृतिचो कपाळमोक्षय जांव येता. अश्लीलतायेचो प्रस्न हीय अशीच एक गजाल. तिचे विशीं व्हड व्हड साहित्यिकांची दिशाभूल जाल्ल्यान ते पाघळ्ळ्यात आनी व्हांवत गेल्यात. पूण कांय जाणांनी 'विवेक' जागो दवरून तिचो आलाशिरो घेवन आपणालें साहित्य अज्रंवर केल्ल्याच्योय देखी आमकां पळोवंक मेळटात. सांगपाची गजाल म्हळयार, जयंतीबायन 'विवेकहीन' अशे कांय देखाव आनी कांय वर्णनां आपल्या कांय कथांतल्यान शिंवरल्यात. देखीक, 'सपन' ही कथा पळोवची. 'भडक' भास वापरल्यार आनी तशेच देखाव उबारले जाल्यार कथा चड परिणामकारक जाता अशे तरेचो अपसमजय अशे तरेचे करणेच्या मुळसांत आसूं येता. पूण तो खरो न्हय. हांगा एके इंग्लेज म्हणणेचो उगडास करून दीन सो दिसता. ती म्हळ्यार, 'सीझरची बायल पतिव्रता आसूंक जाय, पूण ती तशी आशिल्ल्याचें दिसुंकूय जाय.'

जायते फावटीं पुस्तकाच्या कवरावेलें चित्र बरें आसता. तें व्हड चित्रकारानय

काडिल्लें आसूं येता. पूण तें 'खरें' आसताच अशें न्हय. 'खरें' म्हळ्यार साहित्यकृतिच्या आशयाक वा कथ्याक वा टायटलाक अनुसरपी. बाब श्रीधर कामत बांबोळकार हे गोंयचे नामनेचे चित्रकार. आजवेर तांणी खूब नामना जोडल्या. जायत्या पुस्तकांचीं मुखचित्रां रंगयल्यांत. चित्रकार म्हण ते व्हड आसात हे विशीं दुबाव ना. 'अथांग' ह्या झेल्याखातीरचें तांचें सप्तरंगी चित्र सुंदर आसा पूण तें 'सुयोग्य' ना अशें स्पश्टपणान सांगनशें दिसता. 'मुखचित्रा' मदें माधम्य बदलता, 'आशय' न्हय; हाचो विसर पडूं नये. 'मुखचित्र' चितारपी कलाकाराक साहित्याचोय अभ्यास आसचो पडटा. तेन्नाच तें 'मुखचित्र' थारता आनी 'रसिकत्व' जागें करता.

(जाग, ऑगस्ट - 2002 ह्या अंकांत उजवाडाक आयलां.)



7

# म्हाका भाविल्लो 'अथांग'

*नूतन साखरदांडे*

जयंती नायक -साहित्यीाक मांडा वयली ही अस्तुरी. सोळा वर्सां आदीं गर्जन करीत आयली खरी, पूण पेणीं करीत रावलिना. तिणें साहित्याचो रथ आपल्या खांदार नाचोवंक सुरू केलो, तोय बी थांबनासतना. पळेतले पळेतूच उरले. लोकवेद, लोकसाहित्य, लोककाणी, बालसाहित्य, कथालेखन अश्यो तरेकवार रंगरंगयाळ्यो घुडयो तिणें आपल्या साहित्यीक रथार रोमल्यो. पूण सगळ्यांच्या दोळ्यांत भरलें तें 'अथांगा'चें अब्दागीर. आमोणें सारकेल्या गांवगिऱ्या पूण संस्कृती संपन्न अशा वाटारांत जल्माक आयिल्ले हे चलयेन आपल्या साहित्यीक रथाचेर गर्जनाची पयली घुडी रोमली आनी ताची कथा गोंयभर पावली. सपसप कोणाच्याच वांट्याक येना अशें जिवीत ताणें लागिंच्यान पळेलां, अणभवलां. ताचें पडबिंब आमकां गर्जनात दिसता. खंयच्याय बरोवप्याच्या पयल्या पुस्तकांत नवेंपण जाणवता, पूण जयंती हे गजालीक आडवाद थारलें. जेष्ठ साहित्यिकांनी आनी समीक्षकांनी ताच्यो कथा उखलून धरल्यो.

'अथांग' कथा झेलो गर्जना उपरांत बारा वर्सांनी आयलो तरी जयंतीचो कथाप्रवास चालूच आशिल्लो. ह्या बारा वर्सांनी ताचे अणभवविश्व आनीकूय विशाळ जाल्लें आनी ताच्या कथांक लोकसाहित्याची झालर आयिल्ली.

तळागाळांतल्या गोंयाकडेन वाचप्याचो संबंद जोडपी निजाच्यो कथा म्हूण वाचप्यांनी ताची तोखणाय केली.

ह्या कथासंग्रहांत वट्ट सतरा कथा आसात - आसाडी, ती, शारदाम्मा, पानवळ, काणी सिंड्रेलाची, बाळसटी, सपन, मुमताज, फिलमीनमाना, भागरत, भाकीत, तो येतलो देखून, भेट, चित्रा, रमा, अंवसर, बसवो- अश्यो ह्यो सतरा कथा. सांस्कृतिक दायज सांबाळून दवरपी बायलो वा दादले जयंतीच्या कथांचे केंद्रबिंदू. लेखिकेचें संवदेनशील मन अथांग वाचतना खिणाखिणाक जाणवता. तें कथा बरयतना कसलींच बंधनां लावन घेना. ताच्यो चडश्यो कथा प्रादेशीक रूप घेतात. ताच्यो असल्योच कथा, हेर कथां परस चड प्रभावी थारल्यात. जयंती फकत पात्रचित्रण वा सभावदर्शनूच करिना, तर कथेंतलें वातावरण, कथेंतलो परिसर बारीकसाणेन रंगयता. देखीक, आसाडी कथेंतली घन्नी ही भुरगें नाशिल्ली बायल. लोकसंस्कृतीची फाटभूंय आशिल्ले हे कथेंत सुरवेकूच सुंदर वातावरण निर्मिती जाल्या. सात वर्सांची बाब येळपा कडेन लग्न जाल्ली घन्नी ताच्या सात भावंडांचो संवसार आपल्या भुजार घेता. तांच्या भुरग्यांक खेळयतां खेळयतां आपणाक भुरगें ना हें ती साप्प विसरून वता. कथेंत खंयच तिची खंत दिसना, पिरंगण दिसना. तिचें पोट पिकूं ना म्हूण सभेमाजार विठ्ठल तिका हिणसायता तेन्ना बाब येळपाक लेगीत राग येता आनी तो विठ्ठालाक बडयता. पूण घन्नी धांवत वचून ताका सांसपिता, ताका वखद लावया म्हणटा आनी निमाणी घसघश्यांनी रडटा. तेन्नाच बाब येळपाक दिसता की मळबांतलो पावस घन्नीच्या दोळ्यांतल्यान दुकां जावन घसघसता. सुंदर वातावरण निर्मिती, लोकसंस्कृतीची फाटभूंय, जितें जिवें पात्रचित्रण आनी निमाणें पावसाच्या रूपान आयिल्लो सैम ह्या चारूय गजालींचो सुंदर गोफ हे कथेक कलात्मकतेचे ऊंच पातळेर पावयता. बाब येळपाच्या घरा वांगडाच ताच्या पुराय कुटुंबाची वळख लेखिका इतले सहजतायेन करून दिता की तिची निरिक्षणशक्त पळोवन मन तटास जाता.

आनीक एक सांस्कृतिक दायज आशिल्ली कथा म्हळ्यार बसवो. ह्या बसव्यांत इतलीं पात्रां आनी इतले प्रसंग आसात की ती आनीक विस्तारली जाल्यार कादंबरीय जावं येताली अशें दिसता. बसव्यांतलो गोविंद ठाकर हो गांवचो मुकादम. केदो मान आसता ताका गांवांत. वर्सावळीचो म्हालबसवो ताणेंच फिरोवचो. पूण ह्याच ठाकरवाड्याचेर अरिश्ट येता आनी एका अपघातांत वाड्यावेलीं बारा मनशां आक्ताक सोंपतात. तातूंत गोविंद ठाकरालींच तीन मनशां आसतात.

आपल्या घरचें दु:ख विसरून गोविंद दुसऱ्या खातीर वावुरता. पूण लोक ताकाच हे घडणुकेक जबाबदार धरतात. कित्याक तर लायटीचो शॉक लागून ताचे चारूय पाडे मेल्ल्यान ह्या वर्सा गांवांत बसवो खेळिल्लो नासता. ल्हान पाडकाक बसवो म्हण फिरोवचो काय ना हाचें मानीसक व्दंद लेखिकेन बेस बरें चित्रायलां. हे कथेंत गोविंद ठाकरा सकट डोमाऱ्यांची पुराय जीण तिणें समर्थपणान मोठे ताकदीन चित्रायल्या. असले विशय पेलप कठीण. ही कथा जयंतींतले संवदेनशील आनी सर्जनशील लेखिकेची कसोटी म्हळ्यार जाता.

तुमकां दसरो पळोवंक जाय? कौल घेवंक जाय? अंवसर वाचात. दिवटेकार, धोलकार, तरंगां, धोल, बेतकाठी, पुरूस, भार, अंवसर, गाराणें सगळें तुमकां अंवसरांत मेळटलें. शिवाय दोन पिळग्यां मदलो संघर्शूय 'अंवसरा'त आसा.

आनीक एक म्हाका भाविल्ली जबरदस्त अशी कथा म्हळ्यार 'ती'. आत्मसोदाच्या हावेसान भायर सरिल्ले 'ती' ची कथा आमकां अंतर्मुख करता. 'ती' कथेंत कितें वेगळेंपण आसा? हातूंत साळू आनी बायूल आसात आनी तांकां आलाशिरो दिवपी आकांताचो वड आसा. वडाच्या मुळां सारकींच हे कथेचींय पाळांमुळां घट जाल्ल्यान हे कथेक एक वेगळेंच भारदस्तपण आयलां. संबंद कथावस्तूंत हो वड तुजे बराबर आसता. शील भ्रस्ट जाल्ल्यान साळूक राघूच्या संवसारांत गोडी नासता. म्हूण तें भायर सरता तेन्ना ताका आपले सारकेच मन:स्थितींतली 'ती' भेट्टा. ती ताका सत्याचो दिश्टावो घडयता. 'रोंपलों खंयूय वाडूं, पूण ताका बरें सारें - उदक मेळूं, तो फुलूं, फळूं, हो एकूच तळमळो.'

'ती' ची आनी साळूची कथा एक आनी दोगांयच्यो समांतर अश्यो भुमिका मांडून त्यो पेलपाक लेखिका खंयच कमी पडना. मनीस आनी सैम हांच्या मानसिक झुजाचें कुवाडें तिणें बेस बऱ्या उतरांनी गुंथलां. ही कथा सोंपता, थंयच ती वाचप्यांच्या मनांत सुरू जाता, हें कथेचें जैत. शारदाम्मा कथेंत एक कर्तुत्वी बायल दाखयल्या. पुरूशप्रधान समाजांत बायलांक तग मारपाची आसत जाल्यार तिणें आपल्या पांयांर उबें रावप गरजेचें असो संदेश ही कथा नकळटना वाचप्यांक दिता.

'पानवळ' कथेंत तर एके चलयेचेर धुवेवरी माया करपी दादलो ताचे ल्हान पिरायेची मर्यादा मानीनासतना ताचो भोग घेवपाक फुडें सरता.

'बाळसटी' आनी 'तो येतलो देखून' ह्यो दोन कथा म्हळ्यार लेखिकेन अंधश्रध्देचेर मारिल्ली बडी - ह्या कथांतल्यो बायलो म्हळ्यार आवयपण होच श्रेष्ठ धर्म मानपी. बाळसटींतलें गुलाबें, आसाडींतले धन्नीचे सामकें उरफाटें. तें

भुरगें वाचना म्हूण खूब कस्टता आनी प्राण सोडटा. खरें म्हळ्यार अंधश्रध्देचे भकीव. पडून ताच्या घोवान जितें भुरगें वडा मुळांत पुरिल्लें ही एक व्हड शोकांतिका. 'तो येतलो देखून' कथेंतली सून तिसरे फावट चलीच जाता म्हूण मांयच्या कचकचाक उबगून लासून घेता. पूण लेखिकेन तिका मारूंक ना. उरफाटें, हे घडणुकेन मांयचे दोळे उकते जाल्यात तें दाखयलां. हे कथेंत मांयचें कडक अशें चित्रण येवंकना. फकत आपल्या घोवाचो पुर्नजल्म जावचो हे अंधश्रध्देन ती सुनेचेर तिडकता अशें दाखयलां. आयजूय गांवगिऱ्या वाठारांनी अश्यो कांय अंधश्रध्दा आसात. जयंती नायकाची 'तो येतलो देखून' ही कथा हांगा समाज परिवर्तन करपी थारूं येता.

'मुमताज' आनी 'फिलमीनमाना' हीं दोन वैशिश्ट्यपूर्ण पात्रां. तांच्योय व्यथा कलात्मक कसबान लेखिकेन मांडल्यात. मुमताज ही मुसलमान समाजांतली एक दुबळी बायल, परिस्थिती खातीर जिणेंत उबांतरा पडिल्ली. जाल्यार, फिलमीनमाना ही क्रिस्तांव समाजांतली, भाटकान्न आसुनूय सरकारी अनुदानाचेर पोट भरपी. सगळें आसुनूय आपल्या दुबळ्या सभावाक लागून फटवल्ली. 'रमा' आनी 'काणी सिंड्रेलाची' ह्या कथांचे विशयूच काळजाक हात घालपी अशे. अथांगातल्या उरिल्ल्या कथांनीय मनीसपणाचो सोद घेवपी एक नदर जाणवता.

खऱ्यांनीच अथांगाचो वेध घेवपी ह्यो कथा दर एकल्यान वाचूंक जाय. अस्तुरेच्या अस्तित्वाचो अर्थ आनी सोद लावपी ह्या कथांनी कोंकणींत आनी भारतीय साहित्यांत आगळी वेगळी अशी खाशेली सुवात मेळयल्या.

ह्यो कथा वाचतकच जाणवता की लेखिकेक एक अती संवेदनशील मन आसा, धिटाय आनी बिनधास्त वृत्ती आसा, तंत्राची जाण आसा, भाशेचोय मोग आसा. कथेंतल्या पात्रां वांगडा वाचप्याक ओडून व्हरपाची कळाशी आसा. सगळ्यांत वेगळें म्हळ्यार ताचे कथेंतलीं पात्रां सोंपेपणान चांटेपावलाक मेळनात. तांकां सोदपाक दोंगर मांड्डूक जाय, देवळांनी वचूंक जाय. तांचो भेस आनी भास समजून घेवंक जाय. हें सगळें जयंतीक बेस बरें सादलां. आनी म्हणुनूच कथेच्या मळार ताणें जिखलां. कथेच्या माध्यमांतल्यान लोकवेद आमचे मेरेन पावोवपी जयंती नायक एक जबरदस्त लेखिका. ताचे कडल्यान आनिकूय दर्जेदार अशी साहित्य निर्मणी जावची आनी ताची कथा संवसारभर पावची अशे म्हजे आंवडे.

(जाग, फेब्रुवारी 2006 ह्या अंकांत उजवाडाक आयलां.)



# 8

# जयंती नायक हांचें कथालेखन : 'बसवो'च्या निमतान

*डॉ. वासुदेव सावंत*

'अथांग' हो जयंती नायक हांचो दुसरो कथासंग्रह. 'गर्जन' ह्या पयल्या कथासंग्रहा उपरांत बारा वर्सांनी उजवाडाक आयिल्लो. येद्या व्हडल्या दिर्घकाळांत खंयच्याय लेखकाच्या साहित्यांत बदल जावप, लेखकाची जिवनजाणीव अदीक समृध्द जावप हें सभावीक आसता. पूण जयंती नायक हांचो पयलो कथासंग्रह म्हज्यामुखार नाशिल्ल्यान त्या नंतरच्या बारा वर्सांत तांची कथा खंयच्या मोडणार पावल्या, ती कितली बदलल्या, कितकी प्रगल्भ जाल्या, हें म्हाका सांगूंक जावचेंना. मात अथांगांतल्या कथालेखनाची गुणवत्ता थारावंक ताची 'गर्जन' ह्या पयल्या कथासंग्रहाकडेन तुळा करपाची गरज ना. 'अथांग' वाचल्या उपरांत सकस, जिवनवेधी कोंकणी कथा वाचिल्ल्याचो प्रत्यय आयल्याशिवाय रावना. आशय, रचना आनी भास हे बाबतींत जयंती नायक हांचे कोंकणी कथेंतलें वेगळेंपण 'अथांग' मदल्यान स्पश्टपणान प्रतीत जाता. 'अथांग' ह्या कथासंग्रहाचें सर्वांगी समिक्षण करपाचो हांगा म्हजो हेतू ना, पूण अथांग वाचल्या उपरांत सकृतदर्शनीच जयंती नायक हांच्या ह्या कथासंग्रहाचें जे ठळक विशेश जाणवतात तांची वतां वतां

हांगा नोंद करप गरजेचें अशें म्हाका दिसलें.

पयल्यान पयलीं जाणवपी विशेश म्हळ्यार, ग्रामीण-नागर वा व्यक्तिवादी-सामाजिक असल्यो शिम-मेरो कथेच्या आशयासंदर्भान जयंती नायक हांचे कथेन पुसून वडयिल्ल्यो आसात. मराठींत फाटल्या तीस-चाळीस वर्सांत ग्रामीण साहित्य, ग्रामीण कथा, ग्रामीण कादंबरी अशो संकल्पना शारी, मध्यमवर्गीय साहित्यापरस वेगळ्यो (आनी भौतेक वेळार विरोधी) म्हण वापरप जातात. साहित्याची ग्रामीण आनी नागर (वा शारी) अशी विभागणी करप मराठी साहित्याचे बाबतीत अपरिहार्य थारिल्लें आसा, पूण गोंयचे समाज जिणेचें स्वरूप पळयलें जाल्यार हांगा ग्रामीण आनी नागर अश्यो शिम-मेरो कडकपणान वेगळ्यो दाखोवपाक मेळनात. बौध्दिक क्षेत्रांत वा धवाड्या वेवसायांत वावुरपी जायतेजाण ग्रामीण वाठारांतच रावतात. वा गांवांत रावन ल्हानाचे व्हड जाल्ले आशिल्ल्यान तांची संवेदनशीलता ग्रामीण संस्कारांनी घडयिल्ली आसता. जयंती नायक हांची कथा वाचतना एक लेखिका म्हण तांची जाणीव जशी आधुनीक आसा, तेचप्रमाण गांवच्या देशी संस्कारांतल्यानय तांची ही जाणीव घडत गेल्ली आसा, हें स्पश्टपणान दिसता. ताका लागून धवाड्या, मध्यमवर्गीय मनशांच्या कथाबरोबरच गांवांतल्या लोकांचेंय दर्शन घडोवपी, गांवगिऱ्या वातावरणांत घडपी, ग्रामीण संस्कृतायेचें आनी ग्रामीण जिणेंतल्या सामुहिकतेचें चित्रण करपी कथा 'अथांग' मदीं चड करून दिसतातच, पूण लेखिकेच्या जाणिवेंतल्या देशीपणाचो एक म्हत्वाचो परिणाम म्हळ्यार, लेखिकेची जिवनदृश्टी फकत व्यक्तिकेंद्रीत वा व्यक्तिवादी जाल्ली ना. व्यक्तिचे जिणेंतल्यो घडणुको, व्यक्तिच्यो उक्ती आनी कृती, सामाजिक पर्यावरणांतच घडत आसतात, हाचें भान लेखिकेक आसा. ताकाच लागून 'अथांगां'तल्यो कथा व्यक्तीच्यो समस्या, व्यक्तीचे भावनात्मक प्रश्न मांडटा आसल्यो तरी ह्या प्रश्नांफाटल्यान प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्षरित्या सामाजिक कारणांच आशिल्लीं दिसतात. समाजाच्यो रूढ नितीकल्पना, श्रध्दा-समज, परंपरा ह्यो व्यक्ती जिणेंतल्या भावनात्मक उलथापालथीक, समस्यांक कारणीभूत जातात हें भौतेक कथांतल्यान दाखोवप जाल्लें आसा. देखीक, 'सपन' हे कथेंतल्या श्रीमतीच्या भावनात्मक घुस्मटीचें मूळ सामाजिक अंधश्रध्देंत आसा. मूळ नक्षत्रासारक्या वायट नक्षत्राचेर जाल्लें भुरगें कुटुंबाखातीर घातक आसता. ह्या समाजांतल्या पारंपारिक समजाक लागून श्रीमतीची जीण उध्वस्त जाल्ली आसता. समाजमान्य वैवाहिक बंधनाशिवाय

जल्मल्ले चलयेकडेन पळोवपाचो समाजाचो पारंपारिक दृश्टीकोन 'भाकीत' कथेंतल्या वसुंधरेच्या चिंतेचें कारण थारिल्लें आसता. आपल्या आवडटच्या मनशाकडेन वसुंधरेक लग्न करप शक्य जायना, तें पत्रिका पळोवन लग्न जुळोवपाच्या समाजाच्या रितीक लागुनच. ग्रामीण समाजाचो दादलो-बायल संबंदांबद्दलचो रूढ नैतीक दृश्टीकोन 'भागरत' कथेंतल्या भागरतीच्या बदनामीक आनी तिच्या बंडाळेपणाक कारण जाल्लें आसा. 'अथांग' मदली कथा अशा सामाजिक पर्यावरणांत घडत गेल्ली आसा. समाजवास्तवाचें - चड करून ग्रामीण समाजवास्तवाचें जयंती नायक हांचें आकलन आनी निरिक्षण सुक्ष्म आसा. ग्रामीण समाजांतली सुक्ष्म जाणीव, थंयचीं मुल्यां, श्रध्दा-अंधश्रध्दा, थंयच्यो धार्मिक, सामाजिक आनी सांस्कृतिक परंपरा तांचे कथेच्या आशयाचो अपरिहार्य भाग जाल्लो आसा. ताका लागून ग्रामीण वाठारांत घडपी 'अंवसर', 'आसाडी' ह्या सारक्यो कांय कथा तर फकत व्यक्तीच्योच नासतात, तरी त्यो सामाजिक कथा आसतात. ह्या दोनूय कथांतल्यान घडटलें गोंयच्या समाज आनी संस्कृतायेचें दर्शन सुक्ष्म तपशिलांनी जिवें जाल्लें आसा.

'अथांगा'तली जयंती नायक हांची कथा, आशय आनी शैली हे दोनूय नदरेन वास्तववादी कथा. गोंयचे सारखो, सैम-सुंदरकायेचें भोवमोलादीक देणें लाबिल्लो सोबीत वाठार कितल्या तरी गोंयकार आनी बिगर गोंयकार लेखकांक रोमँटीक आनी स्वप्नरंजनात्मक साहित्य निमणेची प्रेरणा दिवपी थारिल्लो आसा. पूण जयंती नायक हांचे कथेक असल्या स्वप्नाळू रोमँटिसिझमाचो स्पर्शूय जाल्लो ना. समकालीन जिणेंत घडिल्ल्या घडणुकांचो, पळयिल्ल्या व्यक्तींच्या जिणेचो आनी एकूणच समकालीन जिवनवास्तवाचो सोद घेवपांतच तांचे कथेक रस आशिल्लो दिसता. समकालीन वास्तवाकडेनय जयंती नायक एकांगीपणान पळयनात, तर विवीध व्यक्ती आनी विवीध अणभव तांच्या कथांचे विशय जाल्ले आसात. या वैविध्यांतल्यान मानवी जिणेच्या अथांगपणाचो सोद घेवपाचो त्यो समर्थपणान यत्न करतात.

मानवी जिणेच्या या अथांगपणाचो सोद घेतना तांचे कथेंत स्त्रीचित्रणाक सभाविकपणान केंद्रस्थान मेळिल्लें आसा. समाजाच्या विवीध स्थरांतल्यो स्त्रियो वा बायलो आनी तांच्यो समस्या हांचेविशीं जयंती नायक हांकां आस्था आसा. शारदाम्मा, रमा हांचेसारक्यो उच्चशिक्षीत, प्राध्यापक बायलो धरून ते भागरत,

मुमताज, फिलमीनमाना ह्यासारक्यो सामान्य आनी अशिक्षीत तशेंच विंगड विंगड वाठारांतल्यो आनी परिस्थितींतल्यो बायलो हे मेरेन तांचे कथेचे चित्रणविशय जाल्ले आसात. ह्यो बायल चित्रणात्मक कथा हेंच 'अथांग' संग्रहाचें मुखेल सामर्थ्य आशिल्ल्यान ह्यो कथाच स्वतंत्र विवेचनाचो आनी अभ्यासाचो विशय जावन आसात. तसो तांचो फुडें अभ्यासूय करप जातलो, हांगा तो उद्देश ना. पूण ह्या संदर्भांत एक-दोन मुद्दे हांगा नमूद करचेशे दिसतात. ह्या कथांतल्यान बायलांचे प्रश्न मांडटना लेखिकेन खंयच 'स्त्रीवादी' (बायलवादी) अशी पोझ घेतिल्ली ना. वा खंयच स्त्रीवादी लेखिकां प्रमाणें एकांगी रॅडिकल भुमिकाय घेतिल्ली ना. आदी म्हणिल्ल्याप्रमाण ह्या कथांक फकत व्यक्तीकेंद्रीत स्वरूप आयिल्लें ना.

बायलांच्यो समस्या ज्या सामाजिक संदर्भांक लागून जातात, ते सामाजिक संदर्भय कथेंत म्हत्वाचे आसतात. प्रत्येक कथेंत बायलांच्यो समस्या वेग-वेगळ्यो आसल्यो तरी समाजांतल्यो चाली-रिती, समज आनी समाजाचो स्त्रियांविशींचो दृश्टिकोन हांतल्यान ह्यो समस्या तयार जाल्ल्यो आसतात. व्यक्तिविरूध्द समाज, असोच ह्या कथांमदलो संघर्श आसता. हो संघर्श करतना शारदाम्मा, भागरत ह्या सारक्यो बायलो बंडखोर जाल्ल्योय दिसतात. पूण बायल विरूध्द समाज ह्या संघर्शांत सगळ्याच कथांतल्यो बायलो बंडखोरी करतात वा जैतिवंत जातात, असो एकांगी आनी अवास्तव दृश्टिकोन लेखिका स्विकारना. हांगाय तांची नदर सदांच वास्तवाभिमूख राविल्ली आसा. आनी देखुनूच शारदाम्मा वा भागरत परसय पुरूशसत्ताक समाजामुकार हतबल जाल्ल्या श्रीमती वा मुमताज हांच्यो कथा वाचकांक अदीक अस्वस्थ करतात.

'अथांगा'तल्यो ह्यो स्त्री-चित्रणात्मक कथा वाचतना म्हाका मराठींतल्या विभावरी शिरूरकार ह्या अत्यंत गाजिल्ल्या लेखिकेच्या स्त्रीचित्रणात्मक साहित्याचो उगडास जालो. तांच्या 'कळ्यांचे निश्वास' आनी 'हिंदोळ्यावर' ह्या पुस्तकांनी एका काळार महाराष्ट्रांत आनी मराठी साहित्य विश्वात मोठो खवदळ घातलो. मराठींत वास्तवापरस स्वप्नरंजनात्मक साहित्याक ज्या काळांत म्हत्व दिवपाक सुरवात जाल्ली, त्यावेळार, म्हळ्यार 1930-35 च्या सुमाराक स्त्रीजिणेचें वास्तव चित्रण अत्यंत प्रभावीपणान 'कळ्यांचे नि:श्वास' मदल्या कथांतल्यान आनी 'हिंदोळ्यावर' ह्या कांदबरींतल्यान शिरूरकारांनी मांडलें. फेमिनिझम् वा स्त्रीवाद ही संकल्पनाय त्यावेळार भारतांत खबर नाशिल्ली, तरीय पुरूशप्रधान

समाजवेवस्थेंतल्यो रूढ चाली आनी नैतीक कल्पनांक लागून बायलांची जावपी कुचंबणा, होच शिरूरकर हांच्या साहित्याचो चित्रणविशय आशिल्लो. ताका लागून तांच्या साहित्यांतय स्त्रीविरूध्द समाज हो संघर्श म्हत्वाचो आशिल्लो. व्यक्तीचित्रणाच्या सामाजिक संदर्भांचे भान जशें विभावरीच्या साहित्यांतल्यान दिसता, तशेंच तें जयंती नायक हांच्या स्त्रीचित्रणात्मक कथांतल्यान दिसता. जयंती नायक हांच्या कथांसारकेंच सामाजिक वेवस्थेआड बंड करून यशस्वी वा सुखी जावपी बायलो विभावरी-साहित्यांत उणें दिसतात. 'हिंदोळ्यावर' हांतली अचला मनाच्या हिंदोळ्याचेर, म्हणल्यार झोपाळ्याचेर जायते दीस झोपोयो घेवन, शेवटाक मध्यमवर्गीय निती-कल्पनाविरूध्द बंड करता, लग्नाबगर विरागावांगडा संवसार उबो करता, पूण समाजमान्य लग्न संबंदाबगर जल्माक येवपी भुरग्याचो समाजांत फुडार कितें, हे चिंतेन अदीक व्याकूळ जाता. जयंती नायक हांच्या 'भाकीत' कथेंतली वसुंधराय समाजाच्या चाली-रिती विरूध्द बंड करून श्यामरावावांगडा लग्नाबगर रावता, पूण लग्नबाह्य संबंदांतल्यान जल्माक आयिल्ल्या नलुच्या भविश्याविशीं ती चिंतेस्त जाल्ली आसता. 'हिंदोळ्यावर' सारकेंच 'भाकीत' मदींय घटनात्मकतेपरस वसुंधरेच्या मनोदर्शनाकच म्हत्व दिल्लें आसा. शिरूरकर हांच्या स्त्री-चित्रणात्मक साहित्याकडेन नायक हांचे कथेचें अशे तरेन जरी साम्य दिसता आसलें तरी नायक हांचे कथेंतलें स्त्रीविशयक अणभवविश्व तांचे तुळेन अदीक व्यापक आसा, अशें निश्चितपणान म्हुणूंक जाता.

जयंती नायक हांच्या 'अथांग' मदल्या कथालेखनाच्या कांय वैशिश्ट्यांचो वयर निर्देश केल्लो आसा. तांच्या कथालेखनाची एक प्रातिनिधीक देख म्हण 'बसवो' हे कथेचें विवेचन करून तांच्या कथालेखन वैशिश्ट्यांचो माग घेवपाचो यत्न करूंक जाता. इंग्लीश अणकाराच्या रूपान जयंती नायक हांकां कथाकार म्हुणून आनी एकूणच कोंकणी कथेक आंतरराष्ट्रीय पावंड्याचेर प्रसिध्दी दिवपी ही कथा अथांगांतली एक वैशिश्ट्यपुर्ण कथा आसा. खरें म्हळ्यार देशी भारतीय साहित्याची गुणवत्ता राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय पातळेवेल्या वाचकांमेरेन पावपाखातीर तें साहित्य इंग्लीशींत अणकारीत जावप ही अतिशय गरजेची गजाल आसा. पूण आपल्या साहित्याच्या इंग्लीश अणकाराबाबतीत कोंकणी मनीस जितको दक्ष वा जागरूक दिसता तितलो मराठी मनीस दिसना, अशें म्हजें निरिक्षण आसा. साहित्य अकादेमीच्या 'इंडियन लिटरेचर' ह्या नेमाळ्याचे अंक जर चाळ्ळे,

तर ताची प्रचिती येऊं शकता. आसूं, 'बसवो' ही अथांगांतली सर्वश्रेष्ठ कथा आसा काय कितें, हे विशीं मतभेद आसूं शकन्नात, पूण 'बसवो' च्या रूपान एक बरी कथा इंग्लीशींत गेल्ली आसा अशें नक्कीच म्हणूंक मेळटा.

अथांगांतल्या हेर कथांपरस 'बसवो' चो अणभवविशय वेगळो. गांवोन गांव बसवो घेवन फिरपी ठाकर जमातींतल्या गोयिंदाची – बसवोकार म्हण आशिल्ल्यो ताच्यो श्रध्दा आनी मुल्यां-निश्टेची ही कथा. धोलकें वाजयत बसव्याक रस्त्यावेल्यान घेवन वचपी वा घरामुकार पुजेखातीर बसव्याक घेवन येवपी बसवोकार आमी जायतेदां पळयिल्लो आसा. पूण 'बसवोकार' मनशांविशीं वा बसव्याचे परंपरेविशीं हाचेपरस आमकां अदीक कांय माहिती नासता. आमचे संस्कृतायेचो आनी समाजाचो एक भाग आशिल्लो बसवो आनी बसवोकार आमच्या साहित्याचो विशय मात केन्ना जाल्लो नासता. समाजाच्या उपेक्षीत स्थरांतल्या एका बसवोकाराक आपल्या कथेचो नायक करून, ताच्या मानसिकतायेचें ताच्या जिणेचें बारीकसाणेन दर्शन घडोवन 'बसवो' वरवीं जयंती नायक हांणी वेगळी वाट मांडिल्ली आसा.

गोयिंद ठाकराचे दोंगरार चरपाखातीर सोडिल्ले चारूय बैल लायटीच्या तुटिल्ल्या सरयांचो शॉक बसून अपघातात मरतात. तातूंत सोमो आनी शनी ताचे लाडके गणसाबैल (बसवे) ना जाल्ल्यान, ताका घरोनघर भोंवडावन जगपाचो, ताचे उपजिविकेचो मार्ग बंद जाता. ताचो पयल्या मानाचो बसवो फिरयल्ल्या शिवाय जातभावांक आपले गणसाबैल रितीप्रमाण फिरोवंक मेळना. पोशिल्ले गायेपासून जाल्लो बैल बसवो म्हण फिरोवपाची पारंपारिक रीत ना. पूण शेवटाक जमातीच्या दबावाक लागून आपली रीत सोडून घरच्या पाड्याकच गणसाबैल म्हुणून फिरोवपाचें फटींगपणाचें काम गोयिंदाक करचें पडटा, हें 'बसवो' कथेचें मुखेल आशय सूत्र आसा. कथा ह्या वाङ्मयप्रकाराचें स्वरूप आनी ताचो मर्यादीत आंवाठ लक्षांत घेतल्यार इतकें आशयसूत्र परिणामकारक कथाबंध निर्माण जावंक फावोशें आसा. पूण 'बसवो' कथेचें स्वरूप पळयल्यार ती येद्याच आशयसूत्राकडेन केंद्रीत जाल्ली ना. कथेक बंदिस्त एकसुरीपणा न येता, कथेचो आशय तरेक आंगांनी फुलत, विस्तारत गेल्लो दिसता. दोनीय गणसाबैल ना जाल्ल्यान गोयिंदाक आयिल्ली अस्वस्थताय ही कथेंतली केंद्रवर्ती घडणूक सांगतनाच, गोयिंदाची जिवनकथा, ताचे प्रामाणिक परंपरानिश्ट श्रध्दाळू व्यक्तिमत्व, नंदिबैल फिरोवपाची

प्रथा हांचीय वळखं करून दिवप जाता. स्वता जपिल्ल्या मुल्यांकडेन आनी निश्टांकडेन नाईलाजान अप्रामाणिक जावचें पडिल्ल्यान गोयिंदाक जाल्ल्या दुख्खाचें वर्णन करीत आसतना ताच्या ह्या दुख्खाचो वाचकाच्या मनाचेर अदीव त्रीव परिणाम जावचो म्हण गोयिंदाच्या मनाचेर आनीक आघात करपी पिकअपच्या अपघाताची घडणुकय कथेंतली एक म्हत्वाची घडणूक थारता. ह्या सगळ्या घडणूक-तपशिलांक लागून 'बसवो' ही कथा, कथेच्या बंदिस्त अवकाशाची मर्यादा हुंपून विस्तृत जाल्ली दिसता. कथेची रचणूक पळयली जाल्यार कथावकाश असो विस्तारिल्लो आसा, हें लक्षांत येता.

ठाकरवाड्याच्या वर्णनान सुरू जावपी हे कथेचे सुरवेकच गोयिंद ठाकराचो पुर्वज कृष्ण ठाकर आनी ताचो माग काडीत इमलो आनी विठ्ठल ठाकर चंद्रवाडीच्या वाठारांत येवन कशे स्थायीक जाले, पंचक्रोशींतल्या बारा गांवांत बसवो फिरोवपाची मान्यताय तांकां कशी मेळ्ळी हें सांगप जाता. मुखेल आशयसुत्राचे दृश्टीन पळयल्यार कथेचो हो सुरवेचो भाग Expositional म्हळ्यार कथेंतल्या अणभवविश्वाची वाचकांक वळख करून दिवपी आसा. ते उपरांत शेळपेकान्नीचे जात्रेक गेल्ल्या ठाकरांच्या संकश्टाचें वर्णन येता. गोयिंदाचो पूत आनी सून हांचे सकट ठाकरांची तेरा मनशां ह्या अपघातांत मरतात आनी जमातीचो कर्तो म्हुणून गोयिंदाकच त्या सगळ्यांचीं मरणां करचीं पडटात. ह्या तेरा जाणांच्या अकस्मात घडिल्ल्या मरणान गोयिंद मनांतल्यान तर कोसळटाच, पूण जमातीच्या मनशांनी ह्या अपघाताक गोयिंदाक जबाबदार धरिल्ल्यान तो अदीक अस्वस्थ जाल्लो आसा. गोयिंदान त्या वर्सा बसवो खेळयलो ना म्हण अपघातासारखी विपरीत घडणूक घडली अशें ठाकरांक दिसता. गोयिंद बसवो कित्याक खेळोवंक शकलो ना हें स्पश्ट करपी घडणूक ह्या उपरांत कथेंत येता. 'बसवो' कथेचें मुखेल आशयसूत्र खऱ्या अर्थान हांगाच्यान सुरू जाता. दोंगरार चरपाक सोडिल्ले गोयिंदाचे चारूय बैल लायटीच्या शॉकान मरून पडटात ही घडणूक तपशीलवार आनी चित्रदर्शी वर्णनपध्दतीन मांडप जाता. ही घडणूक सांगतना रानांत सांपडिल्ल्या सोमो आनी शनीक गोयिंदान बसवो म्हणून तयार करप, सोमो आनी शनीविशीं ताका दिसपी माया, सोम्याक बसवो म्हण खेळयतना ताका दिसपी अभिमान, हें आशयाचे दृश्टीन म्हत्वाचे आशिल्ले तपशीलय येतात.

गोयिंदाचे दोनूय बसवे ना जाल्ल्यान आनी बसवो म्हण तयार करपाखातीर

ताका दुसरो पाडोय मेळनाशिल्ल्यान हेर ठाकरांमुखार पेच उबो रावता. गोयिंदाचो म्हाल बसवो फिरयल्या शिवाय बाकीच्या ठाकरांकय आपले बसवे घेवन भोवूंक मेळनात, तांचो जगपाचो वेवसायय बंद पडिल्लो आसता. ताका लागून गोयिंदान घरचे गायेच्या पाड्याकच बसवो म्हुणून फिरोवचें असो दबाव सगले ठाकर एकजावन गोयिंदाचेर हाडटात. पूण घरचे गायेच्या पाड्याक गणसाबैल म्हुणून फिरोवप ही गजाल गोयिंदाक पटप शक्य नासता. कारण रानां-दोंगरार सांपडिल्ल्या बैलाकच बसवो म्हुणून फिरोवपाचो आसता, ह्या परंपरागत प्रथेचेर ताची निश्टा आसता. घरचे गायेच्या पाड्याकच बसवो म्हण फिरोवप ही लबाडी, खोटेपणां आसा अशें ताका दिसता. असलो खोटेपणां करूंक, जात-बांधवांनी आपल्याचेर चेंपण हाडप, हाका लागून तो भावनात्मक नदरेन हुमटून पडटा. पूत-सून आनी दोनीय बसवे मेल्ल्याच्या दुख्खापरसय सदांच आपले आज्ञेंत आशिल्ली ठाकर जमात बसवोकार म्हण आपल्याक खोटेपणां करूंक सांगता, हाचेंच ताका अदीक दूख्ख जाता. एकेवटेन बसवोकाराच्या परंपरेवेली निश्टा जाल्यार दुसरेकडेन ह्या निश्टेकडेन प्रतारणा करपाची वेळ येवप, हाका लागून गोयिंदाच्या मनांत निर्माण जाल्ल्या संघर्शाचें 'बसवो' हे कथेंत खूब प्रभावी चित्रण केल्लें आसा. हे नदरेन गोयींद आनी ताची बायल रूक्मीण हांचेमदलो संवाद मुद्दाम पळोवपासारको आसा. घरचे गायेच्या - समतीच्या पाड्याकच बसवो म्हुणून फिरोवपाचें म्हणजे गांवांतल्यान स्वताचीच धींड काडप अशें ताका दिसता. बसवो फिरवप म्हणजे भीक मागप न्ही अशें ताका ठामपणान दिसता. म्हुणूनच खंयचेय गायेक, पाड्याक नंदीबैल करून भीक मागत फिरपाच्या घाटदेशाच्या बसवोकारापरस आपूण वेगळो आसा अशें तो बायलेक सांगता. 'आपल्या बारा पिळग्यांबुसून कोणूच खोटें-नाटें करपार ना, अशें थळाच्या थाणग्याक उतर दिल्ल्या किरिस्ण ठाकराचो आपूण वारस आसा', हाचो गोयिंदाक अभिमान आसा. बायलेकडेन जाल्ल्या संवादांतल्यान ताची बसवोकार म्हण आशिल्ली निश्टा तर दिसताच, पूण जगपाविशींची ताची मुल्यसंकल्पनाय कळटा. शेवटाक आपल्या मनाविरूध्द समतीच्या पाड्याकच म्हादेवाचो नंदी म्हण भायर व्हरपाचो वेळ येतकच आपल्या जगपांतलो खरो अर्थ, अस्सलपणा (Authenticity) च सोंपिल्ल्याची ताका जाणीव जाता. '....गोयिंद ठाकर विध्दांत हारलेलो शिपाय कसो ठाकर वाडयेची पांयवाट देवूंक लागलो', ह्या व्याक्यांतल्यान कथेच्या शेंवटाक जिणेंत हारिल्ल्या

कथानायकाचें दर्शन वाचकाक घडटा.

परिणामकारक शेवट यशस्वी कथेचें एक लक्षण मानतात. 'अथांग'तल्या हेर कथांप्रमाणे 'बसवो' ही कथाय वाचकांचेर परिणाम करताच, तेचबरोबर वाचकांक तीव्र संवेदना दिवपांत यशस्वी थारता. एकेवटेन आमच्या संस्कृतायेंतल्या 'बसवो' आनी 'बसवोकार' ह्या परंपरेचें चित्रण करपावांगडाच, कथानायक गोयिंदाच्या दुख्खाचें दर्शन घडोवप हो कथेचो मुखेल हेतू आसा. गोयिंदाच्या दुख्खाची तिव्रताय चडट्या क्रमान वाचकांच्या मनाचेर ठसोवपाचो यत्न हे कथेंत जाल्लो आसा. गोयिंदाचे श्रध्देचो, प्रतिश्टेचो, अभिमानाचो आनी पुत्रव्त प्रेमाचो विशय आशिल्ल्या सोमो आनी शनी ह्या दोनय बसव्यांचें आनी हेर दोन बैलांचें मरण, ही गोयिंदाच्या दुख्खाची मुखेल घडणूक. तांच्या मरणाउपरांत स म्हयने जाले तरी 'बसवो' म्हण फिरोवपाक पाडो मेळप ना ही त्या दुख्खांत अदीक पडिल्ली भर. शेवटाक आपल्यो सगळ्यो श्रध्दा आनी निश्टा तशेंच परंपरा कुशीक दवरून समतीच्या पाड्याकच बसवो म्हण मनाविरूध्द भोंवडावपाक पडप, हो दुख्खाचो कडेलोट. गोयिंदाच्या दुख्खाची तिव्रंताय अदीक वाडोवपाखातीर पिकअपीक अपघात जावप आनी तातूंत हेर जमातबांधवांबरोबर गोयिंदाचो एकटो एकुलतो पूत आनी सून मरप ही घडणुकय कथेंत येता. पूण कथेचें मुखेल आशयसूत्र पळयल्या ही अपघाताची घडणूक आशयसुत्राकडेन अपरिहार्यपणान जोडिल्ली आसा, अशें दिसना. वाचप्यांच्या मनाचेर अदीक परिणाम करपाखातीर ही घडणूक आयल्या आसूंक जाय अशेंच दिसता. शिवाय तेरा जाणांच्या मरणाक जापसालदार थारिल्ल्या ह्या अपघातांत जाण्ट्या गोयिंदाक मात सादें झरकटपापरस चड काय जायना, हें हे कथेच्या सोयिखातीरच घडलां काय कितें? असोच एक दुबाव येता. लायटीच्या सरयांचो शॉक लागून गोयिंदाचे चारूय बैल एकाच वेळार मरतात, ही घडणुकच पुरायेन असंभव नासली तरी थोडिशी अवास्तव आनी कृत्रिम दिसता. गोयिंदाच्या स पिळग्यांमदीं, प्रत्येक पिळगेंत फकत एकूच चेडो भुरगो जल्माक येवप ही घडणुकच वास्तव दिसचे परस कृत्रीम योगायोग दिसता. कथेच्या स्वरूपबंधांत अशे कांय 'कच्चे दुवे' दाखोवपाक मेळटात आसले तरी ताका लागून हे कथेचें यश उणें जाता, अशें मात म्हणपाक जावचें ना.

बसवो फिरोवप हो बसवोकारांच्या उपजिविकेचो एक वेवसाय आसा. पूण हे कथेंत वेवसायापरस लोकसंस्कृतायेंतली एक परंपरा म्हुणून तिचें दर्शन घडयिल्लें

आसा. गोयिंद ठाकराचे नदरेन हें फकत ताच्या चरितार्थाचें साधन न्हय, तो ताच्य। जगपाचो, ताचे जिवन श्रध्देचो एक भाग आसा. आपल्या घराब्याचोच एक घटक म्हुणून तो बसव्याकडेन पळयता. ताचेर जीव करता. मनीस आनी ताच्या सरभोंवतणचे प्राणी, सैम, वाठार हाचेकडेन अशे एकात्मतेन पळोवप हें भारतीय देशी संस्कृतायेचें वैशिश्ट जावन आसा. गोयिंदाच्या मानसिकतेंतल्यान ह्या देशीयतेचें दर्शन घडटा. गोयिंदाक लागून आपले उपजिविकेचें साधन बंद पडटा म्हण ताचे दायजी-गोत्र ताचेर दबाव हाडटात. अस्सल बसवोकाराक न सोबपी फटींगपण ताका करूंक लायतात. त्यावेळार जिणेंत आपूण हारलो हाची गोयिंदाक जाणीव जाता. फकत पोट भरपाच्या उद्देशान, बसवोकार म्हण आयुश्यभर सांबाळिल्ल्या मुल्यांक तिलांजली दितना गोयिंदाच्या मनांत मातिल्लो आकांत, ताचे मुल्यनिश्टेची गवाय दिता. ताचो मानसिक संघर्श हो अशेतरेन मुल्यसंघर्श जावन आसा आनी होच मुल्यसंघर्श कथेच्या आशयाचो गाबो आसा. जिणेकडेन अर्थकेंद्रीत नदरेन पळोवपी आयच्या जगात गोयिंदाची मुल्यनिश्टा गांवगिऱ्या मनशाच्या अस्सल देशी मानसिकतेचो प्रत्यय दिवपी म्हुणून म्हत्वाची थारता. हे देशियतेचें दर्शन घडोवपांत 'बसवो' वरवीं लेखिकेन जें यश मेळयलां, त्या यशाक ल़ागुनच ही कथा मोलादीक थारल्या.

लोकमानसात - विशेशपणान ग्रामीण समाजात रूजिल्ल्यो जायत्यो श्रध्दा, परंपरा, विधी, रितीरिवाज हे ह्याच देशियतेचे, देशी संस्कृतायेचे आविश्कार आसतात. ह्या सगळ्या लोकपरंपरा, श्रध्दा, रिती, विधींविशींचें जयंती नायक हांचें निरिक्षण, आकलन खूब सुक्ष्म आसा, हें तांच्या कथालेखांतल्यान जाणवता. म्हुणूनच ह्यो संस्कृतायेच्यो कुरवो 'आसाडी', 'अंवसर' ह्या कथांसारक्योच 'बसवो' ह्या कथेच्या आशयाचो गरजेचो भाग जाल्ल्यो आसात. कोणाचेच मालकीचो नाशिल्लो, रानांत सोडिल्लो पाडोच गणसाबैल जावंक शकता, हेर खंयच्याय बैलाक बसवो करप म्हणजे परंपरेक कलंक लावपाचें पातक करप, ही श्रध्दा हे कथेच्या आशयसुत्राचें मुखेल सुत्र आसा. गोयिंदाच्या दुख्खाची सगली काणी हे श्रध्देभोंवतणीच केंद्रीत जाल्ली आसा. बसवो खेळोवप म्हणजे भीक मागप न्ही, ही निकटी गोयिंदासारक्या बसवोकाराचीच श्रध्दा आसता अशें न्ही, समाजय बसवोकाराक भीक मागपी म्हण समजना, तर ताका एक दैवी प्रतीक म्हुणून पळयता. ताची पुजा करप हें एक पुण्यकर्मच अशें तो मानता. म्हुणूनच

'चंद्रवाडी म्हालाक बसवो ना', ही एक उणीवच आसा अशें थंयच्या लोकांक दिसता. बसव्याक भात दिलें जाल्यार, 'म्हाजे कणगेंत केन्ना दाणो म्हणटा तो उणो जायना' हो हे कथेंतल्या गांवकाराच्या बायलेचो विश्वास, बसव्याविशींच्या लोकश्रध्देचेंच दर्शन घडयता. बसव्याविशींच्या ह्या लोकश्रध्दांबरोबरच बसव्यालो पांरपारीक साज, बसव्याची करतली पुजा, बसवो फिरयतना बसवोकारान गायिल्लीं गितां, बसवोकार ठाकर जमातीच्यो सामाजिक पध्दती ह्या कथेंतल्यान बारीकसाणेन मांडिल्ल्यो आसात. हे सगळे लोकसंदर्भ 'बसवो' कथेचें वेगळेंपण अधोरेखीत करतात.

'अथांग' मदली कथा आशय आनी शैली हे नदरेनय वास्तववादी कथा आसा, असो उल्लेख वयर केल्लोच आसा. हे नदरेन 'बसवो'चे कथनशैलीचो थोडो विचार केलो जाल्यार नायक हांच्या कथालेखनाच्या ह्या वैशिश्ट्याचेरय बरो उजवाड पडूं येता. जिणेच्या ज्या घटितांविशीं लेखकाक सांगपाचें आसा, तें त्या घटितांकडेन प्रामाणिक रावन स्वयंच्याय सांकेतिकतेच्या वा कल्पनारंजनाच्या आहारी न वतां मांडप आनी वाचकांची जिणेविशींची जाणीव अदीक प्रगल्भ करप हें वास्तववादी साहित्याचें स्वरूप आसता. जें सांगपाचें आसता तें वाचकांमुकार अणभव म्हण साकार जावंक जाय; व्यक्ती, घटना, थळ-काळ-वातावरण हांचो वाचकांक जिवंत प्रत्यय येवंक जाय असो लेखकाचो यत्न आसता. जयंती नायक हांची कथनशैली विवीध तपशिलांवरवीं कथ्य-वस्तूचो असो सर्वांगीण प्रत्यय दिता, हें 'बसवो'तल्यान जाणवता. हे नदरेंतल्यान 'बसवो'तलीं कांय वर्णनां पळोवपासारकीं आसा. कथेचे सुरवेकच येवपी ठाकरांच्या देवूळ गांवाचें, तांच्या घरांचें वर्णन, बसव्याचो पारंपारीक साज घालून आयिल्ल्या सोम्याचें वर्णन वा शेवटाक समतीच्या पाड्याक बसवो म्हण भायर काडपाखातीर गोयिंदान केल्ले तयारीचें वर्णन, हीं सगळीं वर्णनां सुक्ष्म तपशिलांक लागून अत्यंत चित्रदर्शी जाल्लीं आसात. शेणिल्ल्या चारूय बैलांचो गोयिंदान सोद घेवप आनी शेवटाक ते मेल्ले अवस्थेंत सांपडटकच, गोयिंदाची जाल्ली स्थिती वा फाटोफाट दैवी आघातांक लागून आनी मनाक न पटपी करणी करपाक पडल्ल्यिान गोयिंदाची जाल्ली मनोवस्था ह्या घडणुकांचींय वर्णनां लेखिकेच्या सुक्ष्म अवलोकनाची साक्ष दिवपी आसात.

'सगळींच घरां एकेच बांदावळीचीं. मातयेच्यो पारेत्यो, चुडटांच्यो खोडण्यो..

पांख्याक बारकेले नळे..' ह्या सारक्या क्रियापदविरयत वाक्यांक लागून जायते कडेन ही कथनशैली पारंपारीक काणयांच्या शैलीसारकीच लयबध्द जाल्ली दिसता. ग्रांथीक भाशेचें जडपण आनी कृत्रिमपण, हाचेपसून पयस आशिल्ल्या कोंकणीच्या सैमीक लयबध्दतेचो अविश्कार जयंती नायक हांच्या कथनशैलीतून असो सहजपणान अविश्कृत जाता.

बसवो कथेचें निवेदन तृतीय पुरूशी आसा. तृतीय पुरूशी निवेदनाचो परिप्रेक्ष्य, आत्मनिवेदनापरस व्यापक आसता. ताका लागून वास्तवाचो विस्तृत पट तृतीय पुरूशी निवेदनतंत्राक वेंगेंत घेवंक मेळटा. 'बसवो' कथाय वास्तवाचो असो विस्तृत पट आमचे मुखार उगडटा, कथानुभावाचें सर्वांगीण दर्शन घडोवंक शकता. मात तृतीय पुरूशी निवेदन व्यक्तीच्या मनाचें, ताच्या अंतरंगाचें दर्शन घडोवपांत कांय वेळा कमीय पडूं शकता. हाचे उलट प्रभावी मनोदर्शन हें आत्मनिवेदन प्रकाराचें सामर्थ्य आसता. बसवो कथेंत तृतीय पुरूशी निवेदनाचो वापर करूनय, ताका प्रभावी मनोदर्शनाचें सामर्थ्य फावो करून दिवपांत लेखिका यशस्वी थारिल्ली आसा. कथेचो मुखेल गाबो आशिल्लो गोयिंदाचो मानसिक संघर्श, तृतीय पुरूशी निवेदनांतल्यान लेखिकेन अत्यंत प्रभावीपणान मांडला. गोयिदाचें मनोदर्शन घडयतना कथेच्या तृतीय पुरूशी निवेदनाक आत्मनिवेदनाचो बाज कसो पाप्त जाता, हे खातीर चारूय बैल मेल्ले सांपडटकच गोयिंदाचे जाल्ले अवस्थेचें (पृ.159) वा अपघात जाल्या उपरांत, पोरां धरून सगळ्यांनीच बोटां मोडटकच जाल्ले गोयिंदाचे मनस्थितीचें वर्णन आवर्जून पळोवंक जाता. अशेतरेन एक प्रभावी कथा म्हुणून 'बसवो' कथेचें यश निश्चीत करपात, लेखिकेच्या कथनशैलीचोय वांटो मोठो आसा.

(लोकवेद अभ्यास वेदी, पाळें संस्थेन 7 जानेवारी 2006 दिसा आयोजीत केल्ल्या 'बसवो-चर्चासत्र' कार्यावळींत सादर केल्ल्या मूळ मराठी प्रपत्राचो जयंती नायक हांणी केल्लो स्वैर कोंकणी अनुवाद.)



9

# आदिमायेचो अस्त : एक अवलोकन

*रमेश भगवंत वेळुस्कार*

कोंकणींत कथा हो प्रकार वाडीक लागला. खूब लोक बरोवंक लागल्यात. दादल्यां वांगडा बायलोय बरोवंक लागल्यात आनी साहित्य अकादेमीचे जैतिवंत पळयले जाल्यार कथा, कोंकणी कथा राष्ट्रीय पांवड्यार जम धरूंक लागता अशें म्हणचेंच पडटलें.

गेल्या वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार जोडपी लेखिका बाय जयंती नायक हांच्या 'अथांग' ह्या कथासंग्रहान तें सिध्द केलां. शीला कोळंबकारान तें सिध्द केलां, महाबळेश्वर सैल, मीना काकोडकार, गोकुळदास प्रभू, चंद्रकांत केणी आनी एन. शिवदासान लेगीत तें सिध्द केलां. हे वळेरेंत गजानन जोग आनी प्रकाश पर्येकार हींय नांवां घेवंचीं पडटलीं.

कोंकणी कथा आतां कूस परतूंक लागल्या अशें म्हणूंक जाय. 2005 च्या चवथ अकांतली बाय जयंती नायक हांची कथा 'आदिमायेचो अस्त' ही अशीच कूस परतुपी कथा अशें म्हाका दिसता.

ह्या अंकातली ही कथा म्हाका सगळ्यांत चड भावली कारण तिची शैली. जयंती नायक ह्यो लोकवेदाच्यो अभ्यासक जाल्ल्यान आनी खूब्ब वर्सां लोकवेदाच्या संकलनावरवीं त्यो विशयांत खूब्ब निमग्न जाल्ल्यो दिसतात, हे

कथेच्या माध्यमांतल्यान. लोकवेद म्हणटकूच, तातूंत आवय, म्हातारी, आदिमाय, राणी, परी, वनदेवता तशेंच राजकुंवर, म्हातारो, दोंगोर, आकांताळीं रानां, दोंगरांतल्यो धोली, जाण्टीं झाडां अशीं अनादी काळासावन मनशाच्या मनांत घर करून आसलेलीं प्रतिकां, खचाखच भल्लेलीं आमकां पळोवंक मेळटात. कथेंत लोकवेदीय भुंयेवेली ही आदिमाय आसा. आनी 'आदिमायेची अस्त' ही कथा मनशाच्या मनांतल्या वा सामुहीक मनशाच्या मानसिकतायेच्या अती अती खोलांत दडलेल्या ह्या आदिमायेच्या आकृतिबंधाक हुस्केवपी एक आदिम जाणीव करून दिता. कथा वाचतना मनाक आपल्याच मनाच्या उत्खननांत कितें तरी जाणा जावपाच्या उत्कंठतायेचो सोद आमी घेत वयता अशी तीव्र जाणीव जाता.

मनीस हरशीं सामान्यतायेन जगता. तो उदक न्हाता. पूण तो स्नान करपाक लागता तेन्ना तें न्हावप आसना. तें अभ्यंग स्नान आसता. न्हावपाची अभ्यंग जाणीव ही प्रकट करपाची भास मनशाची नासता. ती आसता ताचे खाशेले जाणिवेची. ह्यो जाणिवो व्यक्ती व्यक्ती प्रमाण बदलता कारण दर एकाच्या संवेदनशीलतेचो आवाको हो दर एकाच्या अणभव विश्वाच्या संकलनाचेर आनी अणभव घेवपाचे प्रकृतिचेर अवलंबून आसता. जयंतीची ही कथा अशा आशय सधन प्रतिमा प्रतिकांच्या आदारार अती श्रीमंतकायेन प्रकट जाता. आनी आतां तांचे कथेची सुरवात पळोवया.

'पाणसर्पीण कशी ती कन्या पाणुल्याचे छातयेर उमथी न्हिदोन तरंगताली. तरंगूंक लागल्यार तियेक बरोच वोगोत जातलो. उदेंतेक तांबशें फुटोंक लागलेलें. तेन्ना ती उदकांत देंवलेली. आतां मळबाच्या पोल्यांवयलें तांबशें पुसोन सुर्याच्या किरणांनी धतरेचेर भांगर पेरूंक आरंभ केलेलो.'

ही सुरवात तर लोककथात्म आसाच पूण ह्या शब्दांच्या आदारान जातलो भाशाशृंगार भयंकर ताकदीचो आसा हें जाणवता. 'पाणसर्पीण कशी ती कन्या पाणुल्याचे छातयेर उमथी न्हिदोन तरंगताली' हें वर्णन तर मनांत कच्च करून घर करता. आमी ह्या दृश्याच्या मोगान पडटात. हें वर्णन आमच्या मनार तरंगूंक लागता पाणसर्पिणीच्या आकारांत. तिका आकार आसा तरणे अस्तुरेचो. ती त्या पाणुल्याच्या उदकांतल्या ल्हारांचेर उमथी आसा. तिच्या पुश्ट देहार आयल्लीं, तिच्या अवयवांचीं भिजकी ल्हारां हो एक आनंदकारी दृश्टांत सो. दृश्य अणभव. तरंगतो अणभव. मनशाच्या मनाचें रसायण होय एक द्रवाकार अणभव आसता.

म्हणून तर तिच्या तकलेच्या केंसाचें ल्हार सकल देवून परत मानेकडल्यान फाटीवयल्यान भेणामेरेन येवपी लांब चलक ल्हार जावन परत थंयच्यान एका नितंबीय ल्हारांत परिवर्तीत जावपांतलो ते पाणसर्पीणीचो ल्हाराकार देह आनी तो पाणुलो आनी तांतलीं ल्हारां आनी आमच्या मनांत निर्माण जातलीं ल्हारां हातूंत आदिम जाणिवेचो बंध काम करता. आमकां सहज कांय रंग कांय आकृतायो, कांय आवाज, कांय दृश्यां खूब्ब आवडटात, न समजताय. ह्या सगळ्यांचो संबंद हो अनाकलनीय आदिमतायेकडेन आसता. इंग्लीशींत हाका 'पर्सनल अन्कोंन्शस' वा 'कलेक्टिव अन्कोंन्शस' अशें म्हणटात. आनी आमचे सर्वसामान्य जाणिवेक (कोंन्शसनेस) अशें म्हणटात. हाकाच चेतन अशें आमच्यांनी म्हणूं येतलें. तशेंच 'पर्सनल अनकोंनशस' म्हटल्यार वैयक्तिक निश्चेतन आनी कलेक्टिव अन्कोंनशस हाका सामुहिक निश्चतेन अशेंय म्हणूं येतालें. मनशाच्या मनाच्या वांट्यांचे हें अशें वर्णन कार्लयुंग ह्या मानसशास्त्रज्ञान केलां. मनशाच्या चेतनेचो वेव्हार ताचें मन प्रतिमा-प्रतिकांच्या निर्मितींतल्यान पूण मनाच्या दुसऱ्या दोन वांट्यांच्या आदारान करीत आसता.

जंयतीन हे कथेंतल्या ह्या आदिकन्येच्या रूपान ह्या आदिबंदाची निर्मिती मनाच्या वैयक्तिक आनी सामुहिक निश्चेतनेंतल्यान केल्या अशें म्हटल्यार अतिताय जावंची ना.

हे आदिमकन्येक तिच्या पयले मासिक पाळये उपरांत, आपल्यांत आनी आपल्या शरीरांत जाल्ले बदल जाणवतात. तिच्यांत मानसिक बदलूय जाल्यात. संवसारांतल्या कांय सत्याचे तिका अकस्मात वेगळेच अर्थ आकलन जावपाक लागल्यात. मिर्ग आनी मिर्गिणीचें जुंवळप तिणें आदी खूब पावटीं पळयल्लें आसता. पूण ते दीस तें जुंवळप पळयल्या उपरांत तिच्या मनांत, दादल्यान आपल्या शरीराचो शिरंगार, थातोमातो करचो अशी बेहद लालसा निर्माण जाता. आनी ही सगळी ते आदिमकन्येची अवस्था लेखिकेन बेहद सुंदर शिल्पनिर्मितींतल्यान केल्या. ती ज्या पाणुल्यार उमथी न्हिदल्या थंयचें वातावरण तिच्या मनांतल्या रसायनाचें उत्तूंग दर्शन घडयता, जें शब्दांत कशें व्यक्त केलां पळयात :

'तरीपूण आसमतांत म्हुणोंक येता इतको लख्ख उजवाड जाल्लो नासलो, त्या पाणुल्या भोंवतणी तर तो अदिकूच झाकळलेलो आसलो. त्या पाणुल्याचे चोंयवटेन गच्च झोंपावळ वाडलेली. ते झोपावळीक लागोन सुर्याचीं सकाळचीं

येतलीं पालशीं किरणां आडोवन उरतालीं. आतांय तीं आडावलेलीं, पूण कांय तोकांळ किरणांनी झोपावळीचें आंग भेदून आपल्याक पाणुल्याच्या हड्ड्यार घालून घेतलेलें. तेंची धग लागतनाच पाणुल्याच्या आंगांतल्यान वयर सरतली ऊब इल्ली इल्ली करून वितळोंक लागलेली आनी पाणुल्याच्या उदकाचो निळसार रंग लखलखोंक लागलेलो. ह्यो सगळ्यो गजाली शृंगार भावनेक हात दिवपी. ह्या वक्तार जावपी आवाज पळयात. थंयच्या झिली झोपांतल्यान उडून वचपी कुमात्तरी, किरांट्यो का...का...करपी कुवा कोंबयो, आपले कुचे तोलीत वचपी मोर, धव्या फुल्ल ल्हवेचीं सोशांची पोरां, हेवटेन तेवटेन शेंपडेचो गोंडो फुलोवन सरसर धांवत वयतल्यो चानयो आनी त्या सकाळच्या वेळार आंब्याचो चंवर खायत काळीज पिकोवन घालपी कोगळांचो म्होवाळ स्वर आनी सगळ्यांक मादकता पातळायत वचपी कुन्नीणीच्यो गुलाबसार धवसार कळयो, हें सगळें आयज तिका अनुपम वेगळ्या अर्थान जाणवपाक लागलां. आनी लेखिकेनूय हें सगळें तितल्याच घनगच्च आशय वृत्तीत भरून तें बरयलां. तेंय बी खास लोकवेदीय शैलींत.

ही शैली मनांत चड भरता कारण ती लेखिकेन आपल्या मानसिकतायेचो वा भौशीक मानसिकतायेचो अविश्कार करून निश्चेतन मनांतल्या गजालींच्या साक्षात्कार उतरांतल्यान मांडल्या.

लेखिकेन हे कथेंतली, ही कथेच्या सुर्वेची भास अशी कातीव आनी सुंदर शिल्पांत बांदल्या की तिचें नवेंपण सट्ट करून नदरेंत वयता. ही भास नवी. हो अविश्कार नवो आनी कोंकणीक तर सामको नवो. भाशेचो रियाज हांगा दिसता. कोंकणी भाशेंत भाशेचो रियाज करपी कांय कलाकार ह्या आमच्या साहित्य विश्वांत आसात. जांचो भाशा रियाज म्हाका जाणवलो तांतले पयले बाकीबाब, उपरांत जाणवल्ले ते कवी पांडुरंग भांगी, कथाकार शीला कोळंबकार, पुंडलीक नायक, एन्. शिवदास, निबंदकार दत्ता नायक, मुकेश थळी, कवी काशिनाथ शांबा लोलयेंकार आनी सद्याक कवी अरूण साखरदांडे. म्हाकाय हो रियाज खूब्ब आवडटा.

लेखिकेच्या 'अथांग' ह्या काव्य संग्रहांत हो रियाज खूब दिसता. पूण हे कथेंत तिणें तातूंत अद्‌भूत उत्कंठताय निर्माण केल्या. लोकवेदाचे नवे आयटीचें संशोधनय तिणें केलां म्हटल्यार अजाप् न्हय. 'तियेक दिसता, हें सगळें आपणें आयजूच पळयलां. मागीर तें सगळें तिका आशेंवचें पोशेवचें दिसता. सुकण्या

सावदांक घट्ट हड्ड्याकडेन धरचें, तेंची ल्हंवर पिसुडचीं, तेंचीं पांखां किसोवंचीं शीं तियेक दिसता. फुलांचो परमळ नाकापुडयांनी हुंगोवन घेवचो आनी मागीर त्या परमळाचे धुंदीत पाणुल्याच्या उदकाचे छातयेर काळोख पडसर न्हिदोन रावचेंशे तियेक दिसता.' हें इतकें जबरदस्त वर्णन आमकां परत एका वैयक्तिक निश्चेतन अवस्थेंत व्हरता. जंय आमी आवयच्या पोटांत, तिच्या गर्भांतल्या काळखांत पेंवत आसतात. ती थंयसल्ली निबिडताय, ती अनाकलनीयता, ती निर्माण जायत वयतल्या खिणाच्या स्थित्यंतराची अवस्था, नाय म्हटल्यार प्रतिकात्मक रूपान लेखिकेन उतरांतल्यान व्यक्त केल्या. ही सगळीच उतरावळ सृजनशीलतायेचो उत्कृश्ठ अविश्कार आसा आनी आतां आदिकन्येच्या मनांतय सृजनाचें वारेंय ह्याच सैमीक गरजेंतल्यान निर्माण जालां, म्हणून हो लेखिकेन निर्मिल्ले सृजनात्मक आदिम आदिबंध.

हो आदिबंध लेखिकेन तरातरांच्या प्रकारांनी केळयला. 'कुमयाचे वावळेन हातांतलें वल्कल आपल्या आंगाक बांदतां बांदतां, तियेची नदर आपल्याच आंगभर भिरभिल्ली.. किल्लाचे कोमटे सारकें गोरें पिट्ट कवकवीत आंग.. त्या आंगाक फाटल्या कांय दिसांसाकोन येवंक लागलेली गोलाय, वांटकुळसाण, हड्ड्यार उबे जाल्ले मांसाचे दोन गुळे, त्या गुळ्यांच्या तोंडावयलीं काळीं तकतकीत बोंडां.. हड्ड्याच्या कमळाकडल्यान थेट सरळ पोटार खोलायेक गेल्लो बोमलेचो फोड.. केळीचे कांडये भशेन धव्यो फुल्ल मांसाळ मांडयो.. आपलें आंग तेळटां तेळटां तियेचे गाल रगशिले. हें आपलेंच आंग? तियेक अजाप जालें. तियेन नवलायेन आपल्या थानांचेर, पोटाचेर, मांडयांचेर हात भोंवडायलो. एक गोड झिणझिणी तियेच्या आंगभर पातळ्ळी. ती उतावीळ जाली. ह्या... ह्या सुखाची तेंगशी जायी.'

सगळ्यो प्रतिमा पळयात. सर्पीण, पाणी, सावळी, सूर्य, किरणां, कुवाकोंबी, मिर्गाचें जुंवळप, तरण्या देहाचें लावण्य आनी आंगार उदेत येतली सृजनशील गोलाय, काळोख, हड्ड्याचें कमळ, ह्या कमळांतल्यान उदेवन थेट पोटाच्या पालसांतल्यान देंविल्लो बोमलेचो फोंड आनी केळीच्या कांडावरी मांडयो, ह्या प्रतिमांतल्यान उक्ती जाता जबरदस्त कामेच्छा. तिचें लावण्य वर्णन तर एकाद्रया दादल्यान केल्लें शें. आनी हड्ड्याच्या कमळांतल्यान उदेवन थेट पोटाच्या पालसांत खोलांत देंविल्ले बोमलेचो फोंड, अशें पळयतना याद जाता ती शेषशायी विष्णूची

आनी ताच्या बोमलेंतल्यान वयर सल्लेल्या साळकाची आनी तातुंतल्या ब्रह्मदेवाची. हें सगळें वर्णन दुसऱ्याचे इच्छाशक्तीचें, पूण चिंत्तां चिंत्तां तेंय परकें वा अप्रस्तूत दिसना.

लेखिकेन हीं चित्रां दादल्याच्या आंगातल्यान जरी पितारल्यांत तरी ती बायलेच्याय मनांतलीं आसात. तिका, म्हटल्यार आदिकन्येक दादल्याचो सहवास सामको आग्रहान जाय. पूण जेन्ना मनांतल्या आदिबंधाची खबर आमी करतात तेन्ना युंगान आनीक कांय गजाली सांगल्यात. युंगान अनिमा, अनिमस, वाइज ओल्ड मॅन, मदर, आर्कीटायप ऑफ द सेल्फ, आर्कीटायप ऑफ कॉन्शसनेस अशे प्रकार आदिबंधात मानल्यात. भारतीय समाज मानसांत एक संकल्पना आमी मानतात. ती आसा अर्धनारी नटेश्वराची. म्हणजे दादल्यांत बायलूय आसता वा बायलेंत दादलोय आसता. युंगाच्या कल्पनेप्रमाण 'अनिमा' म्हटल्यार दादल्यांत आसलेले बायलेची प्रतिमा आनी बायलेचें आंग. हेच प्रतिमेच्या आदारान तो आपल्या संपर्कांत येतल्या बायलांचो अणभव घेता. आपल्या मनांतले प्रतिभेचो रूपकार तो तांचेर प्रक्षेपित करता. आनी ते प्रमाण तांच्यात राणी, सौंदर्यवती, विदुषी, कोगूळ, भुंयार अशा वेगवेगळ्या प्रतिमांतल्यान तिका पळोवचो वा समजुंचो वा अणभवचो यत्न करता. हाचे उलट 'अनिमस' म्हटल्यार बायलेंत आसलेलें पुरूषत्वाचें आनी दादल्याचें आंग. जाण्टेलो, गुरू, सूर्य अशा तरांच्या प्रतिमांतल्यान तिच्या स्वात्म रूपाचें अविश्करण जाता. फुलां, साळीक हे सारकीं गर्भाशयाचो आकार आसलेली प्रतीकां आवयच्या आदिबंधाच्या अविश्काराचीं आसतात. साळीक, सूर्यकिर्ण, उदक हीं सगळीं प्रतिकां हीं मायेच्या मातृत्वाच्या आदिबंधांचीं.

लेखिकेन पिताल्लेलें हें तें आदिकन्येचें चित्र. पूण चित्रूय एकेवटेन प्रतिमा आनी दुसरेवटेन प्रतीक जावन येता. हातुंतल्यान जाणवता तिका लागलेली सृजनाची ओड. सृजनाची तिची ओड वा तिचो आग्रह वा तिका दादल्याच्या सहवासाची लागलेली उमळशीक ती आपले आवयक, म्हटल्यार आदिमायेक सांगता. आमच्यांनी हे विशीं अशेंय चिंतूं येता की आदिमायूच तिची 'आदिमाय' जावपाची सपनां पळयता. कारण ती म्हटल्यार, तिची फुडाराची आदिमायूच शी. आदिमायेचे अधिकार तिच्या हातांत आसात कारण आदिमायेच्या खड्गाक हात घालपाचो अधिकार तिका आसा. शिवाय तिच्या चोम्यांतल्या दर एके अस्तुरेचेर आदिमायेची

सासाय आसा. दर अस्तुरेच्या कुसव्यांत आदिमायेचो 'कुसवो' आसता आनी तिच्या ह्या कुसव्यांतल्यान दर एके कुळयेचो उध्दार जाता. आनी ही कन्या, वा म्हालमाय वा आदिमाय ही धर्तर. आनी तीच हे धर्तरेर बायलेच्या रूपान येवन मनीसजात फळयता आनी उध्दारताय.

म्हालमायेक आपले हे सुंदर कन्येचो अभिमान दिसता. आपल्या सात कन्यां मदले हे अस्तुरेक ती खासा मानता. तिका तिचे विशीं आदरूय आसा. तिचें वैशिश्टय अशें की ही कन्या तिणें चोम्याच्या म्हालबाप्पाच्या आदाराशिवाय निर्मिल्या. म्हालमायेक तो अधिकार आसा. तिचे इच्छेक बादिकार जावंक जायना. तिची इच्छा अडचूंक जायना. आपली इच्छापूर्ती करून घेवपाचो पुराय अधिकार तिका आसा. कारण चोम्यांत तीच सर्वश्रेष्ठ आसा. म्हाका दिसता लेखिका ह्या विधानाच्या आदारान आदिम मातृप्रधान संस्कृतायेची याद आनी अधिकार समेस्त वाचकांक करून दिवंक सोदता, काय बायलेच्या अस्तुरेच्या मनांत खोल तळाक वसतल्या ह्या आदिबंधाचो सोद आपाप ह्या लोककथात्म लिखाणान प्रत्यक्ष जाता, असोय एक प्रश्न मनाक भावून वयता.

हे कथेंत एक ल्हानशें कथानक आसा. ही म्हालमायेची पयली कन्या, म्हालबाप्पा बगर जाल्ली. म्हालबाप्पाक ही गजाल विशेश मानोवंक ना. पूण ताका, हे कन्येक ह्या संवसारांतल्यान ना केल्ली जाय आसली. पूण ती गजाल म्हालमायेक पसंद ना. नाय म्हटल्यार तें तिच्या विरूध्द आसता. आनी तो तिचो अनादरूय आसता. ती म्हालबाप्पाक तशें कांय करपाक दिना. आनी कन्येक तिका म्हालमाय करपाची आसता. तिका पयलें न्हाण आयल्लें आसता. आनी तिच्या न्हाणा उपरांत तिका जबरदस्त कामेच्छा जाता. हे कथेंत आतां दोन कथा निर्माण जातात. एक म्हालमायेची आनी एक कन्येची. तरणेपणाची मनमोगाळ आनी काम रंगाची हुरहूर, सारकेंच सांगचें म्हटल्या कामेच्छेची उत्कंठा, ही एक वेगळी अती सुंदर कथा. हे कथेंत सैमाचें उत्स्फूर्तपण आसा. सैमाच्या ओघाचो परिणाम आसा आनी तातूंत सैमाचे सुंदरतायेचो महाउत्सव आसा. दादलो आनी बायलेच्या मेळपाचो उत्सव. खरें म्हटल्यार संवसारांतली हीच एक आदिम संस्कृती, आनी भोव मान्य संस्कृती. अस्तुरपुर्सोत्सवाक सवन संवसार भर मान्यताय आसा. आतां होय उत्सव दोन तळांचेर घडटा. एक वैयक्तिक आनी दुसरो सामुहिक वा सामाजिक. आवय बापायल्या मत्तान, समाज मान्यतायेच्या मत्तान, जातलें अस्तुरपुर्सोत्सव हें एका

तळार, जाल्यार एकामेकांच्या घनिश्ट आकर्शणांतल्यान आनी मोगांतल्यान जातलें अस्तुरपुर्सोत्सव हें वेगळ्या तळावयलें. कन्येच्या मनांत जी आदिम इच्छा उप्रासल्या ती वैयक्तिक आनी सामुहिक मनांत्त आसलेली आदिम इच्छा. तिची जबर इच्छा पळोवन म्हालमायेक बेगीनात बेगीन तिच्या पुर्साची तजवीज करीन दिसता. तशें पळोवंक गेल्यार हो आदिम उत्कंठेचो उत्सव. म्हालमायेक तिची जाणविकाय आसा. हो उत्सव बरे भशेन जावंचो हे खातीर तिकाय चणचण आसा. म्हणून म्हालमाय, म्हालबाप्पाक कन्येक बरो वर सोडून हाडपाक धाडटा आनी तोय बेग्गीन. म्हालबाप्पा वांगडा कांय पुरूसांकूय ती धाडटा. तांचे वांगडा कन्येकूय धाडटा पूण म्हालबाप्पा सांगता म्हूण.

दोन दिसां उपरांत जेन्ना म्हालबाप्पा कन्येबगर परतता तेन्ना म्हामाय ताचेर धेंगशेता, तापता. पूण तो कन्येक पर्वताच्या मुळसाक आसलेल्या भुंयारांत दामता आनी मारता, अशें म्हणूटा.

हांगासर कन्या, म्हटल्यार फुडाराची म्हालमाय पावता एका भुंयारांत. भुंयारांतल्या काळखांत. काळोख हें सृजनाचें केंद्र अशें मानतात. त्या काळख्या भुंयारांत तिची रवानगी तो म्हालबाप्पा करता. म्हालबाप्पा हो संस्कृतीच्या अर्द्या आंगाचो प्रतिनिधी. दादल्यांचो प्रतिनिधी. ताका ही म्हालमाय म्हण नाका आसता. दादल्याच्या शेकाची ही आदिकन्या बळी जाता. म्हालमायेची हार जाता. अशा त्या वेळार म्हालमाय खुबता, तिचेर आकांत येता. तिचेखातीर तिचे कन्येचें मरण हें फकत कन्येचें मरण आसना, तिचेखातीर हें आदिकन्येचें मरण आसता. आदिमाय ही ह्या सवन संवसाराची रचणार. तिचें तें मर्ण आसता आनी तें म्हालबाप्पान केल्लें आसता. तिचेखातीर हो संहार आसता. आदिमायेचो संहार आसता. हो आदिमायेचो महाअपमान आसता. जांकां तिणें रचले तेच तिचो हो असो घात घेता, हो मनीसपणा भायलो वेव्हार आसता. ती म्हणूटा की आतां हे मुखार कुसवे उजोवचें नांत, औरां येतलीं, अरिश्टां येतलीं, वंश-वाल वाडची ना. पावस-पाणी पडचें ना, कुळयेच्या बायलांचे कुसवे पडींग जातले.

फुडाराची म्हालमाय अशे तरेन लयाक उडयल्ल्या कारणान तिच्यान जगप सोसूंक जायना. ही फुडाराची म्हालमाय, म्हळ्यार आदिमाय आसता. तिका आतां ना केल्ल्यान तिका आपलें अस्तित्व सोंपलेले वरी दिसता आनी स्वताच म्हण्टा की जे कुळयेक आदिमाय ना, ते कुळयेक म्हालमाय कशी आसतली? अशें

म्हणून ती आदिमायेच्या पाषणाकडलें खडग झोपोवन घेता आनी आपल्या मस्तकार हाणटा. रक्ताची शिळकी उसळटा आनी ती थंय पडटा. थंय आकांताचो बोवाळ जाता. कुलकुलाट जाता. वातावरण भिरांकूळ जाता. आनी सूर्य अस्तमतेक वयता. आनी चारूय वाटांनी काळखाचें राज्य सुरू जाता. तें थळ पुरायेन काळखांत बुडटा.

आतां ह्या काळखांत कितें चलतलें काय? म्हालबाप्पा फुडाराचो विचार करता. ह्या विचारांतल्यान कितें निश्पन्न जातलें काय? बरें काय वायट? बरें कशें जातलें? जें विध्वंसान सोंपता, ते करणेंत विधायकता ना, जे करणेंत उजवाडाची जाणीव ना, जे करणेंत निर्मणेच्या दुस्वासाची आनी विध्वंसाचीच कास धल्ल्या त्या मनांत निर्मणेची कोमरी कशी फुलत काय? ह्या काळखांत ह्या तरातरांच्या विचारांचीं स्पंदनां उत्सर्जित जातात. आनी आयच्या जगांत दादल्यान कन्यांच्या भ्रूणहत्यांचें जें सत्र आरंभलां, तें पळयल्यार समाजांत आदिमायेची हत्याच चल्ल्या तिचें हे चरित्र काय कितें ; अशे विचार मतींत येतात. आयच्या भारतीय समाजाचें हें चरित्र न्हय म्हणपाचो मार्ग हांगा ना. हें आमच्याच समाजाचें विघातक चरित्र आसा हातूंत दुबाव ना. हे भारत भुंयेर आदिमायेचो विध्वंस करपाइतली अप्रबुध्दताय भारतीयांच्या ठांय आसा, ही सुलूस लेखिकेच्या उतरांतल्यान आपशींच येवन वयता. तिच्या मस्तकांवयल्या मळबांतल्या काळख्या अवस्थेंतल्यान, तिच्या उतरांत परिवर्तीत जातल्या भावांतल्यान जाणवता निशेध ह्या विध्वंसी घडणुकांचो. ताचे पडसाद वाचतल्याच्या मनार पडलेबगर रावनात. ते वाचतल्याक जागृत करतात. ते मनशाच्या उध्वस्त मनाचे हुंकार आमकां कळयतात. विध्वंसाचो निशेध आडून उक्तायतात. आनी ह्या निबिड काळखांत विधायक चिंतनाच्या आलाशिऱ्याक वचपाची उर्मी निर्माण करतात. हो काळोख असंख्य आनी अजापांच्या आनी अनभिज्ञ गजालींच्या सृजनाचें केंद्र. हो सृजनाचो आदिबंध.

'आदिमायेचो अस्त' अशा शीर्शकान सुरू जावपी कथा उदकांतल्या दृश्यान सुरू जाता. उदक होय सृजनाचो आदिबंध. आनी काळोख होय सृजनाचोच आदिबंध. लोककथात्म कथेत लेखिकेन ह्या आदिम आदिबंधाचो उपेग भंयकर फिशाल तरेन केला. हे कथेंत येवपी विशय, आयच्या सामाजिक परिस्थितीचें परिदृश्य आनी ताचो संदर्भ जागोवन दिवपाची लोकथात्म फिशालकाय, कथेंत केळत आयिल्ली सुंदर आनी संकेतगर्भी भास, तशेच कथेचें सगळे कथ्य पूर्णपणान

व्यक्त करपाक निर्माण केल्ल्यो प्रतिमा आनी प्रतिकां, ह्या सगळ्या कोनांतल्यान पळयतना ही कथा खऱ्यांनीच कोंकणी साहित्याची आनी कथेची कूस परतून उडोवपी कथा म्हळ्यार मात्तूय चुकूं नये. आपले म्होवाळ आनी चकचयाळ शैलीन ती वाचकाच्या मनाचेर आपलें राज्य सुरू करता.

जयंतीची ही कथा कोंकणी कथा. पूण इतली कोंकणी आसुनूय ती कोंकणी म्हणपा इतली थळावी जायना. न्हय जावंकूच शकना. ती सवन भारताची जाता. ती प्रादेशीक कथा उरना. ती देशी कथा जाता. ही कथा जाणिवांच्या प्रखर आनी आदिम आदिबंधांतल्यान आयल्या कारणान ती फकत भारतापुरतीय उरना तर ती सवन संवसाराचीच कथा जाता. कोंकणी कथा कूस परतिता अशें म्हणपाचें दिसता तें ह्याच कारणाखातीर.

'आदिमायेचो अस्त' ह्या शीर्शकांत 'आदि' आनी 'अंत' अशे दोन आदिबंध येतात. आदि आनी अंत हातूंत एक प्रवास वर्तुळ सोंपता, म्हणचें पुराय जाता. जशें उदकांत एक फातर पडलो वा कसलीय माणकुली वा व्हड वस्त पडली जाल्यार उदकांत ल्हारां निर्माण जातात वर्तुळाकार. आनी मागीर एकांतल्यान एक अशीं पुराय आकृतायांचीं ल्हारां तांतल्यान निर्माण जायत रावतात. बरोच वेळ तशीं ल्हारां ह्याच आदिअंताच्या स्पंदनांतल्यान निर्माण जातात. आमचे अंत हे जाणिवेक कृतित्वाचो पदर आसा. तो अंत आसता आमच्या धारणांचो, पूण ती सुरवात आसता आनीक दुसऱ्या गजालींची. अंताच्या परिणामांतल्यान तरातरांच्या आदिंक जल्म दिवपी. ही जाणीवूच आदिबंधात्मक आशिल्ल्यान ह्या 'अंत अशें दिसपांतल्यान' अनंतत्वाच्योच कुरवो चड करून दिसपाक लागतात.

आनी एक विचार ही 'आदिमायेचो अस्त' वाचतां वाचतां जाणवून वयता, तो असो की, माय ह्या उतराकडे आसलेलो संबंध इल्लो इल्लो ना जायत चल्ला. कारण आयच्या संवसारांतली लग्न संस्था जे मायेन भुरग्यांक गुंथून काडटाली ती माया लग्न संस्था विस्कळीत आनी अपघाती तुटपाच्या कारणांतल्यान आयज भुरग्यांक मेळना. आपल्या वैयक्तिक कारणांखातीर विभक्त जावपी दादले आनी बायलूय ह्या भुरग्याविशीं चिंतना दिसनात आनी कालांतरान त्या भुरग्याक दोगांयची माया कळचना आनी मेळयना. भुरगें आपले तरेन उध्वंस जाता. कथेंतूय म्हालमाय, म्हालबाप्पा अशी संकल्पना तर आसाच आनी तें भुरगें जांच्यांतल्यान कोंचता, ताका कितें दिसलां आसूं येता काय? जे मायेंतल्यान गुंथून येवन ह्या संवसारांतलें

संबंधाचें महावस्त्र निर्माण जाता, तें महावस्त्रूच लयाक वयतलें काय? अशेय संकेत ही कथा स्पंदीत करता आनी जाणविकायेचो एक आगळोच पट निर्माण जाता. त्या अर्थान ही कथा म्हाका कोंकणी कथेचो पैस-नीस (mile stone) सो दिसता.

बाय जयंती नायकाची ही कथा सुंदर तर आसाच. ती परत परत वाचूंक लावपाचें आव्हानूय करता आनी वाचतल्याचेर आपणेंय अशें कितें बरोवंचें अशीं प्रेरणात्मक स्पंदनांय ती निर्माण करता. एक उत्तम कथा कोंकणीत आनी संवसारीक साहित्यांत निर्माण केल्ले बद्दल बाय जयंतीक खूब खूब परबीं आनीक आमकां अशोच बऱ्यो बऱ्यो कथा वाचपाक मेळच्यो हें आव्हान.



## * परिशिश्ट

# जयंती नायक हांचें जिवीत आनी साहित्यीक वावर
## (1962 ते 2005)

### अ - जिवितांतल्यो क्रमवार घडणुको

| | |
|---|---|
| 6 ऑगस्ट 1962 | - आमोणें - केपें हांगा जल्म |
| 1968 | - आमोणें - केपें हांगाच्या मराठी मुळावे शाळेंत प्रवेश |
| 1972 | - चवथी परिक्षा उत्तीर्ण |
| 1974 | - सवेक आसतना गांवांत उत्सवा निमतान सादर केल्ल्या कोंकणी नाटकुल्यांत (अशोक कामत हांचें 'इश्टागत') ल्हानशी भुमिका आनी ते निमतान कोंकणी माचयेर प्रवेश. |
| 1972 - 1978 | - हॉली क्रॉस इन्स्टीट्यूट, केपें हांगा पांचवी ते धावी मेरेनचें शिकप. |
| 1978 - 1980 | - गार्डियन एजंल हायर सेकेंडरी स्कूल, कुडचडें हांगा उच्च माध्यमिक शिकप. |
| जानेवारी 1980 | - पयलें लिखाण 'वणवा' ही मराठी कथा बरयली. |
| 1981 | - 'तळमळ' ही पयली कोंकणी कविता 'चित्रंगी' दिवाळी अंकांतल्यान प्रसिध्द 'चित्रंगी' कविता सर्तीत उत्तेजनार्थ बक्षीस. |
| फेब्रुवारी 1981 | - 'चक्रम रामायण' हें कोंकणी नाटक बरोवन भाव आनी इश्टांच्या सहकार्यान आमोणेच्या उत्सवी रंगमाचयेर सादर (केपें बाजार आनी असोळणें हांगाय प्रयोग) |
| डिसेंबर 1982 | - 'गोमंत कला असोशिएशन' संस्थेन आयोजीत केल्ल्या 'कविता वाचन सर्तीत' वांटो घेवन पयले फावट कविता सादर. |

| | | |
|---|---|---|
| 1981-1983 | - | वट्ट चार मराठी कथा आनी सुमार पन्नास मराठी कवितांचें लेखन.<br>(चारूय कंथा दै. राष्ट्रमतांतल्यान प्रसिध्द तर कवितांतल्यो कांय वेंचीक 'विद्या' (चौगुले कॉलेजीचें मॅगाझीन), दै. गोमंतक आनी 'गोमंतकाची अस्मिता' ह्या मासिकांतल्यान प्रसिध्द) |
| 1983 | - | श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालय, मडगांव हांगाच्यान 'मुंबय विद्यापिठाची' बी.ए.ची पदवी प्राप्त. |
| सप्टेंबर 1984 | - | पैयली कोंकणी कथा 'संप' हिका 'सौगंडी चवथ कथा सर्तींत' पयलें इनाम प्राप्त (सौगंडी - चवथ विशेशांक - 1984 हातुंतल्यान ती प्रकाशीत). |
| 13 मार्च 84 ते 05 जून 84 | - | भारतीय जीवन बीमा निगमाच्या, मडगांव शाखेंत 'कार्यालयीन सहाय्यक' म्हण नोकरी. |
| 28 एप्रील 1985 | - | स्पार्कलींग स्टार्स स्पोर्ट्स क्लब, केपें हांणी आयोजीत केल्ल्या एकांकी सर्तींत 'सून जाय सून' हे एकांकी खातीर लेखनाचें पयलें इनाम प्राप्त. |
| 27 फेब्रु. 85 ते 26 नोवे.1986 | - | सेंट जोजेफ इन्स्टीटयूट, वास्को हे संस्थेच्या मुळाव्या विभागांत शिक्षिका म्हण कार्यरत. |
| 17 मार्च 1985 | - | केपें हांगा जाल्ल्या 'तिसऱ्या सांगे-केपें कोंकणी साहित्य मेळाचें' सचिवपद. |
| 1985-1987 | - | कोंकणी राजभास चळवळींत सक्रीय सहभाग |
| 21 जुलै 1985 | - | पणजे आझाद मैदानाचेर सुरू जाल्ल्या 'कोंकणी राजभास विधेयक' संबंदानच्या मोर्चांत वांटेकार आनी कैद (जिणेंतलो एक रोमांचक अणभव). |
| 14 नोव्हेंबर 1985 | - | पणजे आझाद मैदानाचेर जाल्ल्या महामेळाव्यांत सुमार एक लाख लोकांमुखार 'युवा प्रतिनिधी' म्हण माचयेर उपस्थिती आनी सभेक भाशणांवरवीं आवाहन. |

| | | |
|---|---|---|
| 31 ऑगस्ट 1987 | - | म्हैसूर विद्यापिठांतल्यान लोकवेदाचो पोस्ट ग्रेज्युएट डिप्लोमा कोर्स करपाखातीर, गोवा कोंकणी अकादेमीची अभ्यासवृत्ती फावो जावन, तेखातीर गोंयच्यान म्हैसूर वचपाक पदार्पण. |
| 1988 | - | म्हैसूर विद्यापिठाची 'लोकवेद पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा' कोर्साची परिक्षा, पयल्या वर्गांत, पयल्या नंबरान उत्तीर्ण. |
| 26 फेब्रुवारी 1989 | - | 'गर्जन' कथासंग्रह प्रकाशीत. |
| 1 ऑगस्ट 1989 | - | गोवा कोंकणी अकादेमीच्या लोकवेद विभागांत 'संशोधन सहाय्यक' म्हण नेमणूक. |
| 1989 | - | 'गर्जन' पुस्तकाक कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय हे संस्थेचो पुरस्कार. |
| 1992 | - | 'रथा तुज्यो घुडयो' पुस्तक प्रकाशीत. |
| 23 मे 1993 | - | 'कणेर खुंटी नाटी', 'तळय उखल्ली खेळ्यांनी', 'मानालीं गीतां - पुस्तकां प्रकाशीत. |
| 22 फेब्रुवारी 1994 | - | 'आमोणें- एक लोकजीण' ग्रंथ प्रकाशीत. |
| 1994 - 2002 | - | कोंकणी भाशा मंडळाच्या वावुरपी मंडळाचें वांगडीपद. |
| 1995 - 1998 | - | कोंकणी भाशा मंडळाच्या 'कोंकणी' वर्सुकी/ दिवाळी अंकांचें सह-संपादक. |
| 1995 | - | समाजशास्त्र विशयांत म्हैसूर विद्यापिठाची पदव्युत्तर परिक्षा उत्तीर्ण. |
| 1995 - 1997 आनी 2002 - 2004 | - | अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या वावुरपी मंडळाचें स्वीकृत वांगडीपद. |
| 2 डिसेंबर 1995 | - | 'नागशेराचे सूर' पुस्तकाचें विमोचन. |
| 4 मार्च 1997 | - | 'पेडणेचो दसरो' पुस्तकाचें विमोचन. |
| 1998 | - | 'सोरपाची करामत' पुस्तक प्रकाशीत. |
| 1998 - 2002 | - | साहित्य अकादेमी, दिल्ली हे संस्थेच्या कोंकणी सल्लागार समितीचें वांगडीपद. |
| 1998 | - | मांड सोभाण, मंगळूर संस्थेचो, कोंकणी लोकवेदाच्या संशोधनात्मक आनी संवर्धनात्मक |

| | |
|---|---|
| | वावराखातीर जनवाहिनी मांड सोभाण लोकवेद पुरस्कार. |
| 11 - 12 डिसेंबर 1999 | - दुसऱ्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद. |
| 2000 सावन | - तोमास स्टीवन्स कोंकणी संशोधन केंद्राच्या शिक्षणीक समितीचें वांगडीपद. |
| 17 नोव्हेंबर 2000 | - 'कोंकणी लोककाणयों' पुस्तकाचें विमोचन. |
| 2000 | - 'कोंकणी लोककाणयो' पुस्तकाक डॉ. टी. एम्. ए. पै. फाऊंडेशनाचो उत्कृश्ट कोंकणी पुस्तक पुरस्कार. |
| 21 एप्रील 2001 | - 'वागमामाची फजिती' पुस्तकाचें विमोचन. |
| 23 जून 2001 | - 'चड शाण्यांक फातराचें शीत!' पुस्तकाचें विमोचन. |
| 2002 | - 'भुरग्यांखातीर लोककाणयो' आनी 'नवरंगी फूल' पुस्तकांचें प्रकाशन. |
| 2002 सावन | - भारतीय ज्ञानपीठ, दिल्ली हांच्या कोंकणी भाशा सल्लागार समितीचें वांगडीपद. |
| 2002 | - गोंय सरकारान घडयिल्ले 'धनगर अभ्यास समितीचें' वांगडीपद. |
| 2002 | - गोंय सरकारान घडयिल्ल्या 'गोंय राज्याचें सांस्कृतिक धोरण' समितीच्या 'साहित्य' उपसमितीचें वांगडीपद. |
| 2 फेब्रुवारी 2002 | - 'अथांग' कथासंग्रहाचें विमोचन. |
| 2002 | - 'अथांग' पुस्तकाक कला अकादमी - गोवा, साहित्य पुरस्कार. |
| 31 डिसेंबर 2002 | - गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'सहाय्यक सचिव' पदाचो अतिरिक्त ताबो. |
| 4 फेब्रुवारी 2003 | - 'कर्लेची बनवड' पुस्तकाचें विमोचन. |
| 2004 | - साहित्य अकादेमी, दिल्ली - साहित्य पुरस्कार. |
| 4 फेब्रुवारी 2005 | - 'सानुल्यांची कवनुलां' आनी 'गोंयची लोककला' पुस्तकांचें विमोचन. |

20 ऑगस्ट 2005 - 'गांवरान' आनी 'राजरत्नां' पुस्तकांचें विमोचन.

2005 - गोंय विद्यापिठाच्या कोंकणी विभागावरवीं पीएच्.डी. पदवी प्रदान (कोंकणींतली पयली पीएच्.डी. पदवी).

2005 - 'कोंकणी लोककाणयो' पुस्तकाची पुनरावृत्ती प्रसिध्द .

## आ - प्रकाशीत पुस्तकां

### (कथासंग्रह)

1. *गर्जन*, 1989, वळवय-फोंडें, गोंय, अपुरबाय प्रकाशन.
2. *अथांग*, 2002, आमोणें-केपें, गोंय, राजाई प्रकाशन.

### (लोकवेद)

1. *रथा तुज्यो घुडयो*, 1992, पणजी-गोंय, गोवा कोंकणी अकादेमी.
2. *कणेर खुंटी नाटी*, 1993, पणजी-गोंय, गोवा कोंकणी अकादेमी.
3. तळय उखल्ली खेळ्यांनी, 1993, पणजी-गोंय, गोवा कोंकणी अकादेमी.
4. *मानालीं गीतां*, 1993, पणजी-गोंय, गोवा कोंकणी अकादेमी.
5. *'आमोणें - एक लोकजीण'*, 1993, पणजी-गोंय, गोवा कोंकणी अकादेमी.
6. *पेडणेचो दसरो*, 1995, पणजी-गोंय, गोवा कोंकणी अकादेमी.
7. *नागशेराचे सूर*, 1996, पणजी-गोंय, कला आनी संस्कृती संचालनालय, गोंय सरकार.
8. *लोकबिंब*, 1998, पणजी-गोंय, गोवा कोंकणी अकादेमी.
9. *कोंकणी लोककाणयो*, 2000, दिल्ली, साहित्य अकादेमी.
10. *कर्लेची बनवड*, 2002, पणजी-गोंय, गोवा कोंकणी अकादेमी.
11. *गांवरान*, 2005, पणजी-गोंय, गोवा कोंकणी अकादेमी.
12. *राजरत्नां*, 2005, पणजी-गोंय, गोवा कोंकणी अकादेमी.

### (बालसाहित्य)

1. *वागमामाची फ़जिती*, 2000, बेतकी, फोंडें, गोंय, जैत प्रकाशन.
2. *चड शाण्याक फांतरांचें शीत!'*, 2001, आमोणें-केपें, गोंय, राजाई प्रकाशन.
3. *नवरंगी फूल*, 2002, मडगांव - गोंय, युगवेद प्रकाशन.

4. *भुरग्यांखातीर लोककाणयो*, 2002, मडगांव - गोंय, युगवेद प्रकाशन.
5. *सानुल्यांचीं कवनुलां*, 2004, आमोणें-केपें, गोंय, राजाई प्रकाशन.
6. *गोंयची लोककला*, 2004, आमोणें-केपें, गोंय, राजाई प्रकाशन.

(अणकार)

1. *सोरपाची करामत (बालसाहित्य)*, 1998, नवी दिल्ली, नॅशनल बूक ट्रस्ट.

## इ - प्रकाशीत लेख/निबंद आनी विश्वकोश नोंदी

### I. लेख/निबंद (लोकवेद)

1. *म्हैसूर विश्वविद्यालयांतलो लोकवेद डिप्लोमा कोर्स-एक नियाळ*, ल्हार - एप्रिल 1989, कुडचडें - गोंय, ल्हार प्रकाशन, पृ. 72-78.
2. *लोकवेदांत सांपडपी आमोणेचो इतिहास*, सुनापरांत - दिवाळी अंक, 1991, पणजी - गोवा पब्लीकेशन प्रा. लि., पृ. 90-93.
3. *लोकवदाचें स्वरूप : एक वळख*, अक्षय - दिवाळी अंक, 1991, वळवय, पृ. 21-28.
4. *कोंकणी लोकगितां : समाजमनाचीं विवीध तासां*, चित्रंगी-दिवाळी अंक, 1995, वळवय, अपुरबाय प्रकाशन, पृ. 36-41.
5. *कोंकणी लोकवेदांतली बायल*, चित्रंगी-दिवाळी अंक, 1995, वळवय, अपुरबाय प्रकाशन, पृ. 36-41.
6. *साहित्य सृजनांत लोकवेदाचो कितको उपेग जाता?*, चित्रंगी-दिवाळी अंक, 1995, वळवय, अपुरबाय प्रकाशन, पृ. 36-41.
7. *कोंकणी लोकवेदांत पडबिंबीत जाल्ली कोंकणी मनशाची सामाजिक, सांस्कृतीक आनी कौटुंबीक जीण*, पयलें विश्वकोंकणी संमेलन स्मरणिका - 1995, मंगळूर, पयलें वि. कों. संमेलन आयोजन समिती.
8. *गोंयच्या जैवीक संपदेच्या सांबाळांत बायलांचो पारंपारीक वांटो*, कोंकणी - दिवाळी अंक, 1996, मडगांव, कोंकणी भाशा मंडळ, पृ. 25-27.
9. *फूल-कुकूम : आयावंपणाच्यो कुरवो*, चित्रंगी-दिवाळी अंक, 1997, वळवय, अपुरबाय प्रकाशन, पृ. 36-39.
10. *गोंयचीं पारंपारीक बडबड गीतां*, सुनापरांत, ता : 22/02/1998, मडगांव, गोंय.
11. *आवयभास म्हण कोंकणी लोकप्रिय करपात बायलांचो सहभाग*, सुनापरांत, ता : 23-2-1997, मडगांव, गोंय.

12. *भारतीय स्वातंत्र्याच्या पन्नास वर्साच्या कालखंडांतल्या आधुनीक साहित्यांत लोकवेदाचें पडबिंब*, सुनापरांत, ता : 17/5/1998 आनी 24/5/1998, मडगांव, गोंय.
13. *धालो*, जाग-दिवाळी अंक, 1998, मडगांव, जाग प्रकाशन, पृ. 63.
14. *हिंदू-किरिस्तांव समाजामदली भावकी*, सुनापरांत, ता : 3-1-1999 आनी 10-1-1999, मडगांव, गोंय.
15. *लोकगितां : मुळचीं मंत्रगितां*, जाग-दिवाळी अंक, 1999, मडगांव- गोंय, जाग प्रकाशन.
16. *कोंकणी लोकवेदांत पडबिंबीत जाल्लें भुरगें*, सुनापरांत, ता : 02-01-2000, मडगांव, गोंय.
17. *आगळें वेगळें कोंकणी लोकरामायण*, जाग-दिवाळी अंक, 2000, मडगांव, जाग प्रकाशन, पृ. 20-22.
18. *मिथककाणी : प्राचीन इतिहास काणी*, कोंकणी - वर्सुकी अंक, 2000, मडगांव, कोंकणी भाशा मंडळ, पृ. 39-42.
19. *एक आसता म्हातारी*, जाग-दिवाळी अंक, 2001, मडगांव, जाग प्रकाशन, पृ. 26 - 29.
20. *कोंकणी लोकसंस्कृतायेंत चित्रीत जाल्ली 'बायलमनीस'*, कोंकणी - वर्सुकी अंक, 2001, मडगांव, कोंकणी भाशा मंडळ, पृ. 36 - 36.
21. *लोकवेद आनी संगीत*, घुमट गाज, पयलें अखिल भारतीय कोंकणी संगीत संमेलन, 2000, मडगांव, पृ. 63 - 65.
22. *बनवड गायनांतल्यान कोंकणी अस्मितायेचें जतन*, कोंकणी - वर्सुकी अंक, 2002, मडगांव, कोंकणी भाशा मंडळ.
23. *लोकवेदाचो प्रत्यक्ष वावर*, कोंकणी भास साहित्य आनी संस्कृताय, 2003, मडगांव, गोंय, कोंकणी भाशा मंडळ, पृ. 499-509.
24. *कोंकणी अस्मितायेच्या सांबाळांत बायलांची भुमिका*, अ. भा. कोंकणी परिशदेच्या 24 व्या अधिवेशनाची स्मरणिका, 2004.
25. *लग्नांतल्यो होंवयो*, कधी नव्हती अशी संकल्पना - विवाह मार्गदर्शिका, 2004, डिस्कव्हरी विनोती.
26. *गोंयचे लोकसंस्कृतायेचें दालन गिरेस्त करपी 'गितकाणी'*, गावन काणी, 2004 मयूर लोककला पंगड, स्मरणिका.

## लेख / निंबद (साहित्यीक आनी हेर तरेचे)

1. *माकडखायरे : कथा आनी व्यथा*, सुनापरांत, ता:18-10-1992, मडगांव, गोंय.
2. *साहित्याच्या मळार कोंकणी चळवळींतलें बायलांचें वेगळेंपण*, सुनापरांत, ता : 18-01-1998.
3. *म्हाका जाल्ली कोंकणीची नखलामी*, जाग, सप्टेंबर 19K98, प्रियोळ, फोंडें. गोंय, जाग प्रकाशन, पृ. 19-22.
4. *बायलांक मानाचें व्यासपीठ* - परिसंवादाचो नियाळ, 1998, 14 वें अ. भा. कोंकणी साहित्य संमेलन, स्मरणिका.
5. *गोंयचो फुडार कोंकणी शिक्षकांच्या हातांत* - परिसंवादाचो नियाळ, राष्ट्रमत, ता : 11-10-1998, मडगांव, गोंय.
6. *चांफेल्ले सांजेची फांकिल्ली लाली*, सुनापरांत, ता: 14-11-1998, मडगांव, गोंय.
7. *कोंकणी भाशा मंडळ आयोजीत कार्यकर्ते शिबिराचो नियाळ*, राष्ट्रमत, ता : 15-11-1998.
8. *ना तर मनशाचें पुराय जीवनच बीभत्स, बुरशें आनी अभद्र थारतलें आशिल्लें!*, सुनापरांत, ता : 14-03-1998, मडगांव, गोंय.
9. *एन्. शिवदास - पिरायेन 50 चो, कथेन 100 चो आंकडो हुंपलो*, सुनापरांत, ता : 17-03-1998.
10. *युवा महोत्सवांत्यान युवकांची परिक्षा जावंची*, चवथो गोवा युवा महोत्सव - 7 आनी 8 जानेवारी 1999. स्मरणिका, पृ. 23 - 25.
11. *तरणाट्यांनो, पुरोगामी जायात, फाटल्यान वळून पळोवं नाकात*, (दुसऱ्या युवा कोंकणी संमेलनाच्यो संमेलनाध्यक्ष नात्यान केल्लें उलोवप), सुनापरांत, 12-12-1999, मडगांव, गोंय.
12. *कोंकणीची युवा शक्त वाडंटा*, पांचवो गोवा युवा महोत्सव यादस्तिक, 7 आनी 8 जानेवारी 2000, मडगांव, गोंय, कों. भा. मंडळ, पृ. 17 - 19.
13. *'शबैचो बावलो'–खऱ्या अर्थान तारीकडेन पावलो*, सुनापरांत, ता :19-3-2000, मडगांव, गोंय.
14. *युवा महोत्सवाचो मांड स्थापन करपा फाटल्या उद्‌देशाचें कितें?*, कोंकणी, फेब्रुवारी 2003, मडगांव, गोंय, कोंकणी भाशा मंडळ.
15. *कोंकणी मायेचो निश्टावान सेवक - जेसबाब फेर्नांडीस*, सुनापरांत, ता : 6-09-2002, मडगांव, गोंय.
16. *लग्नाचे आठ प्रकार*, कधी नव्हती अशी संकल्पना - विवाह मार्गदर्शिका, डिस्कव्हरी - विनोती, पृ. 102.

17. *जुवान घरां*, कधी नव्हती अशी संकल्पना - विवाह मार्गदर्शिका, डिस्कव्हरी - विनोती, पृ. 116.
18. *आयचोय समाज बायलांकडेन आदलेच नदरेन पळयता?*, सुनापरांत, ता : 25-1-2004, मडगांव, गोंय.

## (पुस्तक परिक्षण)

1. *केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां*, जाग - मे 1996, प्रियोळ-फोंडें, जाग प्रकाशन, पृ. 23 - 24.
2. *श्रवोण : कोंकणी समाजाचे आदिमतायेची वळख घडोवपी लोकगीत*, सुनापरांत, ता : 05-01-1997.
3. *नव्या पुस्तकांक येवकार*, कोंकणी, जून 1998, मडगांव, गोंय, कोंकणी भाशा मंडळ.
4. *कोंकणींतल्या बालसाहित्याचो रूख आतां चंवरूंक लागला*, कोंकणी, जुलै 1998, मडगांव, गोंय, कोंकणी भाशा मंडळ.
5. *तियात्राचे विकास - बुन्यादीक आनीक एक चिरो*, कोंकणी, ऑगस्ट 1998, मडगांव, गोंय, कोंकणी भाशा मंडळ.
6. *चरीत्र गंथांवरवीं व्हड मनशांचें जीवन-दर्शन*, कोंकणी, सप्टेंबर1998, मडगांव, गोंय, कोंकणी भाशा मंडळ.
7. *कोंकणी कथेच्या समग्रतायेची वळख घडोवपी संग्रह*, कोंकणी, ऑक्टोबर1998, मडगांव, गोंय, कोंकणी भाशा मंडळ.
8. *साहित्य अकादेमीन भोवमान केल्लें पुस्तक 'अंतरनाद'*, कोंकणी, मार्च 2000, मडगांव, गोंय, कोंकणी भाशा मंडळ.

## (प्रस्तावना)

1. *शब्दफुलां : हुलोप आनी वाळटी*, ले. जॉनी एम्., 1990, केपें - गोंय, नॅवील पब्लीकेशन.
2. *'काव्यकुंजा'च्या परमळान, सगळो आसमंत भरचो!*, काव्यकुंज, ले. अलका असोळडेकार, 2006, पर्वरी, गोंय, बिम्ब प्रकाशन.

## (रोमी लिपींत उजवाडाक आयिल्ले लेख)

## (लोकवेद)

1. *Goenchim Paramparik Boddbodd Gitam*, Noketr-Natalancho Ank, Sampadapi - J. C. Fernandes, 1997-98, Konkani Liter-

ary Forum, Quepem - Goa, Pg. 36-37.
II. *Hindu - Kiristanv Somaza Modli Bhavki*, Goenco Avaz - III, Fr. Freddy J. D'Costa, 1998, Pg. 48 -51.
III. *Lok-kanni Hi Mulkhi Dhormvidhi*, Goencho Avaz - I, Fr. Freddy J. D'Costa, 1998, Pg. 21 -22.

## (मराठी भाशेंत उजवाडाक आयिल्ले लेख)

### (लोकवेद आनी हेर)

1. *केपेच्या सांस्कृतिक इतिहासाचे केंद्र – आमोणे*, दै. तरूण भारत, (केपे विशेषांक), 2 मार्च 1996, गोवा.
2. *केपे तालुका – एक धावता आढावा*, दै. तरूण भारत, (केपे विशेषांक), 2 मार्च 1996, गोवा.
3. *आमोणे येथील आगळा वेगळा दसरा*, दै. गोमंतक, दसरा–विशेषांक 21 ऑक्टोबर 1996, गोवा.
4. *लोकसंस्कृतीचा अभ्यास*, दै. लोकसत्ता – सुवर्णरंग, 19 डिसेंबर 1998, गोवा.
5. *धालो*, दिपावली विशेषांक, गोमंतक मराठा समाज, 1996, गोवा.
6. *'शबैचो बावलो' खऱ्या अर्थान तारीकडे पोहोचला!* गोमंतक – मनोरंजन, ता : 23-08-2000, पणजी – गोंय.

### (साहित्यीक)

1. *कोंकणी साहित्याची वाटचाल (मुक्तीनंतरच्या काळातील)*, सुवर्ण महोत्सव स्मरणिका, 2005, विर्ले–पार्ले, मुंबई, गोमंतक सेवा संघ, सुर्वण महोत्सव समिती.

## (हिन्दी भाशेंत उजवाडाक आयिल्ले लेख)

### (लोकवेद)

1. *गोवा के श्रृंगारिक लोकगीत*, रंगायन, संपा. पीयूष दईया, 2003, उदयपूर, भारतीय लोककला मंडळ.

## II. विश्वकोश नोंदी

1. *चिकलकालो*, कोंकणी विश्वकोश, खंड–1, 1991, ताळगांव गोंय,गोंय विद्यापीठ.
2. *जल्मी*, कोंकणी विश्वकोश, खंड – 1, 1991, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.
3. *तळी*, कोंकणी विश्वकोश, खंड – 2, 1997, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.

4. *दिवजां*, कोंकणी विश्वकोश, खंड - 2, 1997, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.
5. *देवळी*, कोंकणी विश्वकोश, खंड - 2, 1997, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.
6. *धेंणलो*, कोंकणी विश्वकोश, खंड - 2, 1997, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.
7. *भूतनाथ*, कोंकणी विश्वकोश, खंड - 3, 1999, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.
8. *मांड*, कोंकणी विश्वकोश, खंड - 3, 1999, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.
9. *मांडो*, कोंकणी विश्वकोश, खंड - 3, 1999, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.
10. *रेणुका*, कोंकणी विश्वकोश, खंड - 4, 2000, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.
11. *लोकवेद*, कोंकणी विश्वकोश, खंड - 4, 2000, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.
12. *शेंस भरप*, कोंकणी विश्वकोश, खंड-4, 2000, ताळगांव गोंय, गोंय विद्यापीठ.
13. *भवाळकर तारा*, विश्व चरित्र कोश, खंड - 3, 2005, परवरी - गोंय, विश्व चरित्र कोश मंडळ.

## ई - प्रकाशीत लेखमाळी

1. *'लोकबिंब'*, 17 मे 1992 ते 31 डिसेंबर 1992, सुनापरांत, मडगांव-गोंय.
2. *'लोककाणी'*, 29 फेब्रुवारी 1998 ते 3 ऑक्टोबर 2000, सुनापरांत, मडगांव-गोंय.
3. *'संस्कृती दर्शन'*, 18 ऑक्टोबर 1998 ते 28 फेब्रुवारी 1999, सुनापरांत, मडगांव -गोंय.
4. *'प्रांता-प्रांतांतली लोककाणी'*, 10 सप्टेंबर 2000 ते 26 ऑगस्ट 2000, सुनापरांत, मडगांव - गोंय.
5. *Lok Kanni*, July 1998, September 2001, Gulab, Panaji - Goa.

## ३. अणकारीत साहित्य

(कोंकणींतल्यान हेर भासांनी जाल्लो अणकार)

(कविता)

| मूळ कोंकणी कविता | अनुवाद | नेमाळें/संग्रह | अनुवादक | वर्स |
|---|---|---|---|---|
| व्हंकल | दुल्हन | साहित्य सेतू सागर | प्रभाकर शेजवाडकर | सप्टेंबर 2004 |
| तुज्या पावलां खुणांचेर | कहाँ रूक जाऊँ! | साहित्य सेतू सागर | प्रभाकर शेजवाडकर | जून-जुलै 2004 |

(कथा)

| मूळ कोंकणी कथा | अनुवाद | नेमाळें/संग्रह/ वेबसायट | अनुवादक | वर्स |
|---|---|---|---|---|
| जैत | जीत (हिन्दी) | भारतीय शिखर कथा कोश | जयंती नायक | 1992 |
| जैत | Triumphant Defeat (Eng) | नवहिंद टायम्स | मुकेश थळी | 20 ऑगस्ट 1995 |
| जैत | The Final Victory (Eng) | Goa Today | विद्या पै | ऑक्टोबर 1999 |
| निमणें बंड | आखिरी जंग (हिंदी) | समकालीन भारतीय साहित्य | प्रमोद वी. शेणवी | मे-जून 1998 |
| निमणें बंड | अवसान ते युध्दम (मल्याळम) | मातृभूमी | एम्. के. शशीकुमार | फेब्रुवारी 2000 |
| निमणें बंड | कुंकूम की बिंदी (तेलगू) | विपूल | व्हाय. सी.पी. वेंकट रेड्डी | फेब्रुवारी 1999 |
| सपन | कोंडायिलुवा पट्टु (तेलगू) | विपूल | के. नागभूषण | मे 1999 |
| काणी सिंड्रेलाची | The story of Cindrella (Eng) | नवहिंद टायम्स | मुकेश थळी | 15 ऑक्ट 2000 |
| आसाडी | Asadi (Eng) | Samyukta -Anthology of Indian Short Stories | विद्या पै | 2003 |
| अंवसर | The Oracle (Eng) | Govapuri | विद्या पै | जाने - मार्च 2005 |
| बसवो | बसवा (मराठी) | कोंकणी कथा मराठीत | विष्णू वाघ | 2005 |
| बसवो | Basavo (Eng) | www. womens-writing.com | विद्या प | 2005 |

## II.(हेर कोंकणी लेखकांच्या साहित्याचो दुसऱ्या भासांनी केल्लो अणकार)

### (कविता)

| मूळ कों. कविता | मूळ लेखक | अनुवाद | नेमाळें/संग्रह | वर्स |
|---|---|---|---|---|
| काळखाचो पुजारी | पोब्र फेर्नांडीस | अंधेरे का पुजारी (हिंदी) | युध्दरत आम आदमी (आदिवासी स्वर और नई शताब्दी विशेशांक) | 2001 |
| पावस भ्रष्टाचारी | पोब्र फेर्नांडीस | बेईमान बारिश (हिंदी) | " | " |
| जिणेचो अर्थ | पोब्र फेर्नांडीस | जिंदगी की राह (हिंदी) | " | " |
| आवयक | विजयाबाय सरमळकार | माँ को (हिंदी) | युग स्पंदन –माँ विशेशांक | जाने.-सप्टें 2002 |
| तीच म्हजी भास | माया खरंगटे | वही है मेरी भाषा (हिंदी) | युग स्पंदन –भाषा विशेशांक | जाने-सप्टें 2005 |

### (कथा)

| मूळ कों. कथा | मूळ लेखक | अनुवाद | नेमाळें/संग्रह | वर्स |
|---|---|---|---|---|
| म्हजी बा खंय गेली? | शणै गोंयबाब | माझी बा कुठे गेली? (मराठी) | कोंकणी कथा मराठींत | 2005 |
| गितूल | लक्ष्मणराव सरदेसाय | गितूल (मराठी) | कोंकणी कथा मराठींत | 2005 |
| अश्वत्थामा | शशांक सीताराम | अश्वत्थामा (मराठी) | कोंकणी कथा मराठींत | 2005 |

(निबंद)

| मूळ कों. निबंद | मूळ लेखक | अनुवाद | नेमाळें/संग्रह | वर्स |
|---|---|---|---|---|
| लोक! आदिमसे आधुनीक तक जीवन और प्रकृतीकी विवीध रूपी अभिव्यक्ती | रमेश दवे | लोक : आदिमा साकून आधुनीक जाय मेरेनच्या जीवन आनी प्रकृतिच्या लोकाचारांची विवीधरूपी अभिव्यक्ती | सुनापरांत | 11-8-2002 |

## ऊ - प्रातिनिधीक संग्रहांनी आनी पाठ्यपुस्तकांनी जाल्लो साहित्याचो आस्पाव :

### प्रातिनिधीक संग्रह :

(कविता)

I - *व्हंकल / सांग देवा / गणीत / ती एक वावराडी / स्वातंत्र्य / एक तारूं / म्हारोगी* - अप्रूप, सं. हेमा नायक, 1985, वळवय, अपुरबाय प्रकाशन.

2. (कथा)

I. *जैत* (हिंदी अणकार - जीत), भारतीय शिखर कथा कोश, सं. कमलेश्वर, पुस्तकायन, 1992, नई दिल्ली.

II. *पानवळ*, तीन दसकां, सं. चंद्रकांत केणी, 1993, वास्को-द-गामा, व्ही. एम्. साळगांवकार प्रतिष्ठान.

III. *सिंड्रेलाची काणी*, समकालीन कोंकणी लघुकथा, सं. पुंडलीक नारायण नायक, 1998, नई दिल्ली, नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया.

IV. *गाराण*, कथावली, सं. डॉ. सोमनाथ कोमरपंत, दामोदर मावजो, 2000, पणजी, इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा.

V. *बसवो* (मराठी अणकार - बसवा), कोंकणी कथा मराठींत, सं. डॉ. किरण बुडकुले, 2005, दिल्ली, साहित्य अकादमी.

पाठ्यपुस्तकां

(कथा)

I. *कावळ्या पील*, कोंकणी वाचन पाठ, यत्ता आठवी, 1994, गोंय, गोंय माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक शिक्षण मंडळ.

II. *राखणदार*, कथा - परिक्रमा, पयलें वर्स कोंकणी (वेंचीक) अभ्यासक्रम, सं. प्रा. भुषण भावे, प्रा. प्रकाश वजरीकार, 1995, बेती - गोंय, जैत प्रकाशन.

## ए. चरीत्रकोशांनी जाल्लो माहितीचो आस्पाव :

1. व्हूज व्हू ऑफ इंडियन लिटरेचर, सुदारीत आवृत्ती, 1999, दिल्ली, साहित्य अकादेमी.
2. *एशिया - पॅसिफीक व्हूज व्हू*, खंड - 3, 2001, दिल्ली, रिफासीमेंटो इंटरनॅशनल.
3. *बायोग्राफी इंटरनॅशनल*, खंड-4, 2004, दिल्ली, बायोग्राफी इंटरनॅशनल.
4. *विश्व चरित्र कोश*, खंड - 3, 2005, परवरी, गोंय, विश्व चरित्र कोश मंडळ.

## ऐ. प्रकाशीत मुलाखती :

I. *नोकरी म्हण आपणायिल्ल्या लोकवेदाच्या वावराक ध्येय मानपी संशोधिका*, (मुलाखत घेवपी - ज्योती कुंकळकार), कर्तुत्वी कन्या, 1997, वळवय, फोंडें, गोंय, अपुरबाय प्रकाशन.

II. *Exploring and Preserving Goan Folklore is essential*, Interviewer : R A Nagarsekar, Herald-Insight, February 10, 2001, Panjim.

III. *दुसऱ्याच्या कर्तुत्वान दिपावचेपरस स्वताच्या कर्तुत्वान संवसाराक दिपायात!* (मुलाखत घेवपी - कामिनी किणी) बिम्ब, मे 2003, (जानेवारी 2005 च्या बिम्बाच्या अंकांत हे मुलाखतीचो कांय वांटो पुनर्प्रकाशित), परवरी, गोंय.

IV. *Writing About Women*, (Interviwer : Preetu Nair, Navhind Times, 24, June 2004.), Panaji - Goa.

V. *लोकवेदाच्या विश्वकोशाचो संकल्प* : जयंती नायक, (मुलाखत घेवपी : पूजा सावंत), दर्पण - दै. पुढारी, 7 मार्च 2005, पणजी - गोवा.

VI. *I have had to make sacrifices*, (मुलाखत घेवपी : बेवींदा कुलासो), गोवा टुडे, मार्च, 2005, Panaji - Goa.

VII. *एक दर्जेदार कादंबरी – म्हजी फुडली मोख* – जयंती नायक, (मुलाखत घेवपी : सुशांत कुंकळकार), जाग, मार्च – मे 2005, मडगांव – गोंय.

## ओ – वावराचेर तयार जाल्ले अभ्यास प्रकल्प/प्रबंध :

1. *जयंती नायकाचो लोकवेदाचो अभ्यास – एक नियाळ*, सोद करपी : कु. सिमा देसाय, कु. नीनोश्का लोबो आनी कु. बेलिंडा रॉड्रिगीस, तिसरें वर्स बी.ए. अभ्यासक्रमा अंतर्गत 2003-2004 वर्सा सेंट झेवियर्स कॉलेज, म्हापशे हांच्या कोंकणी विभागावरवीं तयार केल्लो प्रकल्प.
2. *जयंती नायक हांचें कथाविश्व*, सोद करपी : श्री. सागर होवळे आनी कु. उर्मिला [illegible]ायक, तिसरें वर्स बी.ए. अभ्यासक्रमा अंतर्गत 2004-2005 वर्सा सरकारी महाविद्यालय, खांडोळें हांच्या कोंकणी विभागावरवीं तयार केल्लो प्रकल्प.

[illegible] *जयंती नायकाचें साहित्य–सुची*, सोद करपी : कु. रेश्मा कामत आनी कु. अपर्णा [illegible]त, पयलें वर्स एम्. ए. अभ्यासक्रमा अंतर्गत 2004-2005 वर्सा गोंय [illegible]पिठाच्या कोंकणी विभागावरवी तयार केल्लो प्रबंध.

[illegible] *[illegible]यंती नायकाचें कोंकणी साहित्यीक आनी भाशीक मळार योगदान*, कु. एडना [illegible]ाझ, पयलें वर्स एम्. ए. अभ्यासक्रमा अंतर्गत 2004-2005 वर्सा गोंय विद्यापिठाच्या कोंकणी विभागावरवी तयार केल्लो प्रबंध.

5. *जयंती नायकाच्या कथांचो अभ्यास*, सोद करपी : पुजा सांगोडकार, तिसरें वर्स [illegible]ए. अभ्यासक्रमा अंतर्गत 2005-2006 वर्सा सरकारी महाविद्यालय, केपें [illegible] कोंकणी विभागावरवीं तयार.

***






तशीं आमी फाटली फुडलीं
एका बरोबरूच वाडलीं
अप्रुप म्हूण सगळ्यांनीच तोखेलीं

कांय फुल्ली पूण फळ्ळीं नात
कांय फळ्ळीं पूण धल्लीं नात
कांय रोपां मात निगरगट्ट
दिशीं माशीं वाडत आसात.

एक रोप सूर साधनेंत रमलें
एक रोप बायलांच्या अस्तित्वाचो सोद घेत रावलें
एका रोपान कथा फुलयली
तर एका रोपान कवितेवांगडाच भुरग्यांचीं मनां रिजयलीं.

एका रोपान घेतलो कवितेचो स्वास
तर एका रोपान घेतलो लोकवेदाचो ध्यास.

हें रोप जातनाच घेवन आयलें एक रूखासपन
तें वादळा मोडाक. भियेलें ना
ताणें आपलीं मुळां रोमिल्लीं
खोल खोल भुंयेच्या काळजांत.

म्हण्टा म्हण्टा तें घसघशीत वाडलें
खांद्या खाद्यांनी फुल्लें
येत्या वत्याच्या नदरेक भरूंक लागलें.

दुबाव ना आमकां
एक दीस तें मळबांचीं ऊंचाय गांठटलें
परमळ आपलो दिगंतरा फांकयतलें
अथांगाचो सोद घेवपी
संवसारांतलें एक अजाप थारतलें.

-नूतन साखरदांडे
अथांग लोकार्पण दीस ०२/०२/२००२

